BIMB/Feb 2020/ Vol 19 / ISSUE 2 / Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

मासिक

फेब्रुवारी २०२०

## कोंकणी राजभाशेच्यो भोयो भोयो सरकार म्हणटा

# ह्यो भानगडी कोणांक जायो?



# GOA

## MARCHING TOWARDS DEVELOPMENT

- ☑ Industry friendly Government.
- ☑ Well developed Industrial Estates.
- ☑ Improvement in Schemes for Benefit of Farmers, House Wives & Education Sector.
- ☑ Development of Roads, Bridges, Stadiums & other Infrastructure.
- ☑ Solid Waste Management Plant.
- ☑ Friendly Economic Policies.














Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa




एक कदम स्वच्छता की ओर

LET US KEEP GOA CLEAN AND GREEN.
SWACHH BHARAT, NITAL GOEM.



# बिम्ब कोंकणी मासिक १९ वें वर्स



**कोंकणी भाशेच्यो भोयो भोयो
सरकार म्हणटा
ह्यो भानगडी कोणांक जायो?**

दिलीप बोरकार

**BANK DETAILS :**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात.
संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.

वर्स:१९ अंक:२
फेब्रुवारी २०२०
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**जायरात वेवस्थापन**
ओल्गा हुसेन

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर**
वर्सुकी 400 रू.
3 वर्सां 1100 रू.
खंयच्याय म्हयन्यासावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक Bimb monthly ह्या नांवान धाडचो.

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# तरणें रगत खंयचे दिकेन?

गोंयचे दोन ज्येश्ठ सुटके झुंजारी गुरुनाथबाब केळेकार आनी नागेशबाब करमली हांणी जानेवारीचे ३० तारकेर गांधी पुण्यतिथी दिसा पणजेच्या आझाद मैदानाचेर एका आदेसाचो सत्याग्रह करपाचो थारायल्लो. चळवळी आनी सत्याग्रह ह्यो गजाली ह्या दोन गोंयमोग्यांक तश्यो नव्यो न्हय. त्यो करून तांकां हे पिरायेर आपल्याक सवंग प्रसिध्दीय मेळोवपाची ना आनी कोणा कडच्यान किर्ते हातासपार्चेय ना. ह्या दोनूय म्हालगड्यांनी आपले तरणे पिरायेर आपल्या फुडाराची, घरदाराची मात्तूय पर्वा करी नासतना गोंय मुक्तीच्या होमखणांत उडी याली. तांच्या ह्या कर्तुबाची तांकां ख्यारस्तूय भोगची पडली. आर्जेंत मोन्तेरो सारख्या त्या काळच्या पुर्तुगेज सरकारान पोशिल्ल्या दैत्यां कडल्यान मारफार खावंचो पडलो आनी बंदखणूय भोगची पडली. अशे हे सुटकेझुंजारी आयज तांचे उतार पिरायेर, तांणीं आपल्या जिवितांतलीं ८०-८५ वर्सां हुपल्या उपरांत मुक्त गोंयांतूय गोंयचे पासत अशें धरणें धरप, निशेध उक्तावप, सत्त्याग्रह करप हें समा न्हय म्हणपार्चे आमच्या सरकाराक आनी गोंयच्या तगून उरिल्ल्या गोंयकारांकूय होलमना ही भोव खंतीची गजाल. जेन्ना आपली बुध्द साबुध्दीर आसतना लेगीत गोंयचे हे दोन म्हालगडे असो हो सत्याग्रह करतात, गोंयांत जें चललां तें सारकें न्हय म्हणपार्चे समाजाक दाखोवन दिवंक सोदतात तेन्ना समाज खंय तरी चुकता अशें म्हणचें पडटलें. जर खऱ्यानीच सामाजीक वातावरण इबाडलां जाल्यार तें खंय आनी कशें इबाडलां हें समजून घेवंचें पडटलें आनी ताचेर बेगोबेग उपाय येवजण करची पडटली.

पूण ताचेर हे नदरेन विचार करपा बदला, हेच दिसा हेच सुवातेर गोंय सरकार आनी गोंयचे महामहीम राज्यपाल हुतात्मा स्मारकाक आर्गां ओपपाचे आशिल्ल्यान ह्या सुटके झुंजाऱ्यांच्या सत्याग्रहाची तांच्या कार्याक बाधा येवची न्हय देखून सुटकेझुंजाऱ्यांच्या सत्याग्रहाक मान्यताय न्हयकारली. तुमकां सत्याग्रह करपाचो आसा जाल्यार खुशाल करात पूण तो कांपालार वचून करात, हांगा राज्यपालांच्या सुरक्षेचो प्रस्न आसा अशें किर्ते तरी ह्या सुटकेझुंजाऱ्यांक कळोवन तांच्या सत्याग्रहाक मान्यताय न्हयकारली.

आतां सत्याग्रह म्हणटकच ताका कोणाची मान्यताय लागना. सुवातेचो प्रस्न म्हणत जाल्यार आझाद मैदान आनी खास करून हुतात्मा स्मारक हें सुटकेझुंजाऱ्यांच्या त्यागाचें प्रतीक. ते सुवातेर जर कोणाक प्राध्यान मेळूंक जाय जाल्यार तें सुटकेझुंजाऱ्यांक. पूण तांचो प्रस्न आनी मागणी समजून घेना आसतना तांचे कार्यावळीचो मतीतार्थ समजून घेना आसतना तांकांच थंयच्यान धांवडावन घालून फकत वर्सावळीची भोगावळ करप हें एकंदर विचित्रूच प्रकरण. पूण गोंयच्या सरकाराचें एकंदर मुल्यमापन करीत जाल्यार तें सरकाराक सोबपा सारकेंच म्हणूं येता.पूण राज्यपाल मलिक हे लोहियावादी विचारसरणेचे आसात अशें तांचे एकंदर वागणुकेवेल्यान दिसता म्हणटकच तांणी तरी ह्या सुटकेझुंजाऱ्यांच्या सत्याग्रहाकडेन गांभिर्यान पळोवपाची गरज आशिल्ली. आपल्याक तरी ह्या लोकां कडल्यान भिरांत ना हो विश्वास बाळगून हुतात्मा स्मारकाक आर्गां ओपून जाले उपरांत सत्याग्रह्यांक भेट दिवन तांची मागणी आनी गोंयचो प्रस्न जर समजून घेतिल्लो जाल्यार तींच हुतात्म्यांक खरीं आर्गां थारपाचीं. पूण राज्यपालांनी ती संद वगडावन, सुटकेझुंजाऱ्यांकूय आझाद मैदानाचेर मनाय करपाचे सरकारी करणेक तेंको दिवन आपलेय विचारसरणेक दुबावाचें प्रस्नचिन्ह जोडलां. तरी लेगीत हें इतलें जावनूय सुटकेझुंजारी सरकाराक बदले नात. तांणीं थारिल्ले प्रमाण थंय थोडो वेळ काय जायना सत्याग्रह करून गांधीजींचो विचार फुडें व्हेलो. ते पासत तांचें अभिनंदन. आमकां तांचो अभिमान भोगता.

हें इतलें मेरेन बरोवप म्हळ्यार उतरांनी मखलाशी करप अशें कोणाकूय दिसूं येता. तातूंत लटीक अशेंय कांय ना. आयज गोंयांत जें किर्ते चललां आनी गोंयची जी किर्ते अवतिकाय जाल्ली आसा आनी फुडाराक जें किर्ते गोंय आसतलें तें

## संपादकीय



ह्या सुटकेझुंजाऱ्यांनी आपल्या सपनांत पळयल्लें गोंय निखालूस न्हय. तांणीं ज्या गोंया पासत आपलें आयुश्य खर्चीलें, आपल्या घरादाराची होळी केली, आपले तरणेपणारूच न्हय तर गोंय सुटके उपरांतूय गोंयच्या भल्या पासत खस्तो काडल्यो तें गोंय आयज जें किर्ते आसा तें गोंय न्हय. देखून ज्या गोंयचीं सपनां आमी पळयलीं त्या सपनांचो इबाड आपल्या दोळ्यां सामकार जातना पळोवन ह्या दोन सुटकेझुंजाऱ्यांचें रगत सळसळ्ळें आनी कांयच उपाय ना म्हणटकच निदान निशेध करपा पासत आपले तांकी प्रमाण तांणीं अर्दे दिसा पासत सत्याग्रहाची तयारी केली ती करणीच गोंयच्या सरकाराचें आनी खास करून भोगवादी चक्रांत घुस्पल्ले आयचे तरनाटे पिळगेचें नाक कापूंक पुरो.

सत्याग्रह करूंक मुखार सरिल्ल्या सुटकेझुंजाऱ्यांचें सपनांतलें गोंय वेगळें. तांकां जाय काकासायब कालेलकरांचें पुण्यभूमी गोंय. पूण तें गोंय आयच्या गोंया कडेन कशेंच जुळना. आयचें गोंय हें कॅसिनोवाल्या जुगाऱ्यांचें गोंय, आयचें गोंय हें शिंदळक्यांनी भरिल्लें गोंय, आयचें गोंय घुंवळे वखदांचें गोंय, आयचें गोंय हें भोगवादाक संवकल्ल्या तरनाट्यांचें आनी तेच घुंवळेंत अपघातांत रस्त्यार जीण सोपोवपाचें गोंय. हें गोंय बदलूपाचो हावेस बाळगून दोन सुटकेझुंजारी सत्याग्रह करतात आनी जांचे पासत ते हो व्याप घेवन बसतात ती गोंयची तरनाटी पिळगी मात हातूंतलें कांय एक आपल्याक लावन घेनात हार्चेच वायट दिसता. तेन्ना प्रस्न पडटा आयचे पिळगेची पुण्यभूमी गोंय म्हळ्यार आयज गोंय जे गतीन जे दिकेन वता तेंच बी न्हय मूं? तशें जर आसत जाल्यार आमी पुण्यभूमी गोंयचीं जीं सपनां पळयतात तीं काळजाचे कुपर्यंतूच दवरून येवपी काळाक शरण वचप शाणेपणाचें थारतलें.म्हणूं मागीर तें कोणेंय नीज गोंयकारांचें अपेस..






## बिम्बांत टोपण नांवान साहित्य छापूं नाकात

संपादक,बिम्ब-

गोंय हें सामकें ल्हान. आमी आमच्या लेखकांक लागशिल्ल्यान वळखतात आनी तांचें बरप तेच वळखीक लागून आवडीन वाचतात. पूण तुमी कांय साहित्य त्या साहित्यकारांचें खरें नांव छापी नासतना टोपण नांवान छापतात तें आड्खळटा. तें साहित्य बरें आसुनय वाचनाचो प्राधान्यक्रम चुकता. देखीक जानेवारी म्हयन्यांत भुरग्यांचे आंगण विभागांत तुमी बायूल हें सदर सुरू केलां. पूण तातूंत लेखकाचें नांव फकत गोकुळा अशें दिलां. हें गोकुळा कोण हें कळत आनी तें वळखीचें आसत जाल्यार म्हजे सारखो वाचक तें सदर प्राधान्य दिवन वाचूंक शकता. ते भायर लेखक वळखीचो आसत जाल्यार तार्चे साहित्य वाचतना तार्चे रुप दोळ्यां मुखार दवरूं येता. ताका लागून वाचतना लेखकूच आमचे मुखार रावून उलयता असो एक फिल घेवं येता. दिलीपबाब बोरकार जेन्ना बोरकारी बरयताले वो आतांय पुस्तकरुपांतली बोरकारी वाचतां तेन्ना म्हजे सामकार रावून ते बोरकारी सांगतात अशें म्हाकां दिसता.

म्हजे सुचोवणेचेर तुमी विचार करतले अशी आरस आसा.



**- सर्वेश उत्तम वांयगणकार**

मळा, पणजी-गोंय

# जाणटेल्यांक आधार दियात

एक दीस दनपरां कॉलेज सुटून हांव बशीक उबें राविल्लें. दनपारचें एक वर जाल्लें. मळब काळ्या कुपांनी भरून गेल्लें, निकतीच पावसाची एक दडक येवन गेल्ली.रस्ते सामके ओले जाल्ले.

हांव म्हज्याच विचारांत आशिल्लें.रस्त्याचे पेले वटेन एक जाणटेलो आनी जाणटेली उबीं आशिल्लीं. म्हजें लक्ष तांचेर गेलें. दोगांयच्या तोंडार सामक्यो मिरयो पडिल्ल्यो. तीं पावसांत सामकीं चिप्प भिजिल्लीं.जाणटेपणाक लागून तीं अशक्त जाल्लीं. दोगांय शिंयान कुडकुडटालीं. रस्त्यार निसर जाल्ल्यान चलपाक तांकां धीर जाय नाशिल्लो. आपल्याक कोणय आधार दियत काय म्हूण तीं आशेन हेवटेन-तेवटेन पळयतालीं. जायते लोक रस्त्यावयल्यान वताले.पूण तांचेर लक्ष दिवंक कोणाकूच वेळ नासलो.

म्हज्या पोटांत एक वेळ कावळे रडटाले. पूण म्हाकां तांकां पळोवन तांची दया आयली. म्हाकां म्हज्या आवय बापायन सांगिल्ली गजाल याद जाली. तीं सांगतालीं,'जाणट्यांक आधार करतात तांकां देव सदांच मजत करता.' हांव तांच्या म्हऱ्यांत गेलें आनी तांकां हांवें विचारलें,'आजी-आज्या हांव तुमकां कितेंय मजत बी करूं?'तांणीं दोगांयनी म्हाकां पळयलें आनी तुमकां सांगतां,तीं इतलीं हांसलीं,तांच्या तोंडार एकदम उजळसाण आयली. तांच्या तोंडार त्या वेळार म्हाकां जो आनंद दिशिल्लो तो आज लेगीत म्हाकां याद जाता.

ती आजी म्हणपाक लागली,'देवानूच तुका हांगा आमचे मजतीक धाडलां.'

आजो म्हणपाक लागलो,'म्हजे बाय आमकां मातशें एकल्या एकल्याच्या हाताक धरून पेले वटेन व्हरशी? आमचें घर रस्त्याचे कडेकूच आसा.'

हांवें पयलीं जाणटेलेक हाताक धरलें. तिचे हात कडकडटाले.तिका आधार दिलो आनी पेले वटेन व्हरून पायली. मागीर परत येवन जाणटेल्याच्या हाताक धरून ताकाय व्हरून पलतडीं पायलो. तीं दोगांय सामकीं खूश जाल्लीं. दोगांय दोळ्यांत दुकां हाडून म्हजे कडेन पळयतालीं. दोगांयनीय म्हाकां आशिर्वाद दिलो आनी म्हणूंक लागलीं, तुजे सारकीं जर सगळीं मनशां जाणटेल्यां विशीं अशी भावना दवरतालीं जाल्यार काय बरें जावपाचें. तुवें आज आमकां आधार दिला,तुजें सदांच बरें जातलें.

म्हजें मन धादोसलें. हांवें तांकां हात हालोवन बरें म्बणलें. आनी फाटल्यान येवन पळय जाल्यार म्हजी बस गेल्ली. म्हाकां आतां इतले बेगीन बस नाशिल्ली. पोटांत तर कावळ्यांनी सामको आकांत केल्लो. हांव बशीची वाट पळयत उबें रावलें. इतल्यांत म्हज्या म्हऱ्यांत गाडी येवन थारली. पळयत जाल्यार आमचीच गाडी. पप्पा गाडी घेवन म्हाकां व्हरपाक आयिल्लो.

तो आज ऑफिसांतल्यान बेगीन घरा वतालो आनी हांव बी वाटेर मेळत म्हूण म्हाकां व्हरतलो म्हूण हे वटेन आयिल्लो. म्हाकां बस मेळिल्ली जाल्यार हांव पप्पाक मेळचें नाशिल्लें. म्हजी बस चुकिल्ली ती हांव त्या जाणटेल्यांक मजत करूंक गेल्लें देखून. तेन्नाच पप्पाकूय हे वटेन येवचें अशें कशें येवजलें काय?..म्हजे खोशयेक शीम मेर उरली ना. त्या खिणाक म्हाकां जाणवलें,मम्मा-पप्पा म्हणटा तें खरें,जो दुसऱ्याक मजत करता,देव ताकाय पावता. हांव धांवत वचून गाडयेंत बसलें.



**-प्रिया गणेश कामत**

पंचवाडी-गोंय.



# सर सुरेश आमोणकर हांकां म्हजी आर्गां

हांव जरी , सर सुरेश आमोणकर हांकां आर्गां दिवपी कार्यावळींत पावंक ना पूण तांची ***रोसाळ ज्ञानेश्वरी*** वाचून हांव तांकां आर्गां दितां.

रोसाळ ज्ञानेश्वरीच्या पयल्या अध्यायांत ओम शब्दाविशीं म्हायती आसा.श्री कृष्णान कुरुक्षेत्रार झुजामळार अर्जुनाक जें ज्ञान दिलें तें श्रिमदभागवद गितेंत आसा जी मूळ संस्कृत भार्शेत आसा. संत ज्ञानदेवान ताचो सार, तें ज्ञान सामान्य मनशाक समजुचें म्हणून ज्ञानेश्वरी रचली, जी प्राकृत मराठी भार्शेत आसा. आतां आमचे कोंकणी मायभार्शेत तिचो अणकार जाला. सर सुरेश आमोणकर हांच्यांनी, संत ज्ञानदेवान पाकृत मराठींत बरयिल्ले ज्ञानेश्वरीचो कोंकणींत अणकार केला. इतलो रोसाळ अणकार वाचून मनाक खूब खोस जाली. कारण हांव जेन्ना पाकृत मराठीं भार्शेतली संतांची रचना वाचतालें तेन्ना म्हज्या मनाक दिसतालें, अशें बरप आमचे कोंकणी मायभार्शेत जावप शक्य आसा काय ? आयज ,सर सुरेश आमोणकर हांच्यांनी अणकारीत केल्ली रोसाळ ज्ञानेश्वरी वाचली तेन्ना म्हाकां तांचेविशीं अभिमान दिसता.

प्राकृत मराठींतलें पद्य अणकारप ही सोपी गजाल अजिबात न्हय. शाररीक शक्त जायच वांगडा मनाची शक्त खुबूच गरजेची. हें काम करतना रक्ताचें उदक जाता. जो मेरेन परमेश्वराची इत्सा आसना तो मेरेन असो रोसाळ अणकार जावप शक्यच ना. सर सुरेश आमोणकर हांकां संत ज्ञानदेवान वेंचून काडलां आपले रचनेचो अणकार करपाक . ही कोंकणी वाचकांक एक अभिमानाची गजाल. आध्यात्मिक मार्गार हांव हालींच चलपाक लागलां . कोंकणी मायभार्शेत, आध्यात्मिक विशयाचेर सर सुरेश आमोणकारां सारकें इतले अणभवी बरोवपी आसले तांचे कडल्यान आध्यात्मिक साहित्य अणकार करपाक म्हाकां मार्गदर्शन मेळटासलें पूण हांवूच खूब उसरां जागें जालें . पूण तांच्यांनी अणकारिल्लें साहित्य वाचतकच म्हाकां उर्बा मेळटली.

आध्यात्मिक ज्ञान खूब गरजेचें आसा स्वताक सांबाळपाक. हांव जेन्ना दुख्खाच्या वादळांत सांपडलें, जर हांवें श्रिमदभागवद गिता वाचून समजून घेवंक नासली जाल्यार ह्या वादळांत हांव व्हावून वता आसलें. सर सुरेश आमोणकारांनी आध्यात्मिक ज्ञान कोंकणी मायभार्शेत अणकारून तें पुस्तकरुपान छापून उजवाडाक हाडलां. आमी तें वाचून, समजून घेवन , जिणेच्या ह्या प्रवासांत स्वताक धीर आनी धाडस दिवपाक स्विकारुया. वाचतना श्रध्दा आनी सबुरी दवरप गरजेची.

म्हाकां , रोसाळ ज्ञानेश्वरी विश्वासान वाचपाक दिल्ले खातीर सर अनंत अग्नी आनी सरिता ताई हांचें हांव उपकारी आसां .

❖

- श्रध्दा गरड
मडगांव-गोंय




## कोंकणी भाषा , राजभाषा

कोंकणी भाषा, तेत्तीस वर्सां पयलीं जाली राजभाषा
ल्हानपणान तिका म्हालगड्यांनी पोसली
मासिक,दिसाळीं काडून घरायरांत पावयली
पयशे मोडून उदरगत तिची केली
तरुणपणांत तिका सरकारान आपणायली ।।

देवनागरी आनी रोमन ह्यो दोन भयणी
देवनागरी अजुनूय करता नवी पेरणी
करुंक दींव नाकात तिची पावणी
रोमन मात करता जगभर भोंवणी ।।

बार्देस ,पणजे,साष्टी ,काणकोण
भाषेचीं वेगवेगळीं रूपां
व्याकरणांचें पुस्तक दिसना अजून
धरतात वारें येता तशीं सुपां ।।

कोंकणी भाषेची साडी जाल्या आतां कपयाळें
रस्व दिर्गाचें सगळ्या मुखार जाळें
नव्या लेखक ,कवीक माचयेचें कुवाळें
सोशल मीडीया आनी एकूय तर नेमाळें ।।

कोंकणी भाषेचो चंवर आतां दर एके फांदयेचेर
अंमलबजावणीचो भार प्रत्येक वेलीच्या खांदाचेर
खतपाणी जर मुळांची वेळार करना सारखी
वेळ लागचो ना एका दिसा जावंक ती बोडकी ।।



- रमेश सुखठणकार
मडगांव-गोंय

# हा स्य बि म्ब

## इंद्रधोणू

घाणेकारान धुवेक लग्न करून घरजांवय हाडलो. पूण कांय वर्सां सरलीं तरी ताका नातवाचें तोंड दिसपाचीं चिन्ना दिसना जालीं.म्हणटकच ताका दुबाव मारलो आपले धुवेचें आनी जांवयाचें बरेंशें पड्ना दिसता. पूण ताची म्हायती कशी काडचीं हें ताका उमगना जालें.

ताच्या इश्टाचो एक पूत बरो इलेक्ट्रीशियन आशिल्लो.ताणें आपल्या घरांत खूब करामती केल्ल्यो. ताका ताणें आपोवन हाडलो. ताणें विशय समजून येवन धुवेच्या बेडरुमांत अशीं उपकरणां बसयलीं आनी तांचें कनेक्शन घाणेकाराचे टिवीक जोडलें आनी सांगलें, धुवे-जांवयाचो एकमेकाक स्पर्श जालो जाल्यार टिवीचो पड्डो गुलाबी जातलो. तांणीं एकमेकाचो कीस घेतलो वो घट्ट वेंग बी मारली जाल्यार पड्डो तांबडोच जाल्लो दिसतलो. अशे तरेन तुमचे धुवेचें आनी जांवयाचें बरें चललां काय ना आनी तुमकां रोखडो नातू मेळटलो काय ना हाची म्हायती हें तंत्रगिन्यान दितलें.

घाणेकार खूश जावन टीवीचेर शितीद दवरून बसतालो. पूण सप्तक सरलें तरी त्या पड्ड्यार ताका कसलोच रंग झळकलो ना. नातवाच्या हुसक्यान घाणेकार खंती जालो. एक दीस ताका कसले तरी म्हत्वाच्या कामाक गोंया भायर वचचें पडलें. वचचे पयलीं ताणें आपले बायलेक टिवीचेर लक्ष दवरून वेगळो कसलो रंग दिसता काय कितें ताची नोंद दवरूंक सांगलें.

सप्तकभरान घाणेकार टुरा वयल्यान परतलो आनी ह्या दिसांनी टिवीचेर कसलो रंग दिसला काय कितें हाची उमळशिकेन खबर घेवंक लागलो.

''कितें सांगू तुमकां..! तुमी टुराक वचपाक भायर सरल्यात मात ,ते दिसाच्यान सकाळ म्हणूं नाका,दनपार म्हणूं नाका,सांज म्हणूं नाका टिवीचो पड्डो पयलीं गुलाबीच जावप, मागीर तांबडोच जावप आनी थोड्या वगतान बरोच वेळ इंद्रधोणू दिसूंक लागप आनी मागीर आसा तरसो काळोख जावप. म्हाकां मात खूब्ब मानवले हां ते रंग..''घाणेकाराचे बायलेन एक्सायट जावन ताका पुराय म्हायती दिली.



## फाटीक दोळे

वासंतीबायन घरांत नवी वावराडी दवरली. आदले परस ती खूब जुवान आशिल्ली आनी दिसपाकूय सुमाराची आशिल्ली. पूण तकलेन मातशी मठ्ठ आशिल्ली.

एक दीस वासंतीबाय न्हावन धुवन हारश्या मुखार उबी आशिल्ली तेन्ना वावराडी भितर सरली आनी वासंतीबायची फाट सकयल वयर नियाळूंक लागली. वासंतीबायन बरोच वेळ तें सोंसलें आनी तिडकून म्हळें,''कितें चल्लां गो बाय तुजें..?''

''तुजी फाट पळयतां..''नदरेन फाट सांसपप चालू दवरीत वावराडेन म्हळें.

''फाटीक कसली धाड मारल्या तर म्हजे?''

''पात्रांव काल म्हाकां म्हणटालो...''

''कितें म्हणटालो..?''

''ना.. तो म्हणटालो तें सारकें काय म्हूण हांव पळयतालें..''

''कितें म्हणटालो गो पात्रांव?'' वासंतीबाय शादूर जाली.

''ना.. तो म्हणटालो म्हजे बायले पासून सांबाळून गो बाय..! तिचे फाटीकूय दोळे आसात.!! ते खऱ्यानीच आसात काय ते पळयतालें.''

वावराडेन फाट पळोवपाचो वावर चालू दवरीत वासंतीबायक सांगलें.

# AN APPEAL




## GENERAL ELECTIONS TO ZILLA PANCHAYATS, 15TH MARCH, 2020




VOTE

IT'S YOUR RIGHT!

Issued in Pubic Interest

Office of State Election Commissioner, Altinho Panaji- Goa

शीर्शकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.



# कोंकणी राजभाशेच्यो भोयो भोयो सरकार म्हणटा ह्यो भानगडी कोणांक जायो?

गोंयांत राजभास कायदो पास जावन ३२ वर्सां सरलीं. १९८७ सालांत कोंकणी मोग्यांनी खर आंदोलन करून कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो मेळोवन घेतलो आनी कोंकणी राजभास जाल्याच्या जैताची खोस मनयली. आयजूय त्या आंदोलनाच्यो काणयो आनी गगना त्या काळार आंदोलनाचे फुडारी आशिल्ले ते आपल्या नातवांक सांगतात आनी आंदोलनांतले कार्यकर्ते आपल्या भुरग्यांक.

आंदोलनांतले फुडारी आपल्या आपल्या फुडारपणाच्यो म्हॉव्यो यादी जागयत दीस सारतात आसले तरी आपल्या कर्तुत्वाची सरकार फावो ती दखल घेना म्हणपाची याद जातकच राजभास कायद्याचें किर्ते जालें काय म्हणून सरकाराचेर पिरंगतात जाल्यार तांचे नातू आनी आंदोलनांतल्या वावुरप्यांचीं भुरगीं एकामेकाक फेसबूक आनी वॉट्सअॅपा सारख्या समाज माध्यमां वयल्यान ४ फेब्रुवारीक 'हॅपी राजभास दीस' म्हणत संदेश धाडटात.

आमचो राजभाशे कडलो संबंध हो इतलोच. आमची एक गोवा कोंकणी अकादेमी आसा. गोंय सरकारान कोंकणी कोंकणी म्हणपी कोंकणी वावुरप्यांच्या तोंडाक पानां पुसपा खातीर आनी कोंकणीच्या कांय फुडाऱ्यांक तांच्या वावराचें आल्वीस म्हूण पद मिरोवंक मेळचें म्हूण ती स्थापन केल्ली. ती बाबडी झरत मरत श्वास घेता आनी सरकारूय जो कोण आपले पांयां कडेन आपल्याक तिचो अध्यक्ष करात म्हूण येता ताची नेमणूक करून सोडटा. ती करचे आदीं ताचे कडल्यान कोंकणीचे उदरगतीचें कितलें काम जातलें तें पळयना जाल्यार ताचो आपल्या सरकाराक मतांचे नदरेन कितलो लाव जावं येता वो तो आपल्याक मारक जावंचो ना तें पळयता.

ही कोंकणी अकादेमी आपले परीन कार्य करपाचो यत्न करता खरी पूण तातूंतल्यान गोंयची राजभास कितली चालीक लागल्या आनी लागतली होय प्रस्न आसाच. गोंयचो राजभास कायदो लागू जायत साकून ही अकादेमी मात नेमान ४ फेब्रुवारी हो दीस राजभास दीस म्हूण मनयता. हो दीस मनोवपा पासतूच ही

अकादेमी स्थापन केल्ली काय किर्ते असोय एक दुबाव मारूं येता. चार बोडकांक जमोवन कांय पुस्तकांचें विमोचन करप आनी शिक्षणीक शिश्यवृत्ती आनी संशोधन वृत्तींचें वितरण केलें काय हो राजभास दीस सुवाळो उलगता.

हांगा हांवें चार बोडकां म्हणपा फाटलेंय कारण आसा. ताका एक इतिहासीक संदर्भ आसा. जेन्ना मराठी साहित्य संमेलनांत कोंकणी आंदोलकांक पळोवन 'हे इकरा जाण कोंकणी करतले?' अश्या आशयाचे उद्गार मराठीवाद्यांनी काडले उपरांत त्या इकरा जाणांचे कितले लाख जाले आनी तांणीं किर्ते इतिहास घडयलो ताची कल्पना जगाक आसा आनी १९८४ वर्सा त्या काळचे मुख्यमंत्री प्रतापसिंग राणे हांणीं कोंकणी आंदोलकांक उद्देश्यून चार बोडकां म्हणल्या उपरांत ( खरें म्हणल्यार तांणीं बोकडां म्हणिल्लें,पूण तें आतां आंगार शेकतलें हाची कल्पना आयले बराबर आपणें बोकडां न्हय तर बोडकां म्हणिल्लें अशी सारवा सारव करून फुडलें अरिश्ट टाळिल्लें.) किर्तेंय जावं त्या चार बोडकांचे फुडाराक कितले कोंकणी झुंजारी जाले ही घडणूक कोण अजून विसरूंक नात. ह्योच गजाली याद दवरून आतां हांवें इतिहासाची पुनुरावृत्ती जावंची ह्या हेतान फाटल्याच अपमानास्पद विधानांची याद केली जाल्यार कोण कोणाक सुळार चडोवपाचो ना. तशी कोणाची तयारीय आयज ना. म्हणटकच इकरा जाण म्हणात वो चार बोडकां म्हणात कोणाचें रगत सळसळटलें म्हणपाचें खरेंपण ना. कित्याक आयज गाजर खावन सुस्तावल्ल्या सोंश्या भाशेन कोंकणी चळवळींतले सगळे वावुरपी सुस्तावल्यात आनी सरकाराक तांची मात लेगीत भिरांत उरूंक ना. जर आमचो सरकार राजभास कायदो करूनय तो चालीक लायना, जाल्यार समजुपाचें तो कायदो सरकारान आपले इत्सेन करूंक ना तर कोणाच्या तरी दबावान तो करूंक भाग पाडलां. असो दबावा खाला जेन्ना खंयचेंय सरकार कायदो करता तेन्ना तो चलणुकेक लागपा खातीर हो दबाव सतत तितल्याच दाबान उरूंक जाय. ताचो दाब देंवलो काय सरकार त्या कायद्या कडेन आडनदर करता. खंयचोच दाब तेच तांकीन केन्नाच एकसारको उरना. तो वेगवेगळ्या कारणांक लागून उणो जायत वता आनी असो दाब उणो जालो काय मागीर सरकाराचें फावता. ते पासत कसल्याच दाबा बगर, जनतेच्या भल्याचे नदरेन खंयचेंय सरकार आपखोशयेन जर खंयचेय कायदे तयार करीत जाल्यारूच ते चालीक लागतात. ते चालीक लायात म्हणपाचें खंयच्याच सरकाराक सांगचें पडना.

गोंयांत राजभाशेचो कायदो अस्तित्वांत आयलो तो खंयच्या सरकाराक जाय म्हणून न्हय तर लोकांच्या दबावाक बळी पडून त्या काळच्या सरकाराक तो तयार करचो पडलो. जर त्या काळार कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटना तयार जावन गोंयचे सगळ्या जाती धर्माचे कोंकणी लोक हे संघटनेच्या बॅनरा खाल एकवटूंक नाशिल्ले आनी आपली शक्त दाखोवंक यशस्वी जावंक नाशिल्ले जाल्यार सरकार असलो कायदो करपाचे भानगडीक पडचेंच नाशिल्लें. म्हणटकच हो जो कायदो सरकारान केलो तो ते काळार कोंकणीच्या नांवान एक शक्ती निर्माण जाल्ली आनी ते शक्तीन आपल्या दाबान सरकाराक भंय घाल्लो देखून त्या सरकारान राजभास कायदो केलो आनी उपरांत कालांतरान ही एकठांय आयिल्ली शक्त कमी जायत गेल्यान सरकाराचो भंय गेलो आनी सरकार



आपणे राजभाशेचो कायदो केल्लो म्हणपाचें विसरून गेलें. जर तशें घडूंक फाव नाशिल्लें जाल्यार कोंकणी प्रजेच्या आवाजा सारखे संघटनेन` खंयचेंय सरकार आयलें तरी हुमकळटे तरसादी वरीं हो दाब त्या सरकाराचेर सासणाचो उरतलो वो वेंचणुकेच्या मळार देवून आपले संघटनेचें सरकार सदरेर येतलें हाची वेवस्था लावंक जाय आशिल्ली. पूण ही संघटना म्हळ्यार उत्सवाक उपकारता तसलो वारो भरून फुगयल्लो बोमाडो जाल्ल्यान तो एक दीस फुटपाचो वो ताचो वारो वचपाचोच आशिल्लो. आनी तशेंच घडलें. राजभास मान्यतायेचो उत्सव जालो. पूण ताचें फळ कितें?

ह्या म्हयन्याचे ४ तारखेक राजभास कायदो जावन ३३वें वरस लागता. बारीकसाणेन नियाळ करीत जाल्यार ह्या तीन दसकांत हो राजभास कायदो जावन कसलोच लाव जाल्लो दिसना. कित्याक, तो चालीक लावपा खातीर जी वान्सा जाय आशिल्ली ती खंयच्याच सरकारा मदीं ना आनी भंय दाखोवन तो चालीक लावन येतले म्हळ्यार तशी शक्त आज कोंकणी मळार अस्तित्वांत ना. ताका लागून सरकार आयज सगळ्यांक भिसक्यार मारता आनी दर एकले संघटणेक वो फुडाऱ्याक आपली शक्त खबर आशिल्ल्यान फकत डरकाळ्यो फोडून आपलें अस्तित्व दाखोवपा बगर तांचे मुखार दुसरो पर्याय ना. तांच्यो ह्यो डरकाळ्यो म्हळ्यार आमी अजून बाणीर बोट दवरून आसात आं इतलेंच दाखोवन दिवपा पासत. तांकांय खबर आसा आपले फाटल्यान तशी शक्त ना आनी उलो मारल्यार आदलीं वरीं भुर्रर करून येवपी भुरावळूय ना. हीच गजाल सरकारूय बेस बरी जाणां. म्हणटकच आयज राजभाशेच्या नांवान पिरंगपा बगर आनीक कसलोच दुसरो पर्याय गोंयकारां मुखार उरूंक ना. जर राजभास कायदो चालीक लाय नासतना कोणाचें कांयच अडना, सगळें ज्युरस्ताज्युस्त चलता जाल्यार आयच्या भोगवादी युगांत सरकारा कडेन कोण वायटण येतलो? बरें,जर येवपाचें थारायलेंच जाल्यारूय आपले वटेन कोट करून उबो आसूंक जाय असो विरोधी पक्ष तरी गोंयांत खंय आसा? त्या पक्षांतल्या भोवतेक आमदारांक तांकां जाय ती खावड घालून आयच्या सत्ताधारी पक्षान तांच्या गळ्यांत दावें घालून आपले गोठ्यांत व्हरून बांदल्यात. म्हणटकच हे फुडें राजभास कायदो जावं वो गोंयचे अस्मितायेचे नदरेन कांय लोकांक गरजेचो दिसपी आनीक खंयचोय कायदो वा येवजण जावं ती चालीक लागप शक्य ना.

आतां कोणाकूय दिसत,हो निराशावादाचो बिबो झरयत रावला. पूण तें सत न्हय. निराशावादाचे प्रसंग म्हजेर खूब आयल्यात, ना अशे न्हय. हांव फाटलीं १८ वर्सां ८० पानांचें एक मासिक सातत्यान चलयतां. ह्या वावरांत निराशाच निराशा भरल्या. तरी कोंकणीचें एक मासिक चलूंकच जाय म्हूण जिद्दीन हांव तड मारतां. जर राजभास कायदो चालीक लागिल्लो जाल्यार आयज म्हाकां राजभाशेंतलें एक मासिक चलोवंक आर्थिक नदरेन जी ओढाताण सोंसची पडटा ती पडची नाशिल्ली. म्हणटकच राजभाशेची कळकळ म्हाकांच चड आसा. पूण तें एक सपन.सत्यसृश्टींत येवंक शकना असलें. ताका तशीं कारणांय आसात.

आतां हीं कारणां कसलीं? आमी गोंयची भास कोंकणी मानतात. ती सगळ्या गोंयकारांची भास हें सत्य आसुनय आमकां ती मानची पडटा. कोंकणी भास नकळो तो गोंयकार न्हय हें सादें समिकरण. जर १९४७ सालांत भारता वांगडा हेर राज्यां वरीं गोंय स्वतंत्र जाल्लें जाल्यार भाशावार प्रांत रचना जावपा वेळार कोंकणी भाशेच्या मालवजार कोंकणी राज्य जावं येतालें. पूण तें गोंयच्या नशिबांत नाशिल्लें. मागीर १४ वर्सां उपरांत गोंय मेकळें जालें तेन्ना भाशेचें म्हत्व, अस्मितायेचें रक्षण आनी गरज तशेंच आपलें नीज आनी स्वाभिमान हाचे विशीं थोडी भोव जाणवाय आशिल्लो खंभीर मुख्यमंत्री गोंयांक जर लाबिल्लो जाल्यार गोंय तेन्नाय एक कोंकणी राज्य जावं येतालें. बांदोडकार खंभीर आशिल्लो खरो पूण ताका आपली अशी मत नाशिल्ली. ती जर आशिल्ली आनी गोंयच्या जाणकारांचें आयकून गोंय हें फकत कोंकणी, सगळयांलीं भुरगीं कोंकणींतल्यानूच शिकतलीं, दुसरी शाळा हांगा नासतली अशें जर धोरण ते वेळार आपणायल्लें जाल्यार भाऊ सांगता जाल्यार तें खरें अशें मानून भोवजन समाज कोंकणी शिकतलो आशिल्लोच आनी क्रिस्तांव समाजाकूय दुसरो पर्याय उरचो नाशिल्लो. ते काळार म्हजे वांगडा खूबशे क्रिस्तांव भुरगे दुसरो पर्याय ना म्हूण चोवथी मेरेन मराठी शिकल्यात आनी ते भारतीय भाशेंतल्यान शिकिल्ल्यान सुसंस्कृत नागरीक जावंक पावल्यात. जर तांकां कोंकणी दिल्ली जाल्यार आयज गोंयांत मराठीवाद नासपाचो, रोमीवाद नासपाचो

वो धर्मवाद. राजभाशे पासत चळवळ करपाची कोणाक गरजूच पडची नाशिल्ली जशी भारतांतल्या हेर राज्यांक करची पडली ना. हेय नदरेन गोंय नशिब फुटकेंच थारलें.

तरी लेगीत काळाची गती वळखून आनी शिक्षणाच्या मालवजार येतिल्ल्या गिन्यानाक जागून आपलें गोंय घडोवं येतालें. साडे चारशीं वर्सां पुर्तुगेजान किर्ते केलें तें मोखून मारून ***फाटलें विसरुया आमचें राज हाडुया*** हें घोषवाक्य घेवन मुखार वचूं येतालें. पूण ह्या माणकुल्या गोंयांत कितलींच जुंवी जालीं. कोंकणी- मराठीचीं दोन जुवीं. कोंकणी भितर हिंदू, क्रिस्तांव, रोमी, नागरी आनी इंग्लेज अशीं पांच जुवीं. तरी गोंय महाराष्ट्रांत वतलें हे भिरांतेन कोंकणींतलीं हीं पांचूय जुंवीं हाताचीं पांच बोटां कशीं एक संघ रावलीं आनी ताची मूठ जावंक पावली. पूण ती भिरांत सरले बराबर परत आपल्या कोषांत मुंगरलीं. आज तर तीं इतलीं त्या कोषांत आंवळून बसल्यांत तांकां परत भायर काडप शक्य ना.

कित्याक शक्य ना? देवनागरी हिन्दू जुंवो स्वांत सुखाय..प्रत्येक जाण फुडारी. आपले चार पांच अनुयायी घेवन. प्रत्येक जाण एक पुस्तक आयलां देखून नामनेचो साहित्यिक, तो विद्वान जाल्ल्यान कोणाच्या गिन्यानाची ताका पर्वा ना आनी गरजूय ना. आमची पिळगी तरी अजून जाण्टेली पिळगी दिसत जाल्यार शेर्व रावतात. एका काळार तांचे फाटल्यान तांणीं येयात म्हणले बराबर आमी गेल्ले आसात. खंय, कित्याक हे प्रस्न नासताले. तेच पासत पुंडलीक नायकाक कोंकणी प्रजेचो आवाजाचो निमंत्रक केलो तेन्ना कोणूच ताच्या उतरा भायर गेलो ना. आयज ती परिस्थिती ना. दरेक व्हड फुडारी. कित्याक तो खंयच्या तरी चॅनलाचेर दिसला वो खंयच्या आमदार-मंत्र्यान ताचे खांदार हात घाल्लो आसता. तीच गत रोमी जुंव्याची. नागरी जुंव्यार कोंकणी अकादेमी तशी रोमी जुंव्यार दाल्गाद आनी तियात्र अकादमी. सगळ्यांक वांटून घालां. इंग्लेज जुंवो तर ह्या गोंयाक वळखच ना आनी ताका गोंयचें कांय पडूनय गेल्लें ना. ह्या जुंव्यां वयले सगळेच लोक व्हड, म्हणटकच सगळेच फुडारी आनी राजकारण्यांचे अनुयायी. सरकाराक वो आमदाराक वायट दिसत म्हूण तोंडार बोट. म्हणटकच हे परिस्थितींत राजभास चालीक लायात ना तर तुका दाखयतां म्हणपाक तसो कोणूच ना. ही जी अवस्था आसा ती केन्ना तरी बदलतली म्हणपाची आस्त पयस पयस मेरेन दिश्टी पडना. ताका तसो कांय उपायूय ना. तेच पासत एक वितरागणी येता. कांयच घडचें ना हें खबर आसुनय गुरुनाथ केळेकार, नागेश करमली हांचे सारखे सुटके झुंजारी चिटमिटटात. हेच पासत गोंय मुक्त केलें आमी? काय म्हूण प्रस्न करतात. उदयबाब बी संद मेळटा तेन्ना राजभास कायद्याची याद करतात. अरविंद भाटीकारबाबूय सुभाष वेलिंगकारा वांगडा सभा घेवन आपलो जीव खेळयता. हातूंतल्यान कांयच निष्पन्न जावपाची शक्यताय ना हें प्रत्येकाक खबर आसा. काळ आतां फाटले विचारसरणेचो उरूंक ना. नवी पिळगी त्यागी उरूंक ना भोगी जाल्या. तशें नाशिल्लें जाल्यार २५ व्या गोवा युवा महोत्सवाक हजारांनी कोंकणी तरनाट्यां मुखार गोंयचे मुख्यमंत्री राजभाशेक योग्य न्याय दितले, कोंकणीच्या वापराचेर भर दितले अशी घोशणां करतात तेन्ना तें खंयचे काळार घडटलें तें सांगात अशें विचारपाचें धाडस हे पिळगेक ना. कित्याक ती पिळगी भोगी, त्यागी न्हय. तशी आशिल्ली जाल्यार मुख्यमंत्री त्या रसरशीत इंगळ्यां मुखार असलें आश्वासन दितनां हजार खेप विचार करपाचो. पूण ताकाय हे युवा म्हळ्यार किर्ते तें खबर आसा आनी आपणें आश्वासन दिलां तें फकत त्या प्रसंगार टाळयो घेवपा पासत आनी खबरांपत्रांक सात कॉलम माथाळो दिवपा पासत हेंय खबर आसा. राजभास कायदो चालीक लावप कोणाच्याच हातांत ना हें ताका खबर



आसा.

तरीपूण तो चालीक लावप शक्य आसा.प्रमोद सावंत तो चालीक लावंक शकता. टॅक्सीवाल्यांचो बोवाळ चलतालो तेन्ना तांच्या आडमुठेपणाक तार्णे खंभीरपणान फुडो केलो तसो राजभास कायदो चालीक लावपाक तार्णे खंभीर रावचें पडटलें. ते पासत ताका आस्मिताय, संस्कृताय, आवयभाशेंतल्यान शिक्षण, राजकारभारांत कोंकणी, तातूंतल्यान गोंयचो फुडार, कोंकणीच भायल्यान येवपी परप्रांतीयांचो जथो कसो आडावंक शकता, आवयभाशेंतल्यान आनी नागरी लिपींतल्यान मनीस गिन्यानी आनी शिक्षीत कसो जावं येता हें सगळें तार्णे पयलीं समजून घेवपाची गरज आसा. ताका पयलीं संस्कृती म्हळ्यार कितें हें समजून घेवचें पडटलें. प्रमोद सावंत हाची आपली म्हूण एक संस्कृताय आसा. ताका लागून ताचे अस्मितायेची वळख घडटा. तशीच राज्याची म्हूण एक संस्कृताय आसता. तिकाच लागून त्या राज्याची अस्मिताय घडटा. ही संस्कृताय तयार करूंक कश्ट काडचे पडटात. ताच्या राज्याच्या कला आनी संस्कृती खात्याकूच कला आनी संस्कृती कितें म्हणटात तें खबर ना. व्याकरण खबर नाशिल्ले कर्मचारी इंग्लीशींत पत्र बरोवंक जमना, टीपणी करूंक कळना म्हूण आदल्यांनी कशें बरयलां तें पळोवन मागीरूच ताची कॉपी करतात. सगळ्याच खात्यांनी तें चल्लां. तुमकां कितें काम तें समजलां न्हय, मागीर कोंकणींत तशें बरयात अशें तांकां सांगून मुख्यमंत्र्यान तें मानून घेवपाक जाय. इंग्लीश खबर नाशिल्ल्यान फकत पोटा खातीर नोकरेक आयिल्ल्या ह्या कर्मचाऱ्यांचेर मानसीक अत्त्याचार चलला. बरोवं दी तांकां तांचे भाशेंत येता तें .नागरी कळना तांकां बरोवंदी रोमी लिपयेंत. तांची भिरांत वतली. पूण आमी परंपरेचे गुलाम. कशी लागतली राजभास चालीक? पोट भरूंक हांगा हेर राज्यांतले अधिकारी आयल्यात ते अशें करूंक दितले? दौलतराव हवालदारा सारके सुसंस्कृत अधिकारी दुर्मीळूच आसतात. हेर जे आयल्यात ते गोंयकारांक गुलाम करूंक. तांचेर प्रमोद सावंतान अंकूश दवरपाक जाय. तांकां हांगची भास कळूंक जाय म्हणपाची सक्ती करूंक जाय. पूण घडटा उरफाटें, गोंयकारांकूच नोकरे पासत इंग्लीश जाय म्हूण सक्ती जाता. कसलें हें खच्चीकरण? कशी लागतली राजभास चालीक?

प्रमोद सावंताकडेन हें काम जावं येता. कित्याक ताचें सरकार भोवमताचें. तशी वेवस्ता तार्णे करून घेतल्या गोंय घडोवपा पासत. केंद्रांत मोदी आनी शहाचें सरकार आसा. पूर्ण भोवमतांचें सरकार. कसलोय निर्णय घेतना फाटीं फुडें पळोवपाची गरज ना. विरोध करपाक तसो कोणूच ना. अशक्यांतलो अशक्य निर्णय घेवन तो पुर्णतायेक व्हरपाची कापाजदाद मोदी आनी शहा कंपनीक आसा. तांचोच प्रमोद सावंत चेलो. तेच मुशींतल्यान तो घडला. म्हणटकच सर्वार्थान राजभास चालीक लावपाक ताका कसलीच आडखळ ना. जे कोण ताका आडखळ हाडटात तांकां जाग्यार घालप कशें हाचें शास्त्रशुध्द शिक्षण ताका आसा. म्हणटकच युवा महोत्सवांतल्या माटवांत जें आश्वासन तार्णे गोंयचे तरुणाईक दिलां म्हणचेच फुडाराच्या गोंयकारांक दिलां तें तार्णे बेगोबेग पुराय करपाची गरज आसा. कित्याक हो गोंयच्या अस्मितायेचो, गोंयचे संस्कृतायेचो, गोंयकारपणाचो प्रस्न आसा. तशें जर घडूंक पावलें जाल्यार एका फातरान खूबशे प्रस्न सुटावे जातले. गोंयची अस्मिताय आनी संस्कृताय निश्चित जातली. गोंयांत येवपी परप्रांतियांचे जथे थारतले जाका लागून गोंयचें सामाजीक प्रदुशण थांबतलें. गोंयकारांचे नोकरेचो प्रस्न सुटावो जातलो. कोंकणी जाणां ताकाच नोकरी मेळटली. गोंयकारांक इंग्लीशींतल्यान जी सर्कस करची पडटा आनी न्युनगंडाक फुडो करून मानसीक त्रास भोगचे पडटात तातूंतल्यान मुक्ती मेळटली आनी एक राज्य चलोवप न्हय तर तें घडोवपाक आपणें योगदान दिलें म्हणपाचें समाधान प्रमोद सावंताक मेळटलें. राज्याक एक वेगळी दिका दिवपी मुख्यमंत्री म्हूण ताचे कडेन लोक पळयतले. इतलेंच न्हय, ताच्या पक्षांतल्या आमदारांक कोणें पुर्तुगेज म्हणपाची पाळी कोणाचेर येवंची ना. कित्याक तांकां भारतीय संस्कृताय कळूंक पावतली ती फकत कोंकणी राजभास कायदो चालीक लायलो जाल्यारूच. जाय ती फक्त इत्सा. सगळें आपशींच जाग्यार पडटलें.आसा न्हय ही ताकत आमच्या मुख्यमंत्र्याक? काय कोणेंय आमची शेणोवन बशिल्ले संस्कृतायेक पळोवन गोंदळून वचून पुर्तुगेज म्हणलें जाल्यार तांकां आपल्या बंगल्यार हाडून माफी मागूंक लायतले? विचार करपाचो वेळ आयला.



कथा



आशा शानभाग



# शुट आवट

**आशा शानभाग** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना बरोवपी एक लेखिका म्हूण. तांणीं कोंकणी कथा आनी ललित साहित्य हातूंत आपली अशी खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचो 'कोऽहंऽऽ' हो कथासंग्रह ताची गवाय आसा.'बिम्ब' पुरस्कारान भोवमानीत ही लेखिका आपले कथेंतल्यान वाचप्यांक शॉक ट्रिटमेंट दिता.

*तृप्त कुडीन.. माधवीन दोळे धांपून घेतले. सूख... सूख... आंगार येवपी सूख अणभवतनांच माधवीक सत्य उमगलें. मेंदवाक जाग आयली... काळजांतल्यान रगताचो सुरळीत पुरवठो जावंक लागिल्लो मेंदू पुराय जागो जालो. कितें घडलें हें माधवीक जाणवलें... आपले कडच्यान कितें घडलें तें आपले आनी साहिलाचे उगडे कुडीचेर नदर पडतगीर समजलें.*

''**शो**नाऽऽऽ..., आई-बाबा सोडून हेर कोर्णेय तुज्या प्रायव्हेट पार्टसांक टच करप म्हळयार बॅड टच. जावं ती बायल वा दादलो.''

''आई.. पूण दोतोरमामा? तो टच करताच न्हय?'' धा-अकरा वर्सांचे आपले धुवेक... जें मानसीक आनी शारिरीक बदलांक तोंड दिवपाचे शिमेर पाविल्लें.. ताका माधवी समजायतालें. गूड टच आनी बॅड टच वाडत्या वा सान चलयांक समजावप ही आयच्या जमान्यांतल्या आवयांच्या पयलींच जड जाल्ल्या खांद्या वयली नवी जबाबदारी.

''शोनु, दोतोरमामा वायट टच करिना. तो स्टेथेस्कोपान हार्टबिट्स बी आयकता.''

''हय गे आई. पूण बाबा दादलो न्हय?''

''बाबा बॅड टच करतलो?''

''च्यॅ.. ना.. नाच्च.. म्हजो बाबा तो.''माधवीचें शोना धांवत वचून विशालाच्या.. आपल्या बाबाच्या गळ्यांत पडलें.

''लव्ह यू बाबा.''

''लव्ह यू चिऊ.. माय चिऊ..''

विशालाच्या गळ्यांत क्रॉस शोल्डर पर्स कशें लोंबकळपी, ''बाबा, तो म्हजो अपुरबायेचो.'' करपी आपले धुवेक पळोवपी, तोखेवपी माधवी वर्तमानकाळांत आयलें.

''बाबा आनी धूव... बी रेडी... इट्स ऑफीस ॲन्ड स्कूल टायम नांव.''

''जो हुक्म हमारे आका.''

बापूय आनी धूव त्या जिनाभशेन भेंड बागोवन, किटकिटत भायर सरलीं.

''बाय आई.''

''बाय जानु.''

दोगांयकय हात दाखोवन माधवी भितर सरलें.

सुशेगाद च्या-नाश्तो मुखार दवरून टिव्ही लायल्यार, दिल्ली, आंध्रप्रदेश, ऊत्तरप्रदेश सगळेकडेन बलात्कार. सान, व्हड, जाण्टीं कांयच ना. फक्त दरेका बायलजाती मदली मादीच दिसताली आनी कच्चकन पायांत कांटो तोपिल्ले भशेन जिर्णेतली एकमेव 'ती' दुख्खदेणी घडणूक मना-काळजांतल्यान कुसकुसत, काळीज तुटयत भरसकन्न वयर सरली. च्याय नाका आनी नाश्तोय नाका जालो ताका.

सातरंगी कॉलेज लायफ अणभवपी टॉमबॉईश माधवी... आवयबापायची एकटी-एकसुरी चली. पर्सभर पयशे येवन फिरपी..

पप्पाचो बिजनेस आनी मम्मी आपलें मंडळ, फ्रेंड्स आनी पार्टी हातूंतच गुल्ल. मानसी केन्ना व्हड जालें हें लेगीत मम्मीक कळलें ना. खबर लेगीत ना. मानसीक, शारिरीक बदलांनी घुसमटपी माधवी ते वेळार आधार, आपलेंपण सोदतालें. आवय-बापूय हांचे कडल्यान फक्त पयशे दिवपा-घेवपा पुरते संबंद जाल्ल्यान विश्वासाचीं थारलीं फ्रेंड्स. फुलपांखे दीस. दिसपाक क्यूट, अल्ट्रामॉडर्न फ्रेंड्स. म्हणटगीर आवटींग, शॉपींग आनी हॉटेलींग चालू. चलयो-चले असो ग्रूप जालो. तातूंतय कांय कपल्सय जालीं.

मदींच कोणांकतरी नाव्ट आवट येवजलो. 'हेऽऽ' करून सगळ्यांनी हयकार दिलो. शेनवार आनी आयतार दोन दिसांचो बेत थारलो. मोर्ले? चोर्ला? बेळगांव? दांडेली? 'ना.. नाका.' करत दांडेली फायनल जालें. 'गर्ल्स सेपरेट कॉटेजींनी आनी बॉय्ज सेपरेट.'

''नो कपल्स इन वन कॉटेज.''

''नो ड्रींक्स नो स्मोकींग.''

अशे रूल्स थारून डेट फिक्स जाली. ४-५ गाड्यो ग्रुपांतल्यांच्योच घेवन वचपाचें थारून कॉटेजीस ऑनलायन बुकय जाल्यो. सगल्यांच्या घरच्यांनी भरपूर पयशां सयत परमिशन्सय दिलीं. सहज. कारण सगळे पॅरेंट्स पार्टीज, बिजनेस मिटींग्स हातूंत बिजी आनी भुरग्यांक भरपूर पयशे दिले की जालें पॅरेंटींग हें मानपी आनी तशेंच वागपी.

शेनवारा सकाळीं चार गाड्यो... सोळा भुरगीं... सक्काळीं स वरांचेर गाड्यो सुटल्यो. जरट ९८ टू १०० किमी ट्रॅव्हलींग आनी दांडेली टच. मदीं नाश्तो, फोटो शूट करून... तावलां बावलां करीत फकत साडेतीन वरां भितर दांडेली. कॉटेजींनी आपापल्यो बॅगपॅक्स शेवटांवन सगळ्यांनी वॉटर स्पोर्टस. ॲडव्हेंचरस स्पोर्ट्स ॲंजॉय करपाचें थारायलें. वर-देडवराचे वॉटर-स्पोर्ट्स ॲंजॉय करून आयिल्ल्या पंगडांतली कपडे बदलून ॲडव्हेंचर करपाक गेलीं. ॲडव्हेंचर्सवाले सगळे वॉटर स्पोर्टसाक गेले. दनपरां जेवण जाले उपरांत सांजेचें माधवी, रिया आनी साहील ह्या पंगडान परतून वॉटर स्पोर्टसाक वचपाचें थारायलें. जाल्यार हेर सगळीं रेस्ट घेवन दांडेली बाजारांत वचपाक गेलीं.

इतल्यांत एक भुरगो धांवत आयलो आनी कारवारी हेलांत माधवीक सांगपाक लागलो, ''डॅमाचें उदक आत्तांच सोडलांवेऽऽ न्हंयमदीं वॉटर स्पोर्टसाक आत्तां वचका.''

''ओके फायन'' म्हणून ह्या तिगांयचो पंगड बाकी पंगडाक 'बाय' करून गेलो. पेंवपाक एक्सपर्ट माधवी चिप्प भिजिल्लें तरी पेंवपाचे संवयेच्या परिणामान ताका मात लेगीत शीं खांय नाशिलें. पूण नाजूक जाय-जूय आशिल्लें रिया भिजले उप्रांत अक्षरशा कडकडटालें. वॉटर स्पोर्ट्स सोपोवन रुमार येतकीच रियाची ही दशा पळोवन साहीलान कॉटेजी कडेन आशिल्ल्या तांच्याच रेस्टोरेंटांत तीन चिकन मांचाव सूप ऑर्डर केले. ''पंद्रा मिन्टांनी हांगा आमचे कॉटेजी कडेन धाड... भायरच बसतात आमी.'' तिगांय आपापले कॉटेजींत वचून गरम गरम... सोलर हिटरा वयलें उदक न्हावन, कपडे चेंज करून भायर आयलीं.

साहील कॉटेजी भायर घाल्ल्या चुडटांच्या माटवांत टेबलार बशिल्लो. हांसपा सारकी गजाल. रिया कुडकुडत हांसलें जाल्यार माधवी स्पश्टपणान... कारण सूप बाव्ल च्याचे किटलेक घालपा सारक्या टिकोपीन धांपिल्लें.

''ओय... हांसू नाकात... टिकोपी घाल्ल्यान सूप गरम गरम उरतलें. येयात.'' साहीलान एक एक बाव्ल रिया, माधवी सामकार सरकायलो. रियान पयलीं गरम बाव्ला भोंवतणीं तळहात गुठलावन ऊबेचें सूख घेतलें. कुलेरभर गरम सूप ताळ्यांतल्यान पोटांत देंवतना दोगांयनी साहिलाक 'थॅंक्स रे' म्हळें.

''रिया लोक ह्या टायमार च्या पितात... आमी सूप.. आनी आमचो बाकी ग्रूप दांडेलीचो बाजार फिरतात.''

''माधवी, चल या गो कॉटेजींत. मात्शीं लवंड्या. मागीर सगळें भिरें येतलें. रातचे वाय, कोले फिरतात ते पळोवंक वचपाक जाय.''

कॉटेजीचें दार बंद करतनाच साहिलाचो उलो कानार पडलो, ''माधवी.. कसलीय गरज पडल्यार हांव हो पळय आसां गो हांगाच... म्हजे कॉटेजींत.''

कॉटेजीचें दार काडून बॅडीर पडिल्लें रिया कांय खिणां भितर तें सुरा-तालांत घोरेवपाक लागलें. माधवीक्य पुरो जालें... पूण न्हीद येनाशिल्ली. बेठेंच तें रिया म्हन्यांत आड पडलें. अचकीत ताचे कुडींत ज्वालामुखी पेटिल्लेवरी जावंक लागलें. लाव्हा भितरले भितर खतखतता अशें दिसलें ताका... कितें जाता हेंच कळना जालें. कूड कितें तरी वेगळेंच मागताली. मेंदवाचो कुडीवेलो कंट्रोल कमी जायत वतालो. सगळें रक्त काळजांतल्यान पायां कडेनच व्हांवतालें. माधवीक जाणवली ही कुडीची भूक. सदचे उपाय करून कूड शांत करपाचे ताचे यत्न असफळ थारले. कुडीचे मागणेन माधवी पेटलें. आंगांतल्या गरम सळसळत्या रगताक येवजलो, याद जालो साहील. कॉटेजीच्या दाराक भायल्यान कुलूप लावन तें भायर सरलें. भायर व्हरांड्याचेर बशिल्ल्या साहिलाक ताणें धुकलून म्हळे भशेन ताचे कॉटेजींत व्हेलो आनी साहिलान ताची कूड शांत केली.

तृप्त कुडीन.. माधवीन दोळे धांपून घेतले. सूख... सूख... आंगार येवपी सूख अणभवतनांच माधवीक सत्य उमगलें. मेंदवाक जाग आयली... काळजांतल्यान रगताचो सुरळीत पुरवंठो जावंक लागिल्लो मेंदू पुराय जागो जालो. कितें घडलें हें माधवीक जाणवलें... आपले कडच्यान कितें घडलें तें आपले आनी साहिलाचे उगडे कुडीचेर नदर पडतगीर समजलें. रडपाची वेळ... पूण ताणें धिरान घेतलें. कुडीक आयिल्ली फ्राकेज..



गळसणून गेल्ली कूड.. हांची सांगड घालपी मेंदवांत जोगूल कशें चिकचिकलें... साहिलान सुपांतल्यान किर्देयतरी मे... बी व्हायग्रा...?? बाबा रे.. देवा??

बेगोबेग आंगार कपडे उडोवन ताणें गाढ न्हिदिल्ल्या साहिलाचो मोबायल चेक केलो. व्हिडियो? ना. फोटो? ना. फुडें कितेंय परिणाम जायत हो हुस्को. ताणें साहिलाक उठयलो.

''साहील.. किदें घडलें रे हें?''

''आगो, तुवें म्हजो जीव खालो सामको. बुड्डून काडलो पळय म्हाकां.''

फाटीर, पोटार लागिल्ल्या नाखटांच्यो कुरवो तो दाखयतालो. माधवी ताचे कडल्यान वेगळेंच आयकूंक आशेल्लें.

''साहील, फुडें किर्ते जातलें?''

''तेंऽऽ गो? डोंट वरी.'' आनी ताणें सायडीक उडयिल्ल्या कंडोमा कडेन बोट केलें.

''तुजे बुडडोणेंतल्यान कशेबशे हें तरी..''

लज लज दिसली माधवीक आपल्या कर्तुबाची. तरी सूऽऽ जालें ताका साहीलाच्या ह्या कर्तुबान तरी. तरीपूण नशेच्या अंमलांतल्यान भायर सरपी मेंदू... दुखिल्लें मन... सुखाविल्ली तरी फटींगपणान दुखाविल्ली कूड घेवन माधवी सुडान पेटलें.

शांत चित्तान... थीर बुद्धीन कांयच न घडिल्लेवरी माधवी हेरां कडेन सदचे भशेन वागून सगळीं गोंयां आयलीं. एके वटेन भावल्यान हांसकुरें दिसपी माधवी म्हवनो वेतासर दुबावितच उरलें. आनी म्हवनो आयलो आनी तें सुटलें. धापिल्ली मूठ सवाय लाखांची न्हय तर करोडांची हें जाणतलें माधवी साहीला कडेनूय सहज वागतालें. रुटीन कॉलेज लायफय सुरू जालें. पूण एकवेळ आपटल्लें माधवी सादूर जालें. आतां पुराय हुसक्या मेकळें जाल्ल्यान ताणें फुडले वेवजणेचेर काम सुरू केलें. सिक्रेट प्लॅन.. दोन वर्सां सावन बाजारांत एके कडेक बसून झाडपाल्याचें वखद.. पिठो... तेलां विकपी पुर्वोत्तरी जाणट्या बापूकडेन भासाभास... माध्याक कांकण म्हणून गोंयभर फामाद सुकण्याचीं पिसां आनी गळ्यांत कवड्यांची (दर्यांतल्यो घुलो) माळ घालपी बापून दिल्ले खळ... खटयाक वखदी गिन्यान... ह्या गिन्यानाचेर तर माधवीचो फुडलो प्लॅन... फुडल्यो स्टेजी थारल्यो.

स्टेप वन.. साहिला कडेन लागचार वाडयलो. साहिलाचो आपले मर्दानगीचेर.. ते दिसाच्या दांडेलिंतल्या परफॉर्मन्साचेर विस्वास वाडलो. फुडें मेळपी चान्सांचे आशेन तोवूय भुल्लुसलो. कॉलेज कॅन्टीनांत दोगांय जोडयेन... बॅडमिंटन दोगांय पार्टनर.. तोंडभर हांसून ताचे कडेन माधवी पतंगाक ताण आनी ढील दिवपाचो खेळ खेळटालें. साहिलाचो पतंग वयर-वयर वतालो. पिक्चराक वचप.. शॉपिंगाक वचप करपी माधवीन एक दीस डायरेक्ट साहिलाक नायट आवटाचें आमंत्रण दिलें. ''ओऽऽयेरस''म्हणून साहिलान उमेदीन हयकार दिलो आनी 'ओ येरस' करून माधवीन 'ऊंट का पहाड के निचे आना' फिक्स जाल्ल्याची खोशी उक्तायली.

'डेस्टिनेशन मालवण'... शेनवारची सांज.. ढलती शाम...मस्त एंटरटेनमेंट की रात.. सराईतपणान गाडी चलोवपी माधवी कडेन पळयतना साहिलाचें स्वप्नरंजन चलिल्लें. तिनसांज मेरेन मालवण टच.. कॉटेज ऑलरेडी बुक्ड... कॉटेजींत वतगीर माधवीन म्हळें, ''ए.. चल रे साहिल फिरून येवया.''

''आतां फिरप? लेट्स एँजॉय मगो.''

''ए.. बाप्पा.. आतांच? अख्खी रात आसा.. फाल्यां सांज मेरेन आमींच आसात हांगा. चल.''

''खंय वचुंया? बाजारांत?''

''हय रे.. चल.''

''ए, डायरेक्ट फार्मासींत वचुंया पयलीं.''

''व्हाय? हांवें हाडला सगळो स्टफ.''

''ओ.. नायस गर्ल.. पूण स्टफ कसलो गो?'' मुमुरखो हांसत साहिलान विचारलें.

आंगठो तोंडाक लावन माधवीन सांगलें, ''हो आनी तोवूय.''

''हा, हा चल या.''

आजकी रात.. चवथ.. दिवाळी.. फोगेटटी.. सुरसुरी.. बॉम.. फोग... साहील अक्षरशः उबत उबत भायर सरलो.

बाजारांत मातशे पांय सदळ करून सरळ शिरोडकारांतल्यान चार-पांच पार्सलां येवन

दोगांय उगवत्या रातीचो आनंद घेवंक कॉटेजीर पावलीं.

''चल रे हांव फ्रेश जावन येतां.''

''आगो फाटीक बी साबांव लावंक येवं?'' साहील भुल्लुसून, उतावीळ जावन बकबकतालो.

''नाका रे... दवर तुजो स्टॅमिना सांबाळून.''

''एऽऽऽ''

साहिलाचीं बोटां सर्गाक तेंकपाक पाविल्लीं. फ्रेश जावन ओले केंस पुशीत माधवी भायर आयलें बाथरुमांतल्यान. यार्डली लॅव्हेंडर शाबू... मंद शांपू आनी उग्र कंडीशनर हांच्या मिक्स वासान साहील पिसावलो. म्हन्यांत येवपी साहीलाक माधवीन आडायलें.

''ए ह्या यामाचे याणींतूच?'' प्रस्न... प्रस्ना फाटलो अर्थ समजून साहील बाथरूमांत धांवलो.

''ड्रिंक घेवया मरे?'' साहीलाक ह्या केंडल लायट... फक्त एक मेणवातीच्या उजवाडांतले कॉटेजींत ड्रिंकाची ऑफर म्हळ्यार सोनेपे सुहागा. कमराक तुवालो बांदून तसोच तो बसलो . मुखार टिपॉयाचेर दोन ग्लास... रंगीत ड्रिंकान भरून वाट पळयताले. म्हन्यांतूच सगळो स्टफ माधवीन मांडून दवरिल्लो. आमंत्रण.. निमंत्रण दिवपी हें वातावरण.... रंगीत आनी रंग वाडोवपी ड्रिंक आनी म्हन्यांतलो फुडें किदें जावप अपेक्षीत आसा हें सांगपी 'स्टफ.'

''चियर्स'' रंगीत ड्रिंकाचे ग्लास उठले.

''जॉनी वॉकर रे ती. ताकतीक करनाका.. सुशेगाद चडूनी.'' माधवीन सीप मारून सांगलें. किंग फीश फ्राय, रेशाद बांगडो, चिकन गार्लीक, बटर चिकन, बटर नान... मस्त ताव मारीत साहील सीप मारतालो. उचंबळीत साहील फुडल्या घडणुकांचे प्लॅन करतच माधवीक दोळ्यांनी पितालो.

पार्सलां सोपलीं. ग्लासय रिकामे जाले. ''चल साहील, बेडरूमांत वचुया मरे?'' अभिसारीकेच्या मुडांत येयत माधवीन विचारलें. सर्ग... सर्ग म्हणटात तो होच. रंभा, मेनका, उर्वशी, तिलोत्तमा... सगळ्यो अप्सरा साहीला भोंवतणीं फेर धरपाक लागल्यो. आपल्या परफॉर्मन्साचेर दांडेलीच्या... फिदा जावन माधवी आमंत्रण दिता भितर येवपाचें... माधवीक फुडें घालून साहील भितर गेलो. मंद निळ्या बल्बाच्या उजवाडांत माधवीन... मंद म्युझीक लायलें.. आनी स्ट्रिपींग सुरू केलें. साहिलाची चुळबूळ वाडली. आमंत्रण स्वीकारपाक फुडें वचपाच्या वेळार साहीलाक वेगळेंचशें जाणवलें.. अशें कशें? अशें किदें हें? कित्याक? हे प्रस्न साहीलाच्या मनांत उठले.

''कम ऑन साहील... यो रे.. पळय हांव तुजेंच.'' मुखार तिजुल्यांची कोरीव मुर्त उबी आसा.. उगड उगड चॅलेंज दिता... पूण साहील? ताची कूड पुराय गळशिल्ली... पुरूशार्थ शेणिल्लो.. ताका कांयच कळना...कांय वेळा पयलीं फुरफुरपी पुरुशार्थ... खंय गेलो?

''माधवी आय ॲम सॉरी.''

''फॉर वॉट? कम लेट्स एन्जोय.''

बेडीर आव्हान दिवपी माधवीक पळोवन साहील कपल धरून बसलो आनी हुंडक्यांनी रडपाक लागलो.

''माधवी आय ॲम सॉरी. आय फिल लायक ए इंपोटंट.''

''च्यॅ.. कशें शक्य आसा? दांडेली स्ट्राँग मरे तुजो परफॉर्मन्स.. यो फकांडां नाका.''

''माधवी आय ॲम सॉरी. देवान म्हाकां केल्ल्या कर्माची ख्यास्त दिली.''

''साहील न्हीद तूं.... फाल्यां सकाळींच भायर सरुया.''

भायले वटेन येवन हॉलांतल्या सोफाचेर येवन न्हिदिल्ल्या माधवीच्या दोळ्यांतल्यान गरम दुकांची धार व्हांवूक लागली. एकसायट जावपाचें वखद पाजोवन.. तेंवूय न कळटां ताचेकडेन लैंगीक संबंद करपी साहीलाचें आयज ताणें कायमचें शुटआवट केल्लें. सूड.. सुडाचें समाधान... दुखिल्लें मन माल्शें शांत जाल्लें. दांडेलीच्यान येवन म्हयनो येवपाची चिंता करीत भोगिल्ले ते खीण. तें दडपण.. तो मानसीक अपमान.. शारिरीक त्रास... आतां माल्शी थाकाय कशी मेळ्ळी. जें घडिल्लें तें दोगांय भितरूच... पूण तरीकय साहीलान कोणाकूय सांगल्यार.. हें दडपण आतां पर्यांत आशिल्लें तें मात साप्प गेलें. साहील हाचे फुडें पुरूशार्थ वापरपाक शकचो ना. ताणें कोणांकय सांगल्यार सिब्द जातलें.. ना..

'देवाची कृपा' माधवीन मळबाकडेन पळयत हात जोडले.. ताचीं सगळीं पावलां येशस्वी थारलीं.. पयलें, मना विरूद्ध खरें पूण साहीला कडेन वाडयिल्ले संबंद.. नागा आदीवासी वैजाचेर दवरिल्लो विस्वास हें दुसरें आनी कुलेर भर पिठो, जो व्हिस्कींत पुराय मिस्तुराद जावन गेल्लो ताणें दाखयिल्लो प्रताप. साहीलाचें दादलेपण होगडावप हें म्हत्वाचें. हेंच सुडाचें यशस्वी पावल.

''फाल्यां बापूक मेळून येवंक जाय.''

''शुटआवट.. सक्सेसफूल शुटआवट.''

हें चिंतीत भितर न्हिदिल्ल्या पुरायपणान निरूपयोगी आनी निरूपद्रवी जाल्ल्या साहीलाचे मात लेगीत भंय न धरतां.. एक दादलो तो हें अमान्य करून माधवी तशेंच सोफाचेर न्हिदलें.. सुरत.. तिजुल्यांची कोरीव मुर्त कशें.

आतां कच्च करून आंग काडून माधवी वर्तमानकाळांत आयलें.

''आरेच्चा कामां करपाक जाय सगळीं यर्चीं आतां.''



काणकोण-गोंय, मो.: 9404145337



जिबेबेली जतनाय

सखाराम शेणवी बोरकार

# म्हणी फाटली काणी

## (तिसरो वांटो)



कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

*उदक तापतगीर बरी न्हाली धुली आनी त्या गिरेस्तागेर साकून हाडिलें जेवण जेवली. आयदनां बी घांसून पुसून दवरलीं. खोपीची कवडी धांपून तिणें ते कवडेक कुले तेंकयले आनी व्हडल्यान एक पाद मारलो.*

फाटल्या दोन अंकांनी कांय म्हणी आनी तांचे फाटल्यो काणयो वाचल्यो. ह्या अंकांतय आनीकय कांय म्हणी फाटल्या काणयांचो आस्वाद घेवंया.

### धा पोळे आनी वीस चुळचुळे!

एकदां एक जांवय खंय आपल्या मावोड्या गेल्लो. सासूमांयन जांवय आयला म्हण जेवपाक खूब जिनस केले. जांवयाक पोळे खूब आवडटाले. हेवटेन जांवय सूप पिवपाक बसलो आनी तेवटेन सासूमांय जांवयाक गरम- गरम पोळे दिवपाक पोळे काडूंक बसली. सूप पितना जांवय, सासूमांय पोळे काडटा तो आवाज आयकूंक लागलो. एका- एका पोळयाच्या आवाजा वेल्यान सासूमांयन वीस पोळे काडल्यात असो ताणें अदमास केलो. जेवणा मेजार सासूमांयन दवरिल्ले धावूय पोळे खाले आनी आनीक मागपाक लागलो. सासू मांयन सांगलें, पोळे सोंपले. त्या बराबर जांवय म्हणूंक लागलो, आपणे वीस आवाज आयकल्ले. तेन्ना वीस पोळे आसूंक जाय. त्या उतराक सासूमांय म्हणूंक लागली, एक पोळो करपाक तो एकदां तव्यार घालचो पडटा तेन्ना एक पावटीं 'चळळ' करुन आवाज येता आनी तोच पोळो परतीतगीर परत एकदां 'चळळ' करुन आवाज येता. म्हणजे एक पोळयाचे दोन आवाज आयले. धा पोळे आनी वीस चुळचुळे! सासूमांयन हें सांगतगीर जांवयाक सामकी लज जाली. कामा परस फक्त बोवाळूच चड जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

### नाक खंय आनी आदोळी खंय?

'नाक खंय आनी आदोळी खंय?' हे म्हणी फाटली काणी अशी: एका रासवळ कुटूंबांत एक जोडपें रावतालें. घोव सामको रागीश्ट. बारीक सारीक कामांत लेगीत तो बायलेचीं कुतां काडटालो. पूण बायल सामकी मायेस्त आनी शांत सभावाची.

ती 'हूं' काय 'चूं' करिनाशिल्ली. घरांतल्या दुसऱ्या बायलां कडेन तिणें आपल्या घोवाची केन्नाच कागाळ केली ना. हाचो त्या घरांतल्या बाकिच्या बायलांक दुस्वास जातालो. तीं कित्याय किर्तें सांगून तिच्या घोवाचे मनांत तिचे विशीं वीख कालयतालीं. एक दीस अशेंच किर्तें तरी घडलें. घरच्या बायलां कडल्यान तिची अखटाय तिच्या घोवा मेरेन पावली. घोवाक तिचो खूब राग आयलो. एकोडी मेळळीशी करुन ताणें तिचे

मुस्कटाचेर एक फुलयलें. पूण तें थापट चुकोवपा खातीर तिणें जो आपलो हात उबारून तोंडा आड धरिल्लो, तो तिगेल्या पदराक तागेलो हात घुस्पलो आनी पदरा सयत तागेलें थापट तिचे सोणकुटेर बसलें आनी पदराचें सूत तिच्या नाकांतले पिलीक घुस्पून, पिली (काडी) पदरा बराबर भर्र करुन ओडून आयली. तिच्या नाकाक येद्दो व्हडलो घाय जालो. भळ -भळ रगत व्हांवूंक लागलें. तरीय तिका जखमेची पर्वा नासली. तिका लोकांक तोंड दाखोवंक लज जाल्ली. कांयच सुचना जावन तिणें तोंडावेलें रगत धुलें. पूण गांज आनी फाळ कसो लिपतलो? बाकीच्या बायलांनी तो घाय पळयलो. त्यो विघ्नसंतोशी बायलो किर्ते समजूंक जाय तें समजल्यो आनी खोशी जाल्यो. मुद्दामच तिका एका सारक्यो विचारूंक लागल्यो 'आगे नाकाक किर्ते जालें? कसलो घाय जालो?' ती बायल सामकी काचाबूल जाली. किर्ते जाप दिवंची हेंच तिका समजना जालें. रांदचे कुडींत आदोळेर शिनतनां, कांततना तिका घाय करुन घेवपाची सवंय आसली. पयल्या धपक्याक तिणें सांगून सोडलें, 'आदोळी लागली.' त्या बराबर सगळ्या बायलांचो हांसून -हांसून मुट्टो जालो. येत्या वत्याक त्यो सांगत सुटल्यो, 'जाणांत! हिचें नाक आदोळेर कापलें खंय!' घरभर बोवाळ, 'नाक आदोळेर कापलें? कशें कापतलें? नाक खंय आनी आदोळी खंय?' तिका घोवान मारल्या आनी तें ती लिपोवंक सोदता आनी म्हुणून तिणें अरसल फट मारल्या हें सगळ्यांक कळ्ळें. खंयच्याय दोन गजालींक वा दोन वस्तूंक संबंद नासता तेन्ना ही ओपार मारतात.

## नाक दामतगीर तोंड उगडें जाता

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एक जांवय खंय एक दीस मावोड्या गेल्लो. लग्न जावन पयलेच फावट तो आपल्या मावोड्या गेल्लो. तो सभावान मातसो अचरट आसलो. देखून ताचे आवयन ताका बरो शिकोवन- शिकोवन धाडिल्लो. 'मावोड्या चड उलोवं नये, वसवस करुन खावं नये' असल्यो सुचोवण्यो तिणें आपल्या पुताक दिल्यो. आवयन शिकयिल्ली सगली सांगणी मनांत घोळोवन- घोळोवन जांवय मावोड्या गेलो. जांवय आयला तें पळोवन मांय भुरकुटली. जांवयाचो बरो परामर्स केलो. जांवयाक मांयन बसोवन घेतलो. भितर वचून शेव, चिवडो, चकऱ्यो अशें साबार खाण हाडून जांवया मुखार दवरून आपूण च्या करपाक भितर गेली. म्हऱ्यांत शेव चिवडो बी पळोवन हाका किर्ते खांव किर्ते नाका अशें जालें. 'वसवसपणा बी करुं नाका' हें आवयन सांगिल्लें तेंवूय याद जालें. पूण खाल्या बगर ताका कशेंच रावं नज जालें. देखून ताणें बेगीबेगीन शेव चिवड्याक मुठी मारल्यो आनी बचकांनी एकेच फावटीं तो तोंडांत भरलो. आनीक भरूंक जागो ना जायसर ताणें तोंडांत भरीत रावलो. तोंडाचो जालो चेंबू. हागेले दोनूय गाल शेव-चिवड्यान भरले. हाका स्वास घेवपाक लेगीत जायना जालें. तोंड इतलें भरिल्लें, शेव- चिवडो चाबूंकय मेळना आनी गिळूंकय मेळना जावन हो तोंड फुगोवन बसलो. इतल्यांत च्या घेवन मांय भायर आयली. पळयत जाल्यार जांवय तोंड फुगोवन बसला. स्वास घेवपाक ताका त्रास जाता. किर्ते जालां तें तिका कांयच समजलें ना. तिणें ताका जायते प्रस्न केले, पूण एकाय प्रस्नाची जाप जांवय दिना. ती भियेली आनी ती ताच्या म्हऱ्यांत गेली आनी तिणें जांवयाचें नाक दामलें. बोटाचे चिमटेन नाक यट्ट दामून धरिना. फुडें जांवय लागलो घुस्मटूंक. आनी तोंडाचो चेंबू उगडो करुन फू करुन स्वास सोडलो. त्या बराबर फर्रर फर्रर करुन तोंडांतलो शेव-चिवडो उरवासा बराबर सगळ्याक शिंवरलो. तेन्ना किर्ते घडलां तें मांयक कळ्ळें. अशें हें नाक दामतगीर भितर किर्ते आशिल्लें तें आपशींच भायर येता.

## फुलू खुस्तार खोजने

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एका गांवांत फिलोमेन म्हण एक मोठी भाटांबेंसकान्न बायल रावताली. गांवचे सगळे लोक तिका फुलू म्हणटाले. खऱ्यांनीच ती सभावानय 'फुलू'च आसली. किर्तेय सांगल्यार तिका तें रोखडेंच खरें दिसतालें. गांवचे लोक तिचो हो सभाव जाणां आसले. एक दीस गांवचे सात आठ मनीस फुलूगेर गेले आनी तिका म्हणूंक लागले, 'ओंदूचें आमचे इगर्जेचें फेस्त तुवें करपाचें. सगळो देस्पेज तुजो. आमचे ईगर्जेचें फेस्त गोंयभर फामाद. सगळ्या गोंयचे लोक आमच्या ह्या फेस्ताक येतात. फेस्ताचो देस्पेज तुजो. म्हण्टगीर आमचो पाद्रिविगार फेस्ताच्या मिसांक तुजें नांव घेतलो. सगळ्या गोंयभर तुजें नांव जातलें.' फुलू बरेंच फुललें आनीक म्हणूंक लागलें, 'इगर्जेचें फेस्त आमी नेटान करुंया. देस्पेजाचें तुमी चिंतीं नाकाय, फुडें सोराय.'

सगळो खर्च फुलूलो म्हण्टगीर पयशे कशेय मोडपाक ह्या लोकांक कांयच दिसलें ना. फेस्ताच्या आदल्या दिसा, फाल्यां फेस्त हें सगळ्या गांवांक कळीत करपाक खोजने पेटयतात. 'खोजनो' म्हळ्यार एके लोखंडाचे नळयेंत दारु घालतात आनी तो जमनींत पुरतात. ते नळयेची वात जमनी वयर आसता. ती वात पेटयतगीर मोट्टो आवाज जाता. हाका 'खोजनो' अशें म्हणटात. ह्या खोजन्याचो आवाज आयकतगीर फाल्यां फेस्त म्हण सगळ्या गांवांक कळटा. फेस्ताच्या आदल्या दिसा एक वा दोन अशे खोजने लायतात. कित्याक ते म्हारग आसतात. पूण हांगा खर्च फुलूलो म्हण्टगीर ह्या लोकांनी चार पांच खोजने पेटयले. गांवांतल्या एकट्यान दुसऱ्याक विचारलें, 'आरे एक सांग, ओंदू इतले खोजनेशे कित्याक पेटयल्यात?' दुसरो म्हणूंक लागलो,

'हांका पेटोवंक किर्ते जालां? 'फुलू खुरस्तार खोजनें' ते!

## दिवली शेटीली तेल म्हगेलें

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एका शेटीन देवळांत कथा किर्तनाच्या वेळार दिवो लावपाक एक दिवली दिली. देवळाच्या एका कारभाऱ्यान तेल घालून ती दिवली पेटयली. आनी देवळांत येता वेळ्याक, 'दिवलेचो उजवाड काय बरो पडटा, काय बरो पडटा तें पळयात' म्हण आपूणच तोखेवन सगळ्यांक सांगपाक लागलो. देवळांत आयिल्ल्या एका मनश्यान ताका विचारलें,'सायबा! हातूंत तुका बरोच खर्च जाला आसूंक जाय न्ही?' ते उत्तराक तो कारभारी म्हणूंक लागलो, 'व्हडलोसो ना; म्हणजे दिवली त्या शेटीन देवळाक दिल्या आनी हांवें फक्त वात आनी तेल घालून ती पेटयल्या.'

'म्हणजे दिवली शेटीली आनी तेल तुगेलें तर!' - त्या मनश्यान हांसून म्हळें. त्या देवळाच्या कारभाऱ्याक सगळ्यां हुजीर बरीच लज जाली.

## सू माज्या घरा, पाद मारीन बारा!

एक जाणटी बायल एका गिरेस्ताल्या घराब्यांत वावर करताली. ती एकटीच रावताली. तिका घोव, भुरगींबाळां कोण एक नासलीं. दिसभर त्या गिरेस्तागेर वावर करप आनी सांजवेळां आपल्या घरा वचप. घर कसलें, एक ल्हानशीच खोंप. कितलोय कळाव जावं, न्हिदपाक मात ती आपल्या घरा कडेन वतालीच.

एक दीस त्या गिरेस्तागेर कसलो तरी सुवाळो आशिल्लो. त्या खातीर ते जाणटे बायलेक खूब काम पडलें. काम सोंपता सर तिका जाली रात. त्या गिरेस्ताचे बायलेन ते जाणटेलेक म्हळें, 'तूं आतां आनी घरा वचूंक नाका, आयची रात तूं आमगेरच राव, हांगाच न्हिद. फाल्यां तुका परत येवंक जायच न्ही?'

पूण ती जाणटी बायल कशीच आयकना जाली. 'म्हाका घरा वचूंक जाय. फाल्यां उजवाडचे पयलीं कामांक हाजीर जातां. फक्त म्हाका वतना मात किर्तेंय जेवण दी'. असो हट्ट करपाक लागली. गिरेस्ताचे बायलेक कुवांडें पडलें. अशे भशेन हिका इतले रातचें घरा कडेन वचपाक जाय कित्याक? अशें किर्ते आसा हिंचे ते खोंपींत? हांव आयज हाचो सोक्ष मोक्ष लायतलीच!. ती जाणटी बायल भायर सरना. फुडें तिचे फाटोफाट ही गिरेस्ताची बायलय भायर सरली. काळखांत ते जाणटेलेक ती दिसली ना. ती गिरेस्ताची बायल काळखांत ते जाणटेलेचे चुडटां खोपी भायर रावन भितर किर्ते घडटा ताचो होलम घेवपाक लागली. चुडटांच्या बुरांकांतल्यान खोंपींत किर्ते घडटा तें तिका स्पश्ट दिसतालें.

ती जाणटेली आपले खोंपींत भितर सरली. एक पेत्रोलाचो दिवो पेटयलो. आपलें कापड सोडयलें आनी एक जुनेर न्हेसली. मागीर ती मागिलदारा गेली. थंय कांय खोलयो एकठांय केल्यो आनी तीन फातरांचे एके रांदनींत त्यो घालून उजो केलो. एके मडकेंत उदक घालून तें ते रांदनीर तापोवंक दवरलें. उदक तापतगीर बरी न्हाली धुली आनी त्या गिरेस्तागेर साकून हाडिल्लें जेवण जेवली. आयदनां बी धांसून पुसून दवरलीं. खोपीची कवडी धांपून तिणें ते कवडेक कुले तेंकयले आनी व्हडल्यान एक पाद मारलो. तेच वांगडा तिणें एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो आनी सूऽऽ करीत ती जमनीर पातळिल्ले शेंदरेर बसून म्हणूंक लागली, 'सूऽऽ माज्या घरा, पाद मारीन बारा!' आनी ती ते शेंदरेर लंवडली आनी सुस्त न्हिदली. तिच्या तोंडार समाधानाचे भाव दिसताले. तें पळयतगीर त्या गिरेस्ताचे बायलेक कळून चुकलें, ही जाणटेली आपल्या घरा कित्याक वचूंक सोदताली तें!

सांगपाचें म्हळ्यार दुसऱ्याच्या घरा आमी कितलींय जरी पक्वान्नां खालीं तरी आपले घरचे पेजे निवळाची तांकां सर येना. आपल्या घरांत आपल्याक जाय तें करपाची मेकळीक आसता.



## हातांत पयसो नाशिल्ल्यान

### तारीर सगळ्यांत पयलीं चडूंक जाय

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एका गांवांत एक गरीब मनीस रावतालो. केन्नाय काम मेळना जाल्यार ताका पलतडच्या गांवांत वचचें पडटालें. पूण पलतडीं वतलो जाल्यार ताका तारीन वचचें पडटालें. केन्ना- केन्ना तारीक दिवपाक ताचे कडेन पयशे नासताले. तो मागीर हाचे कडल्यान ताचे कडल्यान घेवन तारीचे पयशे फारीक करतालो. एक दीस तारीक दिवपाक हाचे कडेन पयशे नासले. तार येवन तडीक लागिल्ली. लोक तारीर चडचेच आसले. लोक तारीर चडचे पयलींच हो तारीर चडून कोनश्याक वचून बसलो. लोक तारीर चडपाचो वेळ जालो तसो पयशे

येवपी मनीस तारी म्हऱ्यांत येवन रावलो. तारीर चडपी सगळ्या लोकां कडल्यान ताणें पयशे वसूल केले. अशे भशेन तारीर लोक चडचे पयलींच जो हो तारीर बशिल्लो तो सुगूर जालो आनी पयशे दिना आसतना पलतडीं पावलो. आपलें काम सादतलें जाल्यार आपणें सगळ्यांत पयलीं त्या कामाक लागूंक जाय ही शिटकावणी दिवपी ही म्हण!

### हातान उबार नाशिल्ली साण
### भांगरान बांदतकच गळ्यांत घाली

एक नवीच लग्न जाल्ली व्हंकल सामकी नाजूक आसली. कसलेंय काम करूंक ती अनमनताली. घोवान हिर्ची नाटकां पळयलीं. एक दीस बरी जड गुळो साण घेवन तो शेटी म्हऱ्यांत गेलो आनी ताका भांगराची 'ओफ' (गिलीट) काडपाक लायली आनी ती साण घेवन तो घरा आयलो. भांगराची साण पळयना फुडें व्हंकल भुल्लुसली आनी ती जड गुळो साण उबारून तिणें गळ्यांत घाली. बायलांचो भांगराचो सोस दाखोवपाक ही म्हण वापरतात.

### हात पांय रवले(रावले), काय करूं बायले?

एक खंय जोडपें आसलें. बायल सामकी बऱ्या सभावाची आसली. घरांत पयसो भरपूर आसलो. पूण बायल मात हातचो राखून खर्च करताली. पयशे आसतगीर आमीग फाल्त आसतात? असल्यांत घोवाक जुगार खेळचेलो नाद लागलो. हो दिसाचे दीस, म्हयन्याचे म्हयने भायर उरूंक लागलो. हाका आपले बायलेचें कांयच पडून वचूंक नासलें. बायलेन मात आपल्या घोवाची कागाळ केन्ना कोणा कडेन केली ना. सगळें आयुश्य तिणें एकलेन काडलें. अशे तरेन वर्सां गेलीं आनी घोव म्हातारो जालो. हातांतलो पयसो सोंपलो. हात पांय चलना जाले. पयसो नाशिल्ल्यान हाका कोणच लागीं करी ना जालो. ताचे कुडींतलो फोर्सय गेलो. ताची सेवा दुसऱ्यांनी करपाचे दीस आयले. तेन्ना ताका आपले बायलेची याद जाली. नाक मुठींत घेवन तो आपल्या घरा आयलो. तेन्ना त्या वाड्या वेलो जण एकलो म्हणटालो. 'आंगांत फोर्स आशिल्लो तेन्ना जगार वचून पडटालो आतां 'हात पांय रावले तेन्ना काय करूं बायले? म्हणून घरा आयला?'

ह्यो आसल्यो कांय म्हणी फाटल्यो काणयो. आमचे भाशेंतले दर एक म्हणीचो अभ्यास केल्यार आमकां साबार म्हणी फाटल्यो काणयो मेळटल्यो. म्हजो हो सुपुल्लोचसो येत्न. वाचप्यांनीं तुमीय सोदात न्हय म्हणी फाटली काणी !



पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१

स्केच



स्मिता तिंबले

शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हाणीं संगिताचें शिक्षण घेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात.तांचें 'यादे माई' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा.तांचें 'आपालिपा','गोंयच्या फेस्ताक'हीं न्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांची शिक्षणीक पुस्तकांय ताणीं तयार केल्यांत. समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तिमत्वां रंगोवप होय तांचो एक छंद.



# प्रवीण

*अशे परिस्थीतींत रावपी भुरग्या कडेन कसले शैक्षणीक प्रगतीची अपेक्षा करप? प्रविण शाळेंत नेमान येता वता. शिकयता तेन्ना एकलोच स्वत: कडेन उलयता ना जाल्यार आपल्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या भुरग्या कडेन बेजोच गुणगूण करीत बसता.*

समाजाचें प्रतिबिंब शाळेंतल्या प्रत्येक वर्गांत उमटता. दुबंगल्लीं घरां, पालकां मदी कोडसाण आयिल्लीं घरां, एक पालकत्व आशिल्लीं घरां, गरिबी, बेरोजगारी, व्यसनांचे भकीक पडिल्लीं पिडीत घरां, शिक्षणांची फाटभूंय नाशिल्ले विद्यार्थी..... अशे अनेक प्रस्न आशिल्ले भुरगे शाळेच्या वर्गांत दिसून येतात. अशे घरांतल्यान आयिल्ल्या भुरग्यांक मानसीक उणीव वा मानसीक प्रस्न निर्माण जावपाची शक्यताय आसूं येता. ह्या प्रस्नांक हाताळप हे शिक्षकां मुखार एक आव्हान आसता. दर एका भुरग्याचे प्रस्न वेगवेगळे आनी वेगवेगळ्या तरांनी हाताळपाचे. शिक्षक हीं आव्हानां स्विकारता; तशें शिक्षकान करचें अशी अपेक्षा. विद्यार्थ्या कडेन संवाद साधून, पालकां कडेन उलोवन, भुरग्याक चड वेळ दिवन शिक्षक ताचे प्रस्न सोडोवपाचे यत्न करता. हेंकरतना शिक्षकाक पालकां कडल्यान प्रतिसाद मेळटाच असो ना. थोडे पालक चिकाटीन आपल्या भुरग्याक खाजगी शिकोवणेक घालून भुरग्याची शिक्षणीक प्रगती सुदारपाचो यत्न करतात. तांतूतल्यान थोडीशी सुदारणा जावपाक शकताय. पूण एकाग्रताय हो एकूच गूण भुरग्या कडेन आसप खूब गरजेचें आसता.

शिकयिल्लें याद उरना, मुळाक्षरां समजनात, एकाग्रतेचो पूर्ण अभाव, एका जाग्यार बसपाची शक्यताय ना, सतत हातां-पायांनी खेळत रावप, शिकप सोडून हेर सगल्या गजालीं कडेन लक्ष दिवप, घरा अभ्यास करी ना, नेमान शाळेंत येना, शाळेंत पुस्तकां हाडी ना, पेन्सील सारकी धरी ना, पालकांचें भुरग्याचेर लक्ष ना, पालकांक वेळ मेळना अशा अनेक कारणांक लागून भुरग्याची प्रगती जायना.

आयज म्हाकां भुरग्याचे- विद्यार्थ्याचे नदरेंतल्यान शाळा, शिक्षक, पुस्तकां, खेळ आनी ताच्या एकूण भावविश्वा कडेन पळयन दिसता एक चलो-तिसरी शिकता, ताचें नांव प्रवीण. ताची आवयभास हिंदी. ताका सख्खी आवय ना. बापायन दुसरें लग्न केलां. ही आवय अशिक्षीत. दुकानांत साम्न मारपी बायलेच्या मोगांत घुरपून ताचो बापूय तिचे कडेन लग्न जाल्लो. पयले बायलेच्यो दोन चलयो आसात, बापायन

तांकां होस्टेलांत शिकपाक दवरल्यांत. बापूय स्वत: दोतोर. आपूण आपल्या लोकां भितर सगल्यांत शिकिल्लो मनीस म्हणून ताका स्वत: बद्दल खूब्ब अभिमान. आपल्या ह्या धाकल्या भुरग्याच्या अभ्यासा कडेन लक्ष दिवपाक मात ताका पांसीयेंस उर ना. त्या भुरग्याच्या दप्तरांत धड पुस्तकां नासतात, धड टीफिन भरिल्लें नासता, पेन्सील,रब्बर, पेन-पट्टी दवरपाची कंपासपेटी तर सदांच रिती आसता. सुदैवान प्रविणाक इंग्लीश उलोवपाक कळटालें. विचारतात त्या प्रस्नाक तो जापो दितालो. ताचे कडेन उलयतकूच जी म्हायती हाताक मेळटाली तांणें आनीकूच घुरमून वचप जातालें. खूब फावट तो जाप दिना आसतनाय रावतालो.

''प्रविण तुवें टीफिन कित्याक भरूं ना?''

उत्तर ना.

''तुवें जेवण येवपाक पयशे हाडले नात?''

उत्तर ना.

अशे प्रसंग येतकूच टीचरीन बापायची भेंट घेतली. तांणें पयलीं खूब फावटी शाळेंत येवपाचें टाळ्ळें. शेवटीं एकदाची बापाय कडेन भेंट जाली. पयलीं प्रविणाची पोटाची वेवस्था तरी सारकी करुया असो विचार करून प्रविणाचो डबो नेमान भरून धाडपाक जाय अशी बापायक गळ घाली. ''तो खायच ना.'' बापायलें उत्तर. ''तो खाता काय ना तें हांव पळयतां.'' टिचरीन जापसालदारकी घेतली.

ताचे नंतर प्रविणाच्या डब्यांत निकटोच पाव, निकटीच इडली, पांच-स केकाचेच कुडके अशे तरेन भरून येवपाक लागले. परत बापायक मेळून, ताका पावाक-इडलेक लावपाक बटर-चटणी बी दियात अशें टिचरीन स्पश्ट सांगलें. तर, तो तसोच खाता. अशें बापायलें उत्तर!

खूब फावटी सांगून, शेवटीं, होटेलांतले पदार्थ...शिरो, इडली-चटणी, समोसा अशे पदार्थ ताच्या डब्यांत येवंक लागले. पूण, बारीकसाणेन पळयत जाल्यार प्रविणाक सारकें खावपाक कळनाशिल्लें. एक तर मोटो घास घेवन गुट्टो तोंडांत धरप ना जाल्यार चोखीत रावप अशे तरेन तो खातालो. ल्हान कुडके करून वेवस्थीत चाबप ताका शिकोवंक नाशिल्लें.

प्रविणाकडल्यान तुटक-तुटक म्हायती मेळ्ळी ते प्रमाण तो आपल्या बापाय बरोबर बापायचे कोंसुल्तरेंत रावतालो. बापुयूच ताचो युनिफोर्म घालपाक मदत करतालो, डबो भरतालो. बापायन ताका, 'तुजी आवय बरी न्हीं' अशें सांगिल्लें. ती एकलीच तांच्या घरांत रावताली,न्हिंदताली. प्रविणा कडेन लक्ष दिना आशिल्ली.

अशे परिस्थितींत रावपी भुरग्या कडेन कसले शैक्षणीक प्रगतीची अपेक्षा करप? प्रविण शाळेंत नेमान येता वता. शिकयता तेन्ना एकलोच स्वत: कडेन उलयता ना जाल्यार आपल्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या भुरग्या कडेन बेठोच गुणगूण करीत बसता. ताका फळ्या वयल्यान सारकें उतरावन घेवंक येना, एकाग्रता ना, निटनेटकेपणा कळना, शिकोवपाची पद्धत बदलून खेळकर पद्धतीन शिकयत जाल्यार तो दोन-तीन मिनटां वयर खेळूंक शकना. खेळपांत गती ना, संगीत-नाच, खंयच्याच विशयांत तो रस दाखयना. ना म्हळ्यार, मातशी समजुपा सारकीं चित्रां तो काडूंक शकता. पूण रंग आपल्याक जाय तशे फाफशिता. इंग्रजींत संवाद साधतना तो तींच तींच उतरां परत-परत सांगता.. इतलीच ताची प्रगती, तें सोडलें जाल्यार..?..??..???

अशें आसता भुरगेंपण? 'बालपणीचा काळ सुखाचा' अशें म्हणटात. खंयचें सूख प्रविणाक ताच्या भुरगेपणांत लाभलां? ना आवयचें सूख, ना बापायची देख, खाणां-जेवणांची आबाळ. इतलेंच न्हीं तर, भुरग्यांक सगल्यांत प्रिय असो खेळ. तो खेळपाक लेगीत ताका वेळ आनी सुवात मेळना. ताका लागून कशें खेळप हें लेगीत ताका खबर ना.

मोगाक आशेल्ल्या भशेन तो टीचरीं कडेन उलयता. 'आमगेर रावपाक येता रे?' ह्या प्रस्नाक तो जोराजोरांत होकरार्थान मान हालयता. कोणागेर रावंक वतलो? विचारल्यार ताची जाप आयकून सगळीं खूश जातात. सगल्यांगेर एक-एक दीस रावतलो. ही ताची जाप आयकून सगल्यांक आशा जाता कीं, हळुहळू प्रविण आमचे कडेन सुसंगत अशीं उतरां उलोवंक शकतलो.. अणभवांतल्यान अशें दिसता कि, वयाच्या णव-धा वर्सां मेरेन कांय भुरग्यांक शिकपाची बुद्द येवंक शकता. ते आशेन शिक्षक प्रविणा कडेन पळयतात.



मडगांव-गोंय,मो.: 9763552719

भोंवडी



हर्षा शेटये

# प्रवास लेखन – स्थिती आनी गती

**कोंकणी साहित्यांत आपली खाशेली वळख निर्माण करूंक सातत्यान प्रयत्न करपी लेखिकां मदीं हर्षा शेटये हांचें नांव मुखेलपणान नदरेक भरता. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली वळख सांगतनाच ललित निबंध,बाल साहित्य आनी प्रवास वर्णनाच्या मळाचेरूय तांणीं आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या.तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच 'बिम्ब' पुरस्कारानय भोवमान जाला.**

*आतां म्हजे बद्दल सांगचें जाल्यार हांव पयलीं कथा, कविता, निबंध बरयतालें. प्रवास करपाक म्हाकां खूब आवडटा. प्रवासाक वतकीच कितें पळयलां ताची हांव टिपणां काडटालें. पूण प्रवासवर्णन बरोवंक नाशिल्लें. अरेबियन डेज वाचतकीच म्हज्या भितरलो प्रवासवर्णनकार जागो जालो.*

प्रवास लेखन - स्थिती आनी गती ह्या विशयाचेर लेख बरयतना हांवें फक्त कोंकणींत देवनागरी लिपयेंत उजवाडाक आविल्लीं प्रवासवर्णनां घेतल्यांत. तेभायर खूबशे लेख (प्रवास लेखन) ललित लेख संग्रहांत प्रकाशीत जाल्ले आसात. कांय प्रवासवर्णनां बिम्ब, जाग ह्या मासिकांनी आनी हेर दिसाळ्यांनी छापून आविल्लीं आसात. तिवूय घेतल्यांत.

हेर भासांचे तुलनेंत कोंकणींत प्रवासवर्णनां कमी प्रमाणांत आसात. पूण तांचो दर्जो खंयच कमी ना.




प्रवास वर्णन हें जरी ललित निबंधाचे जातकुळींतलें आसलें तरीय दोगांय भितर फरक आसा. प्रत्येक थळाचें अशें एक खाशेलेंपण आसता. थंयचो भुगोल, इतिहास, दंतकथा, खाणां-जेवणां, मनशां मेळून तें तयार जाल्लें आसता. ह्या लेखनांत 'हांव' म्हळ्यार लेखक आसताच आनी तो आसपाकूच जाय. पूण केन्ना केन्ना हो हांव चड फुडें सरता आनी वाचकांचें लक्ष आपले कडेन ओढून घेता.

लेखकाक आपलें ज्ञान, विचार, रसिकताय हांचें प्रदर्शन करन दिसता आनी लेखनाचें स्वरूप बदलता. कोंबडे परस मसालोच चड जाता. खरो प्रवासवर्णनकार ह्या 'हांव'क जाय तितलो पयस दवरून लेखन जिवें तट्टटीत दवरता. तातूंत आपल्या उतरांचो रंग भरून एक चित्रूच वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार उबें करता. कोंकणींतलीं जितलीं प्रवासवर्णनां हांवें वाचल्यांत तातूंतलो प्रवासवर्णनकार ह्या 'हांव'क जाय तितलो पयस दवरूंक यशस्वी जाला.

कोंकणींतलें पयलें प्रवासवर्णन 'हिमालयांत' रवीन्द्र केळेकारान बरयिल्लें हें पुस्तक १९७६त उजवाडाक आयलां.

*हिमालयांत* हें प्रवासवर्णन वाचप म्हळ्यार एक सूखद अणभव. तांची भास सादी सरळ. पुस्तक वाचतना रवीन्द्रबाब मुखार बसल्यात आनी गजाली सांगतात असो अणभव येता. उत्तराखंडाचो चलून केल्लो ४५ दिसांचो प्रवास. पयल्या २० दिसांच्या प्रवासाचें वर्णन ह्या पुस्तकांत आयलां. फुडल्या २५ दिसांचें टिपण तांणीं तेन्ना बरयल्ल्या उगडास पटयेरूच उरलां. थंयचे सैमीक आपत्तीचे, रानांतल्यान भोंवतना आयिल्ले अणभव आंगार कांटो हाडटात. वाटेर पर्वत कोसळून पडिल्लो. न्हंयचेर सांवार आयिल्लो. पूल मोडिल्लो. ताच्या जाग्यार लाकडाची फळी घाल्ली. ताचे बराबर आशिल्ले तांचे भाव देवेन्द्र आनी इश्ट नरेंद्र मंत्री जीव मुठींत धरून, दोळे बंद करून फळे सांसपीत बसून चलून गेले. ते पळोवन तांचो आवरो उडलो आनी आपल्याच्यान जावचें ना म्हणून ते फाटीं सरले. पूण गोदूबाय धीर करून मुखार गेली. तेन्ना देवा पाव करीत ते पलतडीं पावले. कसो पावलो तें आपुणूय नकळो, अशे तरेचीं आंगार कांटो हाडपी वर्णनां वाचूंक मेळटात.

आतां थंय वचपाक ट्रेनी, बसी आसात. फुडें वचपाक घोडे, डोली हातूंत बसूनूय चार धाम यात्रा करून मेळटा. पूण १९५६त अटंग्या रानांतल्यान चलून केल्लें भोंवडे वर्णन अर्देंच वाचपाक मेळ्ळें हाची खंत भोगली. कोंकणींतल्या ह्या प्रवासवर्णनाक कोंकणी साहित्या खातीर आशिल्लो साहित्य

अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा.हो कोंकणीक मेळिल्लो साहित्य अकादेमीचो पयलोच पुरस्कार.

दुसरें पुस्तक दिलीप बोरकार हांचें *गोमांचल ते हिमाचल.* 'हिमालयांत' उपरांत पांच वर्सांनी १९८१त उजवाडाक आयलें. ते यूथ हॉस्टेलाचे वतीन थंय ट्रॅकींगाक गेल्ले. तांच्या लेखनांत थंय भोंवतना आयिल्ले अणभव, तकलेंत आयिल्ले विचार हांचें चित्रण आयलां. भर जंगलांत उबारिल्ल्या कॅम्पांत ते रावल्यात. शिंयाळ्या वाऱ्यान पडिल्ले करे जिबेर घेवन चोखून पळयल्यात. वाटेर मेळपी लोकां वांगडा भरसल्यांत. तांच्या लेखनांत थंयच्यो दंतकथा, महाभारतांतलो संबंद हाचेंय वर्णन आयलां आनी एक योगायोग म्हळ्यार ह्याय पुस्तकाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

ह्या दोनूय पुस्तकां उपरांत प्रवासवर्णनाचें तिसरें पुस्तक येवपाक बारा वर्सांचो काळ गेलो. १९९३ व्या वर्सा सुमेधा कामत हांचें *विवेकानंद पुरमात* आयलें. सुमेधान कन्याकुमारीक विवेकानंद पुरमात म्हयनोभर राबितो केल्लो. दिसपटीच्या स्वरुपांतलें हें प्रवासवर्णन. लेखिकेक थळापरस मनीसपणाची ओड आसा. हातूंतले मामाजी, हनुजी हीं मनशां वाचप्यांक जीव लायतात. डॉर्मेटरींतल्यो खबऱ्यो वाचतना आमच्या तोंडार अचळय हांसो येता.

विवेकानंदपुरमा फाटल्यान दोन वर्सांनी १९९५त दत्ता दामोदर नायक हांचें *कालीघाट ते करुणाघाट* आयलें. हातूंत युरोप, नेपाळ, कलकत्ता, मनाली ह्या वेगवेगळ्या जाग्यांचेर केल्ले भोंवडेचे १८ लेख आसात. लेखकाची नदर सौंदर्य सोदपी. तेखातीर तांचें बरप निखटें प्रवासाचें वर्णन उरना.

मागीर २००४त तांचेंच *अरेबियन डेज* आयलें... आनी कोंकणी प्रवासवर्णनान कूस परतिली. लेखकाक भोंवडी परमप्रिय. ते देस परदेसांतले मनभुलयणें चित्र वाचकां मुखार उबे करतात. जिवितांत एक फावट तरी तें थळ पळोवचेंच अशी हुरहूर लायता. मॉरिशस वतकीच रंगांच्या कॉकटेलांत बुडिल्लो देस म्हणून ताचें चित्र उबें करता. भोंवडी म्हळ्यार फक्त भुगोलाचो अभ्यास न्हय. त्या त्या वाठारांतल्या मनशांची सैमाच्या सांगातान चलिल्ली जीण अणभवप हें लेखकाक बेस बरें खबर आसा. ते खातीर तांचें प्रवासवर्णन सुरबूस जालां. थंयच्या मनशांचें वर्णन तांच्या लेखनांत येता, आनी तीं मनशां लेखकां वांगडा वाचप्यांकूय जीव लायतात.

हैदराबादच्या लाड बाजारांतले गायड तन्वीर काळजांत वचून बसता. गोंयांत दोतोरकी शिकिल्लो मॉरिशअसचो बच्चू सोमतो घरचो जाता. लेखकालो रुममेट नागरीय वळखिचो जाता. कुर्गाक मेळिल्लें सानुलें सायली, तांबश्या पोल्याचो अगस्त्य, लेखकां कडेन पेन मागपी केरळाचें गोड चली सगुणा हीं भुरगींय सोमतीं अपुरबायेचीं जातात.

आतां म्हजे बद्दल सांगचें जाल्यार हांव पयलीं कथा, कविता, निबंध बरयतालें. प्रवास करपाक म्हाकां खूब आवडटा. प्रवासाक वतकीच कितें पळयलां तार्चीं हांव टिपणां काडटालें. पूण प्रवासवर्णन बरोवंक नाशिल्लें. *अरेबियन डेज* वाचतकीच म्हज्या भितरलो प्रवासवर्णनकार जागो जालो. तेन्नाच आमी माथेरानाक वचून आयिल्लीं. हांवें सोमतें माथेरानाचें प्रवास वर्णन बरयलें आनी *जागाक* धाडून दिलें. जागाचेर तें प्रसिद्ध जातकीच खूब जाणांनी म्हाकां ते आवडिल्ल्याचें कळयलें. तें आयकून म्हाकांय स्फूर्त आयली आनी फुडलीं शेगीत स वर्सां हांवें प्रवासवर्णनाच बरयलीं.




२०१२त म्हजें *आनंदयात्रा* हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. ताचे पयलीं म्हळ्यार २०१०त मधुसुदन जोशी हांचें वेगळ्या धर्तीचें प्रवास वर्णन पुस्तक रुपांत आयलें. *कोट्ट कसाय, गोड गुळी* ह्या नांवान. लेखक फार्मसी कॉलेजींत प्राध्यापक. ते अमेरिकेंत एक म्हयनो ट्रेनिंगे खातीर गेल्ले. ते खातीर तांच्या लेखनांत थंयचें सामाजीक वर्णन आयलां. थंयचीं वखदां, हॉस्टेलांतले कलीग,थळावे लोक, अमेरिकेंत रावपी इश्ट हांचो सुंदर मेळ जमून आयला. लेखक एक दीस शिकागोत हॉटेला भायल्या चौकांत हातांत भिकेपात्र घेवन उबो आशिल्लो मनीस पळयता. तो ताका वैभवशाली अमेरिकेचो पिंजको पदर म्हणटा.

त्याच सुमाराक दिलीप बोरकार हांचीं *क्रिशम* हें काश्मिर भोंवडेचें वर्णन आनी *शान्तम् शिवम् अद्वैतम् भूतान* हीं पुस्तकां आयलीं. दोनूय पुस्तकांत थंयच्या सैमाचें रसभरीत वर्णन आयलां. लेखक थंयच्या सैमाचें वर्णन करतना थंयच्या थळाव्या संस्कृतायेचो वेध घेता. थळावो आत्मो तो सोदता. म्हणून तांच्या लेखनांतलीं थळां जिवीं तट्टटीत जावन वाचकां मुखार उबीं रावतात. वाचक लेखकां सांगातान तांचे भोंवडेंत सामील जाता.

(पान क्र. ७३चेर वाचात...)

ओवळां



शीला
कोळंबकार




केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार,सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार,विमला पै पुरस्कार ह्या सारख्या प्रतिष्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानीत **शीला कोळंबकार** हाणीं कथा,ललित लेखन तशेंच बाल साहित्यांत आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. तांचे लिखाण म्हणल्यार कोंकणीं साहित्यांतले 'शीला'लेख अशें म्हणूं येता.

*पोंगलच्या दुसऱ्या दिसाक माट्ट पोंगल म्हणटात. थोडे कडेन घरचीं सगळीं बायलां एकठांय येतात. कावळ्याक जेवण घालतात आनी कावळ्यां भशेन आमी सगळीं एकठांय रावतलीं. कावळ्यां भशेन जें कितें मेळत, तें वांटून घेतलीं असो सोपूत घेतात.*

२०२० उजवाडलें. काल पयर दोन हजाराचें वर्स लागलें, म्हणटा म्हणसर २०२० लागलें. हीं इतलीं वर्सां कशीं हुपून गेलीं, खंय गेलीं कळळींच ना. ह्या वर्सा मकर संक्रांती आयली ती पंदरा जानेवारीक.

मकर संक्रांत म्हळें काय म्हाकां येवजता तें भुरगेंपण. मकर संक्रांत आयली काय हळदीकुकमाक सुरवात जाताली. संक्रांत ते रथसप्तम मेरेन केन्नाय हळदीकुकूम करूं येतालो. त्या दिसांनी आई घराच तिळगूळ करताली. म्हजी आजी, मळ्यांतली आई - आईची आई, बरे तिळगूळ करी. तांचेर बरो कांटो फुलिल्लो आसतालो. खेरीज ती भाजिल्ले व्हड चणे, भिकणां, लवंगां, दुदयाच्यो सोलिल्ल्यो बियो, हांचेय तिळगूळ करताली. तांकां किर्दे म्हणटाले तें याद ना. पूण महाराष्टांतले लोक ताका साकर फुटाणे म्हणटात.

सातवी मेरेन आमी सगळीं एकठांय रावतालीं. तेन्ना आई आनी चुलती-तिका आमी ताईबाय म्हणटालीं. दोगांय वांगडाच हळदीकुकमाक वतालीं. मागीर जे दीस आमगेर हळदीकुकूम आसतालो, तेन्ना आमकां भुरग्यांक हांगेर, तांगेर हळदीकुकमाचें आमंत्रण दिवंक धाडटालीं. तेन्ना आमकां एक ग्रोस म्हळ्यार बारा डझ वायनां लागतालीं. एकेक खेप नाल्लांचो पाडो बरो जालो जाल्यार नाल्ल हळदीकुकमाक वांटप जातालें. तेन्ना जाल्यार दोनशीं तरी नाल्ल लागताले अशें आई सांगी. हळदीकुकमाक आयिल्ले दरेक सव्वाशिणीक वायन दिवप जातालें. तुमकां आफोवं ना, तुमी कित्याक आयल्यांत अशेंय कोण म्हणिनासलो.

मकरसंक्रांत हो एक असो सण जो काश्मीर ते कन्याकुमारी मेरेन सगळ्या वाठारांनी मनयतात. महाराष्ट्रांत संक्रांतीच्या आदल्या दिसांक ***भोगी*** म्हणटात. ते दीस घेवडो, वांयगीं, मटर, ओले चणे, गाजर बी घालून भाजी करतात. ताका भोगीची भाजी म्हणटात. भोगीची भाजी आनी तीळ घाल्ली बाजरेची रोटी बहुतेक सगळ्यांगेर करतात. संक्रांती दिसा खिचडीय करतात.

संक्रांतीच्या दुसरे दीस किंक्रांत आसता. ते दीस बरीं कामां करिनात. हळदीकुकूम मात करूं येता.

तमिलनाडूंत हे संक्रांतीक पोंगल म्हणटात. थंय ह्या सणाक व्हड म्हत्व आसा. ते दीस सगळ्यांक सुटी आसता. पोंगलच्या आदल्या दिसाक हे लोक भोगी म्हणटात. भोगी दिसा सगळ्या घरांनी पुरणपोळी करतात. ही पुरणपोळी हे लोक भाकरेवरी थापून मागीर भरपूर घरावें तूप घालून भाजताले. हालीं थोडे लोक ही पुरणपोळी लाटफळयार लाटुनूय करतात.

संक्रांती दिसा हे लोक दारांत व्हड व्हड सुंदर रांगोळ्यो काडटात.

ते दीस हे लोक सक्काळीं उठटात, न्हाता-धुतात. तांचो पोंगल शिजोवपाचो म्हूर्त आसता. त्या म्हूर्तार ते रांदनीर आयदन चडयतात. पयलींचे लोक रांदनीर रांदताले. ते रांदनीक शेणान सारयताले. गेरून तिका रंगयताले. हालीं लोक गॅसीर रांदतात. गॅस, शेगड्यो बऱ्यो धुवन दवरतात. रांदच्या ओंट्यार ओल्या तांदळा पिठाची रांगोळी शेगडे भोंवतणी काडटात. पोंगल रांदचें आयदन घांसून पुसून लीप करतात. ताका हळदकुकूम घालतात. ताचे भोंवतणी हळडीचें पान घालतात. आयदनांत अर्दें दूद आनी अर्दें उदक घालून दवरतात. दिल्ल्या म्हूर्तार आयदन रांदनीर ना जाल्यार शेगडेर चडयतात.

ताचे पयलीं तांदूळ धुवन दवरतात. ताचे भितर भाजिल्ली मुगां दाळूय घालतात. दूद, उदक तापलें काय दूद उदकाक ओतो येता. तो ओतो हे लोक ओतूंक दितात. मागीर त्या आयदनांत तांदूळ आनी भाजिल्ली मुगांची दाळ शिजूंक घालतात. हें शिजलें काय तातूंत भरपूर तूप आनी जाय तितलें गोड घालतात. तातूंत काजू आनी खिसमीस घालतात. गोड घालून केल्ल्या ह्या शीताक शक्रे पोंगल म्हणटात. हाचेच वांगडा आनी बेरें शीत करतात आनी तातूंत मीठ घालतात. मागीर केळी पानार तें शीत आनी पोंगल वाडटात. उस हाडून ताचे करवे काडटात. आनी त्या पानार दवरतात. तें पान पयलीं देवाक दाखयतात. दुसरें पान करून सुर्याक दाखयतात.

शक्रे पोंगल केल्लें आयदन ते दीस घांशिनात. दुसरे दीस तांतलो उरिल्लो पोंगल केळी पानार घेवन तें पान कावळ्याक दितात. आपल्या भावांचें बरें जावचें अशें सगळीं बायलां मागतात.

ज्या कोणागेर शेतां आसतात, ते लोक हो पोंगल शेतांतूच शिजयतात. गोरवांक न्हाणयतात. तांकां सजयतात. गोड्धोड खावंक घालतात.

पोंगलच्या दुसऱ्या दिसाक माट्ट पोंगल म्हणटात. थोडे कडेन घरचीं सगळीं बायलां एकठांय येतात. कावळ्याक जेवण घालतात आनी कावळ्यां भशेन आमी सगळीं एकठांय रावतलीं. कावळ्यां भशेन जें किर्ते मेळटा, तें वांटून घेतलीं असो सोपूत घेतात.

आंध्रप्रदेश, कर्नाटक, केरळांत ह्या सणांक संक्रांती म्हणटात. पंजाब, हरियाण हाका लोहिरी पर्व म्हणटात. आदले दीस लाकडां एकठांय करून तांकां उजो घालतात. ताचे भोंवतणी नाचतात. आसामात हाका बिहू म्हणटात. गुजरात, कोलकोताक हाका उत्तरायण म्हणटात. काश्मिरांत हाका शिशूर सेंक्रमत म्हणटात. नेपाळांतूय हो दीस पवित्र मानतात. धान्य कापूंक ह्या दिसा नेपाळी लोक सुरवात करतात. बिहारांत हाका खिचडी पर्व म्हणटात. सुर्य ह्या दिसा दक्षिणायनांतल्यान, उत्तरायणांत प्रवेश करता. दीस व्हड आनी राती ल्हान जातात. ह्याच दिसा भगीरथान गंगा पृथ्वीचेर हाडिल्ली. तिणें मागीर भगीरथाच्या पुर्वजांक मुक्ती दिली आनी ती दर्याक वचून मेळ्ळी. तेन्ना सावन गंगासागराचेर ह्या दिसा लोक वतात आनी थंय स्नान करतात. मागीर ते सुर्याची पूजा करतात. संक्रांती दिसा न्हंयचेर वचून न्हावप पवित्र मानतात.

संक्रांतीचीं नांवां विंगड विंगड राज्यांत विविंगड आसलीं तरी तातूंत एक गजाल समान आसा. ती म्हळ्यार खिचडी. उत्तरेंत सगळ्याक व्हड व्हड आयदनांनी खिचडी करतात. हे खिचडेंत तांदूळ, उडदाची दाळ, मुगांची दाळ, हळद, मीठ आनी मेळटा त्यो भाजयो घालतात आनी ही खिचडी, तूप, पापड आनी लोणच्या वांगडा खातात.

ह्या पर्वांत आनीक एक पदार्थ खातात.तो म्हळ्यार तिळांचे लाडू. तिळांची चिकी. थोडे सुवातेर काळे तीळ खातात. तिळांचें म्हत्व ह्या दिसा विसरूंक शकनात.

गुजराती लोक ह्या दिसा सोल्लां आशिल्ल्या मुगदाळीची, तांदळांची खिचडी करतात आनी उंदिया करतात. कच्छच्या रणांत जाल्यार एक मडक्यांत सगळ्यो भाज्ज्यो म्हळ्यार ओले हरभरे, मटर, तोरची दाळ, गाजर, कंद, वांयगी, कणगां, अर्दपिकीं केळीं घालतात. तातूंत मीठ मसालो घालून तें मडकें धांपून रेवेंत पुरोवन दवरतात. सांजेर तें काडटात आनी ती शिजून आयिल्ली भाजी खातात.

ह्या सणाक खूबशे लोक पतंग उडयतात. दादले, बायलो भुरगीं सगळीं ह्या पतंग उडोवपाच्या खेळांत भाग घेतात. मौजमजा करतात. पूण ज्या लोकांच्या जिवार आमी मजा मारतां, तांकां मात आमी विसरतां.ते म्हळ्यार शेतांत राबतात ते शेतकामती!

कोणें तरी व्हॉट्सअॅपार धाडिल्लो पोस्ट म्हाकां आवडलो. तो हांव तुमचे खातीर दितां.

Let's salute the
Unsung Heroes
on this special occasion of
The Harvest Festival
Let's join hand in paying tribute
to the real heroes of this country...
The Indian Farmers for their
relentles efforrt, sweat and toil
Jai kisan!
Happy Makar Sankranti



मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७

तेफळां

डॉ.वामन रा नायक



# रंजक अर्थशास्त्र



**डॉ.वामन रा.नायक** हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.

*प्रो.ब्रम्हानंदाची शिकोवपाची स्वतःची स्वतंत्र अशी शैली आशिल्ली. कठीन विशय सोंपो करून शिकोवपाची कुरू तांचे कडेन आशिल्ली. इतलेंच न्हय तर आपल्या विशया विशीं विद्यार्थ्यांच्या मनात उमेद जागी करून नवे विचार, नवी मतां आनी दिश्टीकोन तयार करपाक ते मदत करताले.*

सामान्यपणान अर्थशास्त्र हो कंटाळवाणो विशय अशें समजतात. खरोच तो कंटाळवाणो आसा व्हय? तशें जालें जाल्यार तो विशय शिकप्यांचो आंकडो कित्याक वाढत आसा? एक वेळ असो आशिल्लो जेन्ना अर्थशास्त्र कला आनी कॉमर्स विद्यार्थ्यांकूच शिकयताले. पूण आता वेळ बदल्ला. खंयचोय अभ्यासक्रम तुमी पळेयात, एक ना दुसरे तरेन अर्थशास्त्र शिकयतात. कॅटरींग कॉलेजांत शिकयतात, फार्मसी, होम सायन्स, इंजनेरांक, अर्किटेकट, नेवल ॲ कादमी, भोंवडी अशे तरेन शिकप्यांचो आंकडो वाडत आसा. आतां तर सायन्सचे विद्यार्थीय अर्थशास्त्र शिकूंक लागल्यात. कांय विद्यापिठांनी, आमच्या शेजारच्या सिम्बोसिसा भशेन ताका मागणी वाढत आसा आनी ती वाढतच रावतली.

चड विद्यार्थी हो विशय शिकतले जाल्यार तो रंजक जावंक जाय. हया विशयाक धरून आशिल्ल्यो कांय गजाली वाचल्यार तो विशय रंजक जावं येता. कांय बरोवप्यांनी तशें केलां आनी वाडट्या प्रमाणांत लोक तांचीं पुस्तकां वाचतात. 'द ॲवनॉटॉमी ऑफ मिलेन कोली' ह्या पुस्तकांत रॉबर्ट बर्टनान म्हळां, 'हासत खेळत केल्लें काम सोंपेपणान जाता.'

अर्थशास्त्राचो मूळपुरूश म्हळ्यार ॲडम स्मिथ. अर्थशास्त्र हो विशय एक शास्त्र म्हणून लोकां मेरेन मांडपाचें श्रेय ताका वता. ताची फाटभूंय बऱ्याच जाणांक खबर ना. ताच्या जल्मा पयलीं ताचो बापूय भायर पडलो. ताका भावंडां नाशिल्लीं. ताचे विधवा आवयन ताचें बरे तरेन संगोपन केलें. एका चरित्रकारा प्रमाण ॲडम चार वर्सांचो आसतना ताका एके भटके जिप्सी टोळयेन पळोवन व्हेलो. ॲडमच्या काकांनी ताचो पाठलाव करून त्या जिप्सी कडल्यान ताका परत मेळयलो, ना जाल्यार यडये ॲडम स्मिथ एक भटको जिप्सीच जातलो आशिल्लो! १७ व्या वर्सा स्मिथ ऑक्सफोर्डाक शिकपाक गेलो. सदांच तो थंय योड्या वेल्यान वतालो. ताच्या 'वेल्थ ऑफ नेशन्स' हया पुस्तकांत ताणें बरें न शिकोवपी शिक्षकांविशीं वा दांडयो मारपी शिकोवप्यांविशीं खूब किर्ते बरयलां. शिक्षकाच्या वर्गात कितले विद्यार्थी बसतात ताचेर ताचो पगार थारवंचो असो गंमतीशीर, मागणी पुरवठो-किंमत हो बाजारपेठी उपायूच ताणें सुचयल्लो. स्मिथ विसरभोळेपणा विशीं खूब फामाद आशिल्लो. तो बरेचदा अनेक विचित्र गजाली करतालो. चलतना तो खंय तरी एक सारको पळयत स्वतः लागीं उलयतालो, पुटपुटतालो. थोडें अंतर गेल्या उपरांत तो कांय वेळां रस्तो चुकल्या सारखो, थांबून दिका बदलून, परत परत्या पावलांनी परततालो. एकदां तर कसलें तरी सपन पळयत तो नाइट गाऊनांतच रातीं पंदरा मैल चलत गेल्लो.

१७ जुलै १७९० हया दिसा स्मियाक एडिबरा हांगा पोटाच्या विकारान मरण

आयलें. ताची कोणें दखल घेतली ना. मागीर ल्हव ल्हव करून लोकांक तार्चे म्हत्व कळ्ळें. २००७ पासून इंग्लंडात २० पौंडाचे नोटींचेर ॲडम स्मिथाचो फोटू छापपांत आयलो.

ॲडम स्मिथ हो भांडवलशाहीचो कट्टर पुरस्कर्तो. पूण मजा म्हळ्यार पयशांचो संचय करतना उमेदी आसप (उत्सवप्रिय) आनी कलांचो आस्वाद घेवपाचें म्हत्व खाशेलेपणान सांगता. तो म्हणटा, पयशे एकठांय केल्यार मनश्याक नैराश्य येवंक शकता आनी उमेद आनी कला-संगीत, नाच हे आपणायल्यार त्या नैराश्याचेर मात करूं येता. पयशांची गिरेस्तकाय जर सांबाळपाची आसत तर तुमी मनाची गिरेस्तकाय नाच, गायन, संगीत, हास्यविनोद करून सारपाक जाय.

दिसभर कामांत गुंतून रावपी लोकांनी खोशी रावपा खातीर यत्न करूंक जाय. ही खुशालकाय, हो आनंद तांकां धन मेळोवन मेळचो ना तर मुक्त स्वच्छंद मना वरवींच मेळूंक शकता. ह्या विशयाचेर खूब संशोधन जालां. कसलेंय काम हें रूक्षपणान करचें न्हय, जर सहजतायेन हांसून खेळून केलें तर तें सोपें जाता.

अर्थशास्त्र शिकोवप हें सोंपें आनी कठीन अश्या दोनूय तरांनी जावं येता. ४५-५० मिनटांच्या एका लेक्चरांत जर मायक्रो इकॉनॉमिक्स शिकोवंचें जाल्यार, तें कळपाक कठीन, शिकोवपाक सोंपें. एक ग्राफ काडपाक पांच स मिनटां लागता. तो ग्राफ समजावन सांगपाक आनीक पांच स मिनटां लागतात. विद्यार्थ्यांक कळ्ळां काय ना हें जाणां जावपाक दोन-तीन प्रश्न विचारप जाता. कळूंक ना जाल्यार तो ग्राफ परत शिकोवंचो पडटा, अशे तरेन मायक्रो इकॉनॉमिक्स शिकोवप हें गणित शिकयल्या भशेन आसता. जांची गणिताची फाटभूंय यटमूट आसा तांकां मायक्रो इकॉनॉमिक्स सोंपे भशेन कळटा.

कांय वर्सां पयलीं गोंय विद्यापिठांत म्हाकां एम.सी.ए.च्या विद्यार्थ्यांक मायक्रो इकॉनॉमिक्स /मॅनेजियरल इकॉनॉमिक्स शिकय म्हूण प्रा.राव हांणीं विनवणी केली. पंदरा काय वीस लेक्चरांत तो कोर्स पुराय कर म्हूण म्हाकां सांगलें. म्हज्या मुखार एक व्हड आव्हान आशिल्लें. येदो व्हड विशय सायन्स विद्यार्थ्यांक कसो शिकवप इतल्या थोड्या वेळांत? ते चडशे विद्यार्थी आशिल्ले जांणी बी.एस.सीक गणित आनी फिजिक्स घेतिल्ले, तांणी अर्थशास्त्र केन्नाच शिकूंक नाशिल्लें.

तांचे पयलें लेक्चर हांवें घेतलें तेन्ना म्हाकां वेगळोच अणभव आयलो. ग्राफ काडीना फुडें तार्चे स्पश्टीकरण व्हडलेंशें दिवपाची गरजच लागली ना. तांची गणिताची फाटभूंय, तांकां खबर आशिल्ली, म्हणून चड स्पश्टीकरण दिनास्तना तांकां अर्थशास्त्राचे सिध्दान्त कळूंक शकतात हें हांवें अणभवलें.

फ्रेंच अर्थशास्त्रज्ञ जे.बी.से.हांणी आपल्या ग्रंथांत बाजाराविशींच्या नेमाची मांडणी केली. 'दर एक पुरवठो आपली मागणी निर्माण करता' हें से हांणी उदाहरणा सयत स्पश्ट केलें. वस्तू तयार करतना वस्तूंच्या मोला इतकींच मेळकत लोकांच्या हातांत पगार, भाडें, कळंतर आनी नफ्याच्या रूपान पडटा. अशे तरेन सगलो माल सदांच खपतलो आनी विकूंक नाशिल्लें उत्पादन केन्नाच निर्माण जावचें ना. देखून मंदी वा अर्थीक अरिश्टाचो प्रस्नूच येना. पूण १९२९ च्या ग्रेट डिप्रेशनच्या वेळार माल विकनास्तना पडून उरलो. लोकां कडेन पयशेच नाशिल्ले. अशे तरेन से च्या नेमाक वेर गेली.

Neoclassical Economics नवसनातन वादाक केंब्रिज संप्रदाय म्हूण मानतात. ऑल्फ्रेड मार्शल हो ह्या संप्रदायाचो प्रवर्तक म्हूण मानतात. केन्सच्या मतान हो मान मॅल्थसाक मेळूंक जाय. ह्या संप्रदायान सनातनवाद्यांनी केल्ल्या विचारांत आनी संशोधनांत सुदारणा केली. तशेंच अर्थशास्त्रीय विवेचनांत एक पध्दत म्हूणन तांणी गणितीय मांडणी आपणायली. हो संप्रदाय सुमार ५० वर्सां विकसीत जालो. केन्साचो विचार आनी तत्वज्ञानाक लागून तांचें म्हत्व कमी जालें.

**केन्साचें अर्थशास्त्र :** पुस्तकी सिध्दान्ताची वास्तवा कडेन सांगड घालपी विसाव्या शेंकड्यांतलो आनीक एक फामाद इंग्लिश अर्थतज्ञ म्हळ्यार जॉन मेनार्ड केन्स. सनातन वाद आनी नवसनातन वाद हार्चे रीण तार्णे मान्य केलें. केन्साच्या विचारांनी नवी क्रांती घडोवन हाडली जाका 'केन्सप्रणीत क्रांती' अशें म्हणूं येता. योगायोग म्हळ्यार ज्या वर्सा मार्क्साक मरण आयले त्याच वर्सा म्हळ्यार १८८३ सालांत केन्सान जल्म घेतलो. केन्साचो बापूय जॉन नेव्हिल केन्स हो केंब्रिजांत आल्फ्रेड मार्शला बरोबर अर्थशास्त्र शिकयतालो. तोय फामाद आशिल्लो आनी ताची आवय केंब्रिजांत शिकोवपी बायलां मदली पयली. केन्स ल्हानपणांत हुशार आशिल्लो.

१९२९ सालांत उप्राशिल्ली अरिश्टाची परिस्थिती भयंकर आशिल्ली. एके वटेन मालाचें विकप जायना, दुसरे कडेन बरेंच दारिद्र. मजा म्हळ्यार त्या वेळार हार्वर्डांत शिकोवपी जोसेल शुंपीटर आनी लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्सालो लियोनेल रॉबिन्स हांणींय ह्या मंदीच्या काळांत कांयच करी नासतना, 'पळयत रावात' असो सल्लो दिलो.

केन्साचो युक्तीवाद लोकांक कळनाशिल्लो असो न्हय, तर परिस्थिती कालांतरान सुदारतली अशें ते मानताले. ताका केन्सान सांगलें 'इन द लाँग रन वी आर ऑल डेड'. तो हुशार, स्पश्ट उलोवपी आशिल्लो. बऱ्याच राजकरण्यां कडेन तार्चे पटा नाशिल्लें. ताका तांणीं कुशीक उडयल्लो. एकदां तर तार्णे ते वेळा वयले प्रधानमंत्री लॉईड जार्जाक केन्सान म्हळें 'तुम्ही पिशां सारकें नाका तें उलयतात' केन्साची बुध्दीमता आनी इनसाईटाक लागून

तार्चे उलवप आयकून घेवंचें पडलें. केन्सान बरींच पुस्तकां बरयल्यांत. केन्साक लागून कल्याणकारी अर्थवेवस्थेक एक बरी बसका मेळ्ळी. पॅन्शन, बेरोजगार भत्तो अशेतरेच्यो कल्याणकारी येवजण्यो सुरू जाल्यो.

१९२५ त तार्चे लीडिया लोपो कोव्हा हांचे कडेन लग्न जालें. तो खूब वाचन करतालो आनी एकदां वाद घालपाक लागलो तर ताका वेळाचें भान आसनाशिल्लें. तार्णे सिव्हील सर्व्हिसची परिक्षा दिली. ताचो पयल्या धा त नंबर लागलो. पूण अर्थशास्त्रांत सगळ्यांवून कमी मार्क पडले. 'परिक्षकांक म्हजे परस कमी खबर आसूं ये ताका हांव किर्ते करू?' अशें तार्णे म्हणलें. मागीर तें खरें थारलें.

१९४६ सालांत केन्स ससेक्साक वाचन आनी विश्रांती घेवपाक गेल्लो. थंय एके सकाळी ताका एक सारखी खोंकली आयली. तार्णे बायलेक -लिडीयाक उलो मारलो. ती धावूनच ताच्या पलंगा कडेन आयली. पूण ती पावसर केन्साक मरण आयिल्लें. 'वेस्ट मिनिस्टर अबे' हे मानाचे सुवातीर ताका दफन केलो. ताची जाणटी आवय बापूय त्या वेळार हाजीर आशिल्लीं. टायम मासिकान विसाव्या शेंकड्यांतलो सगळ्यांवून व्हड अर्थतज्ञ म्हणून ताका श्रध्दांजली ओंपून मृत्यूलेख बरयल्लो, जो बरोच गाजलो.

सद्या जरीय केन्सवादी, मॉनेटरिस्ट,रॅशनल एक्सपेक्टेशन्सवादी आनी सप्लाय सायडर्स हांचे मदले वाद सेगीत चालू आसले तरीय तांच्यांत समेटय घडून येता. देखूनच सद्या अनेक देशांत ह्या अनेक थिअरीजचें मिश्रण वापरिल्लें दिसता.

अर्थशास्त्राची वेगळी शैली आसा. तो विशय जाणां जालो म्हूण तो बरतरेन शिकयतलो अशें जातलेंच अशें ना. कठीन विशय सोंपो करून शिकोवपाची कुरू ताचे कडेन आसपाक जाय. बाँबे स्कूल ऑफ इकॉनामिक्सची उज्जवल परंपरा आपल्या वैचारीक योगदानान प्रो.सी.एन.वकील हांणी सुरू केल्ली, मुखार तांचे शिश्य प्रो.पी.आर. ब्रम्हानंद हांणी ती फुडें व्हेली. प्रो.ब्रम्हानंद हांका अतिशय सुशिक्षित, सुसंस्कृत आनी प्रतिश्ठित कुटुंबांत जल्म घेवपाचें भाग्य मेळ्ळें. प्रो.ब्रम्हानंद हाचेर व्हड अर्थतज्ञांचो प्रभाव आशिल्लो. जेव्हान्स-हायेक विचार परंपरा, केंब्रिज अर्थशास्त्राची विचारसरणी , खास करून मार्शल, प्रो.नाईट हांचे विचार, रॉबिन्स, रिकार्डो, रॉबर्टसन, केन्स फिशर हया त्या वेळो वेल्या प्रभावशाली अर्थतज्ञांचो परिणाम तांचे अभ्यास पध्दतीचेर जाल्लो.

प्रो. ब्रम्हानंदाची शिकोवपाची स्वतःची स्वतंत्र अशी शैली आशिल्ली. कठीन विशय सोंपो करून शिकोवपाची कुरू तांचे कडेन आशिल्ली. इतलेंच न्हय तर आपल्या विशया विशीं विद्यार्थ्यांच्या मनात उमेद जागी करून नवे विचार, नवीं मतां आनी दिश्टीकोन तयार करपाक ते मदत करताले. तांचे कडेन शिकप हो सुखदिणो अणभव असो तांच्या विद्यार्थ्यांचो अभिप्राय आशिल्लो. तांणीं संशोधन करपाक सुमार ४० परस चड जाणांक आदार केलो. संशोधन मार्गदर्शक ह्या नात्यान तांची कारकीर्द भोवच गाजली. तांचे कडेन वेगवेगळया विद्या शाखेंतले विद्यार्थी संशोधना खातीर येताले. मुखार फामाद जाल्ल्या अनेक विचारवंताचे ते मार्गदर्शक आशिल्ले. तांच्या विद्यार्थ्यां मदें लार्ड मेघनाद देसाय, विमल जालान, ए.वासुदेवन, विकास चित्रे, जे.सी. रॉय, एस.ए. दवे, एस.बी.मेहता, एम.एस.जोशी, आय.जी.देसाय, दिलीप नाचणे अश्या अनेक नामवंताचो आस्पाव जाता.



मुंबय विद्यापिठाचे आदले अर्थशास्त्र विभाग मुखेली आशिल्ले प्रो.दिलीप नाचणे स्पश्टपणान कबूल करतात प्रो. ब्रम्हानंद हांचे कडल्यान चार गजाली स्पश्टपणान शिकपाक मेळटात. त्यो म्हळयार १) बौध्दीक जिज्ञासा २) विरोधी विचार आयकून घेवपाचें पांशिर्केस ३) अल्पकाळांत फॅशनेबल विचारां मुखार झुकप ना आनी ४) निर्भय स्वतंत्र वृत्ती.

प्रो.ब्रम्हानंद हांणी अनेक मानाच्या पदां वेल्यान वैचारीक योगदान दिल्लें आसलें तरीय एक गजाल तांणी कटाक्षान टाळ्ळी ती म्हळयार शासनाचे स्वंयचेच समितीचेर सल्लागार म्हूण तांणी केन्नाच जाबसालदारकी आपणायली ना. तांच्या परखड आनी स्पश्टवक्त्या विचारांक लागून तांचीं मतां शासकीय विचारांत आपणावप हें अशक्यूच आशिल्लें. प्रो.ब्रम्हानंदांक ताची जाण आशिल्ली. तांचें ठाम मत आशिल्लें की विचारवंतांचें जग आनी शासकीय सल्लागारांचें जग मुळांतच वेगळें आसा. दोनाय मदलें अंतर खूब व्हड आसा. खरेपणी सांगचें जाल्यार विचारवंताक सत्याची कास सोडपाची नासता आनी सत हें भोवतेक वेव्हार धोरणकर्त्यांचे पसंतीक उतरपाचें नासता. देखून खऱ्या विचारवंतान शासनाक सल्लो दिवपाचे भरीक पडचें न्हय.

प्रो.ब्रम्हानंद हांणी भारताचो अर्थीक विचार आनी विचारवंतांचो पुरायेन अभ्यास केलो.दादाभाई नौरोजी, आर.सी.दास,

न्या.रानडे, तेलंग, अय्यर, दिनशा बाच्छा, नामदार गोखले अश्या फामाद विचारवंतांचो अभ्यास केलो. हया अभ्यासाचें मुखावेलें पावल म्हळ्यार तांणी स्वतंत्र्या पयलीं आनी स्वातंत्र्या उपरांतल्या भारतांतल्या पन्नास व्हड अर्थतज्ञांचो बारीकसाणेन विश्लेशण करून भारतीय अर्थसाहित्यांत मोलादीक भर घाली. "The lost trails or some thoughts in Pre-Independence Economics in India' ह्या लेखांतल्यान तांणी राश्ट्रीय् वृत्तीची स्वातंत्र्य चळवळ चलवप आनी त्याच वेळार शास्त्रशुध्द अर्थशास्त्र विशयाची वैचारीक उत्क्रांती राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचे केस बरें विश्लेशण तांणीं केलां.

ह्या अभ्यासाचो शेवट मात तांणी एकदम खेदान उद्गार काडून केला. ते म्हणटात :

The missionary zeal of great economists specially in pre-Independence period has vanished from current economics in India. That of course is a tragedy and no wonder that some people agree that Indian economics must be thrown in the Arabian sea.

त्या वेळा वयल्या अर्थतज्ञांचे वैचारीक गुलमगिरी विशीं तांकां खंत भोगताली. 'आमच्या विचारवंताची बुध्दी इतकी अस्तंतेच्या वळणाचेर गेल्या की तांकां भारताच्या बऱ्याचो स्वतंत्र विचार करपाकूच जायना' अशें तांणी निर्शेवन म्हळां. 'समाजांतल्या उंच थरा वेल्यान तांची अर्थीक धोरणां वरवीं सुदारणा जायत रावची हो संकुचीत विचार आसा' अशें तांणीं म्हणिल्लें आसा.

सुमार तीन दशकां पयलीं ह्या उलवण्याची सुवात कितें आसा हें जाणां जावप गरजेचें थारता. प्रो.ब्रम्हानंद हांणी बोट दाखयल्लो आमचो आळस आनी गुलामगिरीची वृत्ती आयच्या काळांत आनीकच वाढीक लागल्या अशें म्हणप अतिताय जावचें ना. जागतिकीकरणाक लागून स्वतंत्र ताकदीचो विचार आनी मार्गान आनी कितले मुखार सरल्यात हें काळच थरयतलो.

भारत आनी आशियांत पयलें अर्थशास्त्राचें नोबल इनाम मेळोवपी श्री.अमर्त्यकुमार सेन, हांचे बरेच विचार मूलभूत स्वरूपाचे आसले तरीय ॲडम स्मिथ, कार्ल मार्क्स, एंजल्स आनी पायरो श्राफा हांचो तांचेर विशेश प्रभाव आशिल्लो.खास करून स्मिथाच्या "Moral sentiments' हया पुस्तकाचो ताचेर चड प्रभाव आशिल्लो. तांणी अर्थशास्त्राची वेव्हारीक कक्षा रूंदावन ती समाजभिमुख आनी मानवतावादी करपाच्या अनमोल वावरा खातीर तांकां भौमान मेळ्ळो.



पुणे. मो: ९५२७७४४९९०




इष्टांनो,

तुमचो, आमचो सगल्यांचो जिवाभावाचो इष्ट, स्वर्गवासी सुरेशबाबाक मना काळजा सावन श्रद्धांजली अर्पण करून ताच्या आत्म्याक चीरशांती मेळची म्हणून परमेश्वरा कडेन प्रार्थना करतां.

आमचीं भावजीवनां आनी एकंदर गोंय राज्याची रासवळ जीण खूब गिरेस्त करपी अत्यंत लोभस, मायेस्त आनी गुणेस्त व्यक्तिमत्वाक आमी सासणाचे अंतरल्यात ही भावना खूब म्हळ्यार खुबूच दुखदिणी आसा. आमचो एक व्हड आधाराचो खांबो, ज्ञानवंत, गुणवंत आनी प्रतिभावंत, स्वतंत्र बाण्याचो आनी ताठ कण्याचो पुरुषश्रेष्ठ - ताका आमी अंतरल्यात ही जाणीव खूब निराश आनी हताश करपी. फक्त काळूच हे विकल परिस्थितीत pain killer जाल्यार जावं येता.

आमच्या परम दुःखाच्या काळ्या किट्ट कुपांक एक परजळीत अशी रूप्याची देग आसा. ती म्हळ्यार ही जाणीव कीं सुरेशबाब lived a life that was well, full, clean and purposeful. His exit, though painful for all of us, was glorious for him, in a way. अशें भाग्य दुर्मीळ आसता. तें दुर्मीळ भाग्य आमच्या सुरेशबाबाक मेळ्ळें.

भावी इतिहासकार जेन्नां Makers of Modern Goa हांची वळेरी बरयतले, तेन्नां ते वळेरींतलो Abou Ben Adamजावन आसतलो आमचो सुरेशबाब.

ह्या महापुरसाच्या व्यक्तिमत्वाक आशिल्ले तीन तेजस्वी आयाम. धारदार बुद्धीमत्ता, व्हडा उंचायेची गुणवत्ता आनी शीम मेर नाशिल्ली कर्तृत्वसंपन्नता.

ताच्या अफाट अशा कर्तृत्वसंपन्नतेचो नियाळ दोन कालखंडांत विभागूं येता. ताच्या निवृत्तीपयलींचो काळ आनी निवृत्ती उपरांतचो काळ. गोंयच्या मुक्ती उपरांत तांणी तांच्या वडिलांनी स्थापन केल्ल्या New Goa High Schoolच्या मुखेलपणा व्हरवीं, Goa Headmasters' Association चो Secretary आनी Chairman ह्या पदां व्हरवीं सरकाराक मार्गदर्शन करून, शाळांचे शिक्षक, मुख्याध्यापक आनी संस्थाचालक हांकांय मार्गदर्शन करून, माध्यमिक शिक्षणाची बुन्याद घटमूट केली. तांची गुणवत्ता आनी कार्यक्षमता पळोवन गोंय सरकारान तांकां गोंयच्या S.S.C. आनी Higher Secondary Board चे एक न्हय तर सतत दोन टर्मां खातीर अध्यक्षपद दिलें. थंय तांणीं इतिहास घडयलो.

अत्यंत यशस्वीपणान तांणीं गोंयांत माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक अभ्यासक्रमाची पुनररचना केली. ही पुनरचना अखिल भारतीय पातळीचेर जाली. त्या वेळार कांय काळ अखिल भारतीय बोर्ड अध्यक्ष मंडळाचे अध्यक्ष म्हणून ते निवडून आयिल्ले. अखिल भारतांत शैक्षणिक पुनररचना घडोवन हाडपांत तांचो वांटो चड मोलादीक असो आसलो.

ह्याच काळांत गोंयच्या बोर्डाच्या autonomy म्हळ्यार स्वतंत्रतेचेर घालो घालपाचो प्रयत्न गोंयच्या तत्कालीन महामहीम राज्यपालांनी केलो. स्वतंत्र बाण्याचो आनी ताठ कण्याचो चॅरमॅन, सुरेशबाब करसोच बधलो ना. आपल्या खडेगांठ, प्रभावशाली नेत्रृत्वगुणां व्हरवीं तार्णे बोर्डाच्या Executive Council च्या सगळ्यांच्या सगळ्या - सरकारी अधिकारी धरून, सभासदांचो तेंको मेळयलो आनी राज्यपालांचें अतिक्रमण परतून उडयलें. बोर्डाचीच न्हय, गोंयची लज राखली. गोंयकारपण शाबूत दवरलें. Assertion of educational autonomy hr case study म्हणून तेन्नां देशभर गाजली. That was Sureshbab's finest hour and Goa's proudest moment.

निवृत्ती मागीर एक शिक्षण सल्लागार मंडळ स्थापन करपाचो ताचो विचार आशिल्लो. हो विचार कुशीक पडलो आनी सुरेशबाबान अकरमात कोणाच्या ध्यानीं मनीं नाशिल्ल्या धर्म, अध्यात्म आनी नीतिशीं लागीं आशिल्ल्या साहित्त्य निर्मितीच्या वावराक आरंभ केलो.

त्या मागीर आरंभ जाता सुरेशबाबाल्या निवृत्ती उपरांतच्या साहित्त्य सृजनाच्या वावराक. होवूय एक चमत्कार. ताचें कर्तृत्वाचें पुष्पक विमान आतां मेरेन runway चेर धांवतालें तार्णे अकरमात गगन भरारी घेतली. ताका प्रतिभेचो साक्षात्कार जालो. साक्षात सरस्वतीन मंत्रून दिल्ले लेखणीन तार्णे साहित्तीक वावर सुरू केलो. हनुमानान जन्मताच सूर्य बिंबाक हात घालो तसो ताणे भगवद्‌गीता आनी ज्ञानेश्वरी अशा सारख्या ग्रंथांची भाशांतरां केलीं. तींवूय समश्लोकी. अशे एका फाटसून एक, अजिबात विसव घे नासतना, नीतिमुल्याधारीत, विविध धर्माचे धर्मग्रंथ तो कोंकणींत अणकारीत रावलो. तो अखेरच्या श्वासा मेरेन. अणकाराचो वावर करतांनाच तार्णे इतिहास संशोधनाचो, चिंतनाचो आनी विश्लेशणाचो मोलादीक वावर केला. अणकार ग्रंथांक तार्णे पांडित्यपूर्ण प्रस्तावना बरयल्यात. त्या प्रस्तावनांचो एकवटीत ग्रंथ केल्यार त्या ग्रंथाक खंयचोय रत्नपारखी युनिवर्सीटी सन्माननीय D.Lit., Honouris Causa डॉक्टर ऑफ लिटरेचर ही डिग्री दिवंक शकता. तितलें तांकिचें हें लेखन सुरेशबाबान केलां. फादर स्टिफन्साचें ख्रिस्तपुराण तार्णे अणकारीत केलां. ताका 'गोंयकारांचें जागतिकीकरण' ह्या माथाळ्याची प्रस्तावना बरयल्या ती पि. एच. डी.च्या प्रबंधाच्या तांकिची आसा. अणकार ग्रंथांत तांणीं ज्यो असंख्य तळटिपो आनी स्पष्टीकरणां दिल्यांत, तींवूय सुरेशबाबाच्या लेखनाचो स्तर वैचारिकतेच्या खूब वयल्या पांवड्याचेर व्हरून दवरतात. हिमालयाची उंची आनी महासमुद्राची खोलाय आशिल्लो हो वावर. आपल्या साहित्त्य निर्मितींतल्यान सुरेशबाबान कोंकणी सरस्पत खूब गिरेस्त केल्या.

आनीक एक महत्त्वाची गजाल; साहित्त्य निर्मितींतल्यान तांणीं भारत देश जोडपाचो वावर केला. संस्कृतायेचे, समजीकायेचे, भावपणांचे पूल बांदपाचो हो वावर. आमच्या, फायच्या आनी फुडाराक येणाऱ्या पिळग्यांक सर्वधर्मसमभाव, परमतसहिष्णुता, न्याय नीति, त्याग, परोपकार आनी चड महत्वाचें मनीसपणाची दिक्षा दिवपी साहित्त्य सुरेशबाबान रचलां. विघटन ग्रस्त देशाक ऐक्याचे भावनेन बांदून दवरपाचें संजीवनी सारकें रसायन निर्माण करून दवरलां. भारत निर्माणाचो हो वावर. सुरेशबाबाल्या ह्या वावराची दखल इतिहास घेतलोच. इतलेंच न्हय ताची नोंद तो आपल्या अजरामर दस्तऐवजांत भांगराच्या अक्षरांनी करतलो.

सुरेशबाब, तुझो देह नश्वर. तो नष्ट जाला. पूण तुज्या अक्षर साहित्या व्हरवीं तूं अमर जाला.

तुका आमची विनम्र श्रद्धांजली.

**- प्रा. माधव श्रीनिवास कामत**



# सावित्रीबाई दलाल

गोंयच्या वेगवेगळ्या मळावेल्या महिलां खातीर चर्चासत्रां, मार्गदर्शन दिवन तांकां तांच्या पांयार उबीं करपा खातीर वावुरपी **भारती बांदोडकार** हांणीं फाटलीं बरींच वर्सां मडकयच्या पिसफूल सोसायटीक आपलें योगदान दिल्लें आसा. गोंयच्या तळागाळांतल्या महिलांक सगळ्या मळांचेर सक्षम करपाचे नदरेन तांचें लेखनय अदींमदीं चालू आसता.

*दुसऱ्या महायुद्धाच्या वेळार बाजारांत धान्यटंचाई निर्माण जाली. त्या वेळार रेशनाचेर तांदूळ मेळटाले. सावित्रीताई उकडो तांदूळ करून रेशनाचेर विकपा खातीर सरकाराक दिताली, तशेंच माल्ल घेवन तेल काडून भायल्या देशांत धाडटाली. सावित्रीताई सारके आनीकूय लोक तेल काडटाले. तेल काडपाचो एक व्हडलो धंदो जावन आशिल्लो.*

'अन्याया आड गव्हर्नरांकडेन न्याय मागपी सावित्रीबाई' अशें जांचें सार्थ वर्णन करूं येता ते सावित्रीताईन घराण्याची प्रतिश्ठा, परंपरा, समाजाचें बंधन, हें सगळें सांबाळून धाडस आनी तेच प्रमाण चिकाटी, असामान्य कर्तबगारी दाखोवन स्वबळाचेर आपलें एक वेगळेंच स्थान निर्माण केल्लें. एक स्वाभीमानी आदर्श गोमंतकीय गृहिणी.



प्राथमिक शिक्षण सुद्धां जावंक नाशिल्ले पिरायेच्या १० वर्साचेर तिचें लग्न जालें. तिचें कुळार विर्जिनकार घराणें. दलाल कुटुंबाची अर्थीक स्थिती बरी नाशिल्ली. पूण सावित्रीताई भिली ना. तिणें चिंतलें हांव दलाल कुटुंबाची सून म्हणून ह्या घरांत आयल्यां. आतां ह्या घराची प्रतिश्ठा, सन्मान वाडोवपाची जबाबदारी म्हजी.

आपल्या कुटुंबाच्या खर्चाक आपलो हातभार लागचो म्हणून तिणें ११-१२व्या वर्सा सावन आपरोजगार सुरू केलो. विणकाम, भरतकाम, शिवण करून पयशे जोडपा खातीर ती काम करपाक लागली. त्याच वेळार तिच्या घोवाक कस्टम खात्यांत नोकरी मेळ्ळी. ताचें पोस्टींग जालें मोल्यां. सावित्रीताई भुरग्यांक घेवन घोवा वांगडा मोल्यां गेली. मोलें हें जंगलक्षेत्र. सावित्रीताईन चिंतलें, लाकडांचो वेवसाय करपाक ही बरी जागा. मोलेच्यान मडगांवां येतना सावित्रीताई लाकडाचे भरे बांदून मडगांवां हाडून विकपाक लागली. मागीर दलालबाबाची बदली कुळ्यां जाली तशी, मडगांवच्यान नुस्तें कुळ्यां हाडून ती विकपाक लागली. अशें करतां करतां तिका कळ्ळें मडगांव ऑश्पीसियू हॉस्पिटलाक लागपी लाकडांची पावणी जावपाची आसा. तिणें ती पावणी घेतली. आतां तांची आर्थीक स्थिती सुदारूंक लागली. तशें तिणें घोवाक सांगलें. आतां नोकरी सोड, आमी आमच्या घराच रावून धंदो सुरू करुंया. घोवान तिचें आयकलें आनी नोकरी सोडली.

त्या काळाचो विचार केलो जाल्यार दत्ताबाब आनी सावित्रीबाई २१ व्या शेकड्यांतली काय किदें? तीं दोगांय पुरोगामी विचारांचीं आशिल्लीं. सावित्रीताईन आपरोजगार करपाक दाखयल्लें धाडस, आपरोजगाराक तिका मेळिल्लें यश, घोवाचें सहकार्य तशेंच कौतूक हाकाच लागून सावित्रीताईचो आत्मविश्वास वाडलो. आतां त्या दोगांनीय आपल्या घराच दुकान (पसरो) सुरू केलें.

सावित्रीताई तिचे कुळारचे संपत्तीचो हक्काचो वांटो आशिल्लो. तो वांटो घेवपाक तयार जाली ना. पूण तिणें आपल्या भावांक सांगलें, तुमकां जर म्हाकां मदत करची अशें दिसता जाल्यार आपल्या घरांत मेकळो जागो आसा थंय जर्मक तंत्रज्ञानाचे मदतीन तांदळाची आनी पिठाची गिरण घालून दी. भावांनी तिका गिरण घालून दिली.

फुडें हेच गिरणीच्या धंद्यान तिची उदरगत जायत गेली. आतां ती घर सांबाळटा. तशेंच भाताची, पिठाची, तेल काडपाचीय गिरण तिणें सुरू केली. ह्या तीन गिरणींचो मोठो वेवसाय ती सांबाळटाली. दिसरात काम करताली आनी हें सगळें करतना तिणें भुरग्यांक बरे तरेन वाडयलीं. रांदची कूड सांबाळ्ळी. तेच बराबर सदांच दासबोध, ज्ञानेश्वरी ती वाचताली. तिच्यो इश्टीणी सदांच आयकुपाक येताल्यो. तांकां ती जें वाचलां ताचो अर्थ समजून सांगताली. त्या वेळार मुंबयच्यान खबरांपत्रां येतालीं. तीं सगळीं एकठांय बसून वाचतालीं. तशेंच बाजारभाव, दर दिसा ताचेर चर्चा जाताली. आतां गिरणीच्या वेवसायाक (जमीन) जागा कमी पडपाक लागली तशी वेवसाय वाडोवपा खातीर नवो जागो घेतलो. १०-१५ वर्सांत ह्या गिरणीच्या वेवसायांत तिची अर्थीक परिस्थिती बरी जाली. हें सगळें करतासतना आपल्या कुटुंबाकडेन केन्नाच आडनदर जावंक दिलेंना. घर, संवसार वेवसाय क्षेत्र सांबाळ्ळें.

सावित्रीताईचें कुळार आनी घोवाचें घर मडगांवांतूच आशिल्लें. तिका कोण वळखना अशें नाशिल्लें. तिका तिच्या परस व्हडले 'पिरुबाय' म्हणटाले. तर धाकटे 'पिरुअक्का' म्हणून वळखताले. तिणें जात-धर्म, गरीब-श्रीमंत असो भेदभाव कोणाच कडेन करूंक ना. तिचें दार सगळ्यां खातीर उक्तें आशिल्लें.

दुसऱ्या महायुद्धाच्या वेळार बाजारांत धान्यटंचाई निर्माण जाली. त्या वेळार रेशनाचेर तांदूळ मेळटाले. सावित्रीताई उकडो तांदूळ करून रेशनाचेर विकपा खातीर सरकाराक दिताली, तशेंच नाल्ल घेवन तेल काडून भायल्या देशांत धाडटाली. सावित्रीताई सारके आनिकूय लोक तेल काडटाले. तेल काडपाचो एक व्हडलो धंदो जावन आशिल्लो. जहाजाची वाहतूक बंद जाली. ह्या वेळार पुर्तुगाल देश ह्या युद्धाच्या वेळार तटस्थ आशिल्लो. गोंयांत तयार जावपी खोबरेल तेलाचे निर्यातींत वेपार करपी लोकांचे परवाने बंद केले. सगळे वेपारी अडचणींत पडले.

गोंयचो गव्हर्नर पुर्तुगेज अधिकारी खूब कडक आशिल्लो. सगळे तेल काडपी वेपारी निराश जाले. सगळ्यांनी आशा सोडली पूण सावित्रीताई मात्तूय भिवुना. तिणें चिंतलें भिवून कांयच जावचें ना. हातूंतल्यान वाट काडपाक जाय आनी त्या खातीर गव्हर्नराक मेळचें पडटलें. अशा वेळार तिका फकत घोवाची साथ मेळ्ळी. भुरगीं-सोयऱ्यांक गव्हर्नराक मेळप मान्य नाशिल्लें.

सावित्रेताईची एक इश्टीण आशिल्ली. तिचो घोव प्रोफेसर. तिणें आपले इश्टीणीक सांगलें. पयलीं पुर्तुगेज भाशेंतल्यान अर्ज बरोवन घेतलो. सावित्रीताईक कोंकणी आनी मराठी येताली. तिची इश्टीण सावित्रीताईक गव्हर्नराचे पलासीकडेन गेली आनी तिका थंय पावोवन इश्टीण गेली. पलासी भितर वचपाक तिका मेळना.

पुलीस अधिकाऱ्यान तिका परत वचपाक सांगलें. ती हार मानपी बायल नाशिल्ली. तिणें त्या अधिकाऱ्याक आपूण हांगा कित्याक आयल्यां तें सांगलें. ती मोठ्या मोठ्यान उलयताली. तें आयकून एक व्यक्ती फुडें आयली. तो तिका वळखतालो. पांडुरंग पिसुर्लेकार ताचें नांव. ताणें तिका गव्हर्नराकडेन व्हेली.

सावित्रीताईन गोंयचे तेल वेपारी कशे अडचणींत पडल्यात तें गव्हर्नराक आपले भाशेंतल्यान सांगलें आनी पांडुरंग बाबान ती सांगता तें पुर्तुगेजींतल्यान गव्हर्नराक सांगलें.

एक हिंदू बायल मनीस वेवसाय करता आनी आयज ती अन्याया विरुद्ध न्याय मागपाक हांगा मेरेन पावली. गव्हर्नराक अजाप जालें आनी ताणें रोखडीच खोबरेल तेलाचेर बंदी काडपाचो आदेश दिलो. हाचो फायदो सावित्रीताईक जालोच, तेच बराबर गोंयच्या तेल काडपी सगळ्या वेपाऱ्यांक लेगीत जालो.

म्हाकां दिसता सावित्रीताईचीं रुपान विद्या-लक्ष्मी-शांता-संयमी-सुसंस्कृत अन्याया विरुद्ध झगडपी दुर्गा रुपां पळोवपाक मेळ्ळीं.

हांवें तांकां पळोवंक ना. (वाचलां) ही सत्यकथा आमचे गोंयचे हिरंकणीची आनी ती आयचे नवे पिळगे मेरेन पावची.

जर एक बायलमनशेन जिद्दीन, आत्मविश्वासान, धाडसान, सव्यमान, स्वाभिमानान जगपाचो निश्चेव केलो तरूच हें अशें यश जोडप शक्य आसा...

मडकय-गोंय. मो. : ८८०५८२२२७६



शब्दुली

रुपाली
कामत
शेटये

**रुपाली कामत शेटये** पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत ग्रंथपाल म्हूण कार्यरत आसा. तांकां बरोवपाची आवड आसा. बिम्ब मासिकांतल्यान तांचें बरप तांच्या संवेदनशील सर्जनशीलतायेची गवाय आसा.



# कितना बदल गया इन्सान!

*कांय लोकांक जर मोनजात आवडना जाल्यार तांणीं तांचेर अत्याचारूय करप न्हय आनी वालेकूय वचप न्हय. केन्नाय जाता अशें की कांय जाग्यांनी कुत्रीं, गायो ( चड करून बेवारशी वा थोडीं पोशिल्लीं आसतात जांकां मालकांनी सोडिल्लीं आसतात. ) सट्ट करून आंगार धांवून येतात, तेन्ना उपाय नाशिल्ल्यान तांकां आमुडचेंच पडटा.*

मनीस बदलला आनी बदलत आसा म्हणपाचें म्हाकां कांय घडणुको दोळ्यां मुखार पळयल्ल्यान कळ्ळें. दरेक दिसाक, उतरा पावलाक आमच्या दोळ्यां सामकार कसल्यो ना कसल्यो घडणुको घडत आसतात. कांय बऱ्यो, कांय वायट. कांय प्रसंगांचेर आमी फावो तशें उलयतात, करवाय करतात आनी उपायूय घेतात. कांय कडेन अशें करप जमना. सगळेच कडेन नाक खूपसप आसना हें म्हाकांय खबर आसा. पूण जाचेर उपाय घेवंक शकता थंय घेवचोच अशें म्हजें ठाम मत. जें आमच्या हातांत ना ताचेर ओगी रावपच बरें.

कृ. म. सुखठणकार हांच्या 'नारंगां आनी सुरसुरीं' ह्या पुस्तकांतलो लेख 'जनरेशन गॅप' वाचलो तेन्ना दोळ्यांनी चार दुकां आयलीं. 'ते पोदेरूय गेले आनी ते उंडेय गेले' ही म्हण याद जाली. खरेंच आयचें जनरेशन खूबच बदललां. इतलें बदललां की आमी जें कितें घडटा तें पळोवन लेगीत कांयच करूंक शकनात. कितेंय बरें वायट सांगप वा सल्लो दिवपय म्हळ्यार अंगलट येवपाचें. चिखलांत फातर मारिल्लेवरी जाता. मनीसपण, समजीकाय, जापसालदारकी, आपलेंपण, इश्टागत आनी दयाळपण हळुहळू ना जायत गेलां. वाडत आसा तें एकामेकांचो एकामेकांचेर राग, दुस्वाशीपण, अविश्वास, घातकीपण, फटींगपणां, सुवार्थीपणां आनी निश्ठूरपणां. आतां सगळींच बोटां सारकीं आसनात. वेगळ्या वेगळ्या स्वभावाचीं आनी वागणुकेचीं वेगळीं वेगळीं मनशां आसतात.

हो लेख बरोवपाक कारण म्हळ्यार कांय प्रसंग पळेले, कांय अणभवले.

प्रसंग पयलो - हालींच, शाळा सुटटगीर हांव सदचेवरी म्हजे दुचाकी कडेन पार्कींग केल्या थंय वताले. म्हजी नदर दोन भुरग्यांचेर (चले) पडली. तांकां हांवें पावाचो फुटबॉल करून खेळटना ज्युस्त पळयलें. तो देखाव पळयना फुडें काळजांतल्यान आवयसऽऽ करून आवाज आयलो आनी मस्तकांतल्यान तिडक. पावाचो चक्क फुटबॉल करप? ही देख कसली? तकली भिरभिरली. हांवें तांकां म्हऱ्यांत आपोवन विचारलें, 'आरे, तुमकां पावाचो फुटबॉल करून खेळपाक मातूय वायट दिसना? अन्न मरें तें. ताका पांय लावप? तुमी देख नाशिल्ले कशे वागतात मरे. (मात्श्या तापिल्ल्या स्वरान.) तुमकां खबर तरी आसा, भायल्या खूबश्या राज्यांनी, देशांनी दुश्काळ पडला. भुरगीं उपाशीं कुपोशणान मरतात. मातयेचो गुळो करून भूक मिटयतात आनी तुमकां कसलो रे हो मद?' इतलें म्हजें भाशण आयकून ते म्हाकां पळयत रावले. तांची जाप पळेयात कितें ती, 'आमकां कित्याक गे पडलां भायल्या

गजालींचें. थंयचे मंत्री तांचें सरकार आसा ते पळयतले.'

एक तर पावाचो फुटबॉल करून खेळटाले आनी वेल्यान जाप पळयात तांची. तांची जाप आयकून हांवें तापोवन विचारलें, 'घरा अशेंच करतात रे तुमी?' जाप काडिनासतना तांणी फुज्जोऽऽ काडली. कांय वेळ हांव थंयच चिंतीत उबें रावलें. थंयसून वचपी एका वांगड्यान म्हाकां विचारलें, 'हांगा अशें उबें रावून कितें चिंतता गो?' हांवें ताका सांगलें, 'एकेकडेन आमच्या भुरग्यांक जेवणा खाणाचो वालोर ना तर दुसरे वटेन कांय देशांनी आनी राज्यांनी उपासमार चलला. सगळेच कडेन आमी बदल हाडूंक शकनात हें मान्य आसा म्हाकां. पूण हाचेर उपाय कितें आनी कसो बदल घडटलो हें चिंतून तकली भिरभिरता.' तेंय (वांगडी) चिंतत उरलें आनी चलत चलत आमी पार्कींग जाग्यार पावलीं 'चड चिंतू नाका, आज काल अशेंच घडपाचें तें' अशें म्हणीत तें आपले वाटेन गेलें आनी हांव म्हजे वाटेन.

प्रसंग दुसरो : दनपारचो वेळ. २ वरां जातलीं. हांव मडगांव वचूंक भायर सरलें. हालींचें ट्राफीक जाम जाता तें पळयल्यार गाडी चलोवंक उपगण येता. म्हण बशीन आपलें बरें. शटल लायन व्हड आशिल्ल्या कारणान हांव लोकल कदंबांत चडून बसलें. थपकल मारली एकदांची हळुहळू गर्दी जावंक सुरू जाली. शाळा सुटिल्ल्यो म्हण भुरग्यांचीय गर्दी आशिल्ली. लोकल बस म्हणटकच गोवा मॅडिकल कॉलेज, बांबोळे वचपी पॅसेंजर चड आसतात. भुरगीं, तरणाटे, कांय सिनियर सिटिजन अशे पॅसेंजर आशिल्ले. बस भरली. सामकी कोंबडेचीं पिलां भरून पिकप भरता तशी. म्हज्या सिटा कडल्यान तीन चार सिटां सोडून एक सिनियर सिटिजन जोडपें उबें राविल्लें. तीं बांबोळे देवपाचीं काय मुखार, फुडें आनी खंय वचपाचीं हें हांव चिंतूंक लागलें. तीं ज्या सिटा सामकार उबीं आशिल्ली त्या सिटार हायस्कुलचीं भुरगीं बशिल्लीं. एकल्यान तरी तांकां सीट दिवचें आशिल्लें. पूण ना. कोणेंच केलें ना आनी आतांच्या काळांत तें ॲक्सेप्ट्य करप ना. आमी शाळेंत व्हॅल्यू ॲज्युकेशन शिकयतात, मोरल सायन्स शिकयतात. तें व्यर्थ कशें दिसूंक लागलें. हांव एकटक तांकां पळेत रावलें आनी जशी तांची नदर म्हजेर पडली, हांवें तांकां सिनाल करून आपयलें (तीं पयस आशिल्ल्या कारणान हडकप शक्य नाशिल्लें) आनी सीट दिलो. एकूच सीट म्हणटकच आजीबाय (बायल) बसली. जावं, हांवें सीट दिलें तें पळोवन म्हजे कुशीक बशिल्ल्यान आपलो सीट जाण्टेल्याक (आज्याक) दिलो. मनीसपण सामकेंच सोंपुना हें कळ्ळें पूण तें उणें जायत आसा हें तितलेंच खरें.

प्रसंग तिसरो : म्हाकां मोनजात (कुत्रीं, माजरां, गाय) सामकीं आवडटात. तांचेर अत्त्याचार जाल्लो म्हज्यान पळोवं नजो. मोनजात आवडनाशिल्लीं मनशांय म्हाकां चड आवडनात. सगळ्यांक आवडटाच अशें ना पूण तांचे बेरेंच वाटेक वचपीय लोक आसात. जशें कारण नासतना तांचेर फातर मारप, उदक मारप. कांय लोकांक जर मोनजात आवडना जाल्यार तांणीं तांचेर अत्त्याचारूय करप न्हय आनी वाटेकूय वचप न्हय. केन्नाय जाता अशें की कांय जाग्यांनी कुत्रीं, गायो (चड करून बेवारशी वा थोडीं पोशिल्लीं आसतात जांकां मालकांनी सोडिल्लीं आसतात.) सट्ट करून आंगार धांवून येतात, तेन्ना उपाय नाशिल्ल्यान तांकां आमुडचेंच पडटा. तांकांय आमचे भशेन जगपाचो अधिकार आसा. तांकांय काळीज, पोट, दोळे, पांय अशे सगळे अवयव आसतातूच. फकत ना ती वाचा. तांकां आपले खातीर उलोवंक कळना, कितें त्रास जातात ते सांगूंक कळना, म्हण आमी तांचेर मात्शी दया माया दाखोवची इतलेंच म्हजें म्हणणें. मोनजात न्हय ती? दिवाळेक देवळान गेल्लें तेन्नाची खबर. दोन पोर एका कुत्र्याचे शेपटेक आनी गोमटेक फोगोटचो बांदताले. म्हजी नदर ज्युस्त तांचेर पडली आनी हांवें तांकां तापयलें. ''येयात रे हांगा, तुमचे गोमटेक बांदतां फोगोटचो' अशें म्हणना बराबर 'नाका नाका आंटी' म्हण धांवले. आतां म्हजी तकली आनीक भिरकली. एक तर असलें कृत्य केलें आनी म्हाका आण्टी म्हणलें. हांव फणफणटां तें पळोवन योव तापलो. 'बारीक जा मात्शें. मागीर कोण आण्टी म्हणचोना.' हे सदचे डायलॉग ताणें मारले.

प्रसंग चवथो : 'बारीक जा मात्शें' हो योवाचो डायलॉग आयकून म्हाकां वाज आयला आनी खऱ्यांनीच म्हाकां बारीक जावचें अशें मनांतल्यान (सगळ्यांकूच) दिसता. बारीक आनी फीट आसप गरजेचें. हांवें पासयेक वचपाक सुरू केलां. अशेंच एक दीस पसयेक गेल्लें तेन्ना (सांजेचीं ६ वरां जाल्लीं) दोग दादले एक व्हड प्लास्टीकची पोती घेवन येताले. मनांत दुबाव आयलो की सेर्त ते कोयर घेवन उडोवपाक आयल्यात. हांव चिततां थंयच आसा, तांणीं ती पोटली वाटेर आशिल्ल्या झोपांनी शेंवटून मारली. लांब, रूंद, पैलवान कशे दादले. विचारपाक्य भंय कसो. आयज कालचो जमानो तुमी जाणांत कसो तो. तरीय हांवें धाडस केलें आनी कोंकणींतूच विचारलें.

तांणीं कांयच रिसपोन्स दिलो ना. मागीर हांवें हिंदी मारली, 'एक मिनीट भाईसाब, ए कचरा इधर क्यूँ फेका?' 'कचरा गाडी आती है ना इधर?'' तांणीं दोळे पुंवडायत म्हाकां जाप दिली. 'हमारे यहां नहीं आती है गाडी और कचरा लेने भी कोई नहीं आता. हमको मालूम नही.'' अशें ताणी म्हळें आनी नेटान चलूंक लागले. मोदीजीचें 'स्वच्छ भारत अभियान' कितलें फळाक येतलें हाचो विचार मनांत आयलो.

प्रसंग पांचवो : बायलां बायलांचींच दुस्मान आसतात तें खरें. कित्याक तें सांगतां. हांव मडगांवच्यान पणजे शटल सर्वीसेंत (कदंबा) चडलें. लेडीज सिटार बशिल्ल्या दादल्याक (तोय तिकेटी शिवाय चडिल्लो) उटपाक सांगलें. कुशीक बशिल्ले अस्तुरेक राग आयलो दिसता. कित्याक तें खबर ना. ती 'कित्याक उठयता ताका, There is no rule in shuttle bus like ladies seat.' म्हाकां मारली तिडक. आरे हें आनी कितें? 'लेडीज सीट' कित्याक बरयलां तर? कपलाक? हांवें तिडकीनूच तिका विचारलें, 'आगे, तुका कित्याक सो राग आयलो? रूल ना जाल्यार तूं शी कित्याक बसल्या तर लेडीज सिटार आनी इतलेंच तुका जर वायट दिसता जाल्यार तुजे कुशीक बसय ताका.' म्हाकां भिरभिरी मारिल्ली. कारण एक तर तो दादलो तिकेटी शिवाय, दुसरें म्हळ्यार सीट धरूंक चडिल्लो. ताचो वांगडी सकयल रांगेंत उबो राविल्लो. तिकीट काडूंक आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार 'लेडीज सीट' जर बरयलां जाल्यार हांवें कित्याक येवप न्हय? सिटां फुल जाल्लीं जाल्यार वेगळी गजाल. आसा त्या जाग्यार बसूं येता. तेन्ना मागीर मेळटा थंय बसपाचें. पूण रिकामी आसल्यार फावो त्या स्पेसिफीक जाग्यार बसूंक जाय न्हय? तर हें अशें.

तर हे कांय थोडेच प्रसंग बरयल्यात. सदांच कसल्यो ना कसल्यो तरी घडणुको जायत आसतात. सगळेंच बरोवप शक्य ना. आनी सगळींच तें अणभवतात. म्हाकांय जेन्ना अणभव आयलो तेन्ना खरेंच हें जग बदलता आनी फुडेंय बदलत वतलें अशें जाणवलें. वायट इतलेंच दिसता की कितलेंय बरें करपाची जागरुकताय आमकां आसूं, गिन्यानाचीं पुस्तकां वाचूं, वा शिक्षण घेवं आमी बरे दिकेन वळनात कित्याक? काय आमी वारें येता तशें सूप धरतात अशें दिसता.



सांतइनेज, पणजी-गोंय.
मो: ९८५०४६७४७७

## का व्य फु लो र



### मूळ

म्हजोच खुरीस
पेतलो खांदार
मारता दारार
कोण आतां.

दोळ्यांत वशिल्लें
आशी नाशिल्लें
शब्दाक दशिल्लें
एकलेंपण.

पावसा झडींत
काळजाचें हीण
गेलें झंजळून
मूळ म्हजें...



- माधव बोरकार
करंझाळे-गोंय. मो. : 9420222876

### कळंतरा सयत

तूं रेड्यार बसून यो
वा मड्यार बसून यो
तुका जाय तसो यो
पूण उपकार करून
जाता तितलो बेगीन यो
म्हाका व्हरपाक...

म्हाका थंय येवन
सर्ग खणपाक जाय
तुमकां सगळ्यांक उस्तुपाक जाय
आडबरयां मस्तुपाक जाय
हिसपा भायर सतावपाक जाय...

म्हाका तुमचें रीण कळंतरा सयत फारीक करूंक जाय



- आर. रामनाथ
कुर्टी,फोंडें-गोंय.
मो. : 9850458763

### जेजू क्रिस्त

शीवधनुष्य उबारप आसता सोंपें
रामाल्या धोणवाक तीर लावप
अर्जुनालें धनुष्य बाण उठोवप
स्वताच्या सुखा खातीर,अधिकार
नासता तितलें कठीण
पूण पेल्या पयसुल्या
गरीब दुबळ्या खातीर कश्टल्या
तिश्टल्या खातीर
खुरीस उबारून
जेजू क्रिस्तावरी कांट्यांचो
मुकूट घालून दोंगर चडटेवेल्यान
कांट्या खुट्यांतल्यान चलत
आपले आपणाक खिळोवन येवप
मात नासता सोंपें



-राजश्री नहाबळेश्वर सैल
मडगांव - गोंय
मो.:

## याद

इतलीच याद आसा
कानाक धरून तो म्हाकां
बळयां व्हरतालो
ओडीत खंय तरी
उबे रावन पळयताले समेस्त
पूण फुटनाशिल्लें उतर कोणा एकाक
हांव मात आड्डतालों भंयान
पडटालों ताच्या हाता-पायां
म्हजी पळोवन धडपड
आपले भितर तो उलयलो
तुकां सोडल्यार पात्रांव
म्हजी गोमटी कापतलो
तेन्ना म्हाका समजलें
हांव आसां वाडेर कत्तलखान्याचे
कत्तलखानो
चित्र उबें रावलें तशें
आंग शिरशिरलें म्हजें
एकूच मारून नेट
सुटलों ताच्या हातांतल्यान
आनी लागलोंच धांवूक
धांवतासतना म्हणलें मनांतल्यान
ईश्वरा तुजी लिला
अगाद आसा
इतल्यांत रस्तीन येवपी
एके मोटारीक
धप्प करून आपटलों
इतलीच याद आसा...



- सुनील हरी पालकार
व्हडलें भाट,कालापूर
९९२१७९६८६५

## देखावो

तो.तें...
घरांतल्या देव्हाऱ्यांतल्या देवाक
केन्ना एक फुलय
घालून नकळो
पूण गांवांतल्या देवळांत मात
हजारांच्यो देणग्यो दिवंक पयल्यो

चुकून लेगीत घरांत केन्ना
पेटयली ना पणटी
गांवांतल्या देवळांत मात
हांच्या नांवान
शेकड्यांनी परजळटात दिवल्यो

गांवांतल्या देवळाक
हार तुरे प्रभावळ
घरांतल्या देव्हाऱ्यांत मात
सुकी सड्सडीत शब्दावळ

कित्याक आनी कोणा खातीर
देखावो हो निलाजरो
जो पळोवन खिणाखिणाक
लजेन मरता
कोडू कोड्याळ काजरो..



- महेश गांवकार
नंद्रण,मोर्ले -गोंय
९७६३७७३१५७

## सांगात

तुजेवांगडा जिवीत
सारपाक सोदतालें
पूण तूं खूब मुखार पावलो
तुजे मेरेन पावता म्हणसर
मळबांत कुमां दाटून आयलीं.

जिवितांत म्हज्या
सांगात तुजो सोदतालें
सांगाता बदला दिलें एकलेंपण
निरंतर तातूंत बुडून रावपा खातीर

मन जुळोवपा खातीर
अखंड तप केलें
पूण कांय खिणा भितर
तुवें काळीज म्हजें दुखयलें

समजावपा खातीर तूं
आयिल्लो खरो
तेन्ना तुजेंय काळीज
तुटिल्लेंच आशिल्लें.

- अलका असोल्डेकार
मडगांव-गोंय.
मो.: 9822981107





## काव्यचंवर

### शून्य

जिणेच्या दर्यांतलीं
यादींचीं ल्हारां
केन्ना म्हजे कुडींत
पेट घेतात
तें म्हाकांच खबर ना.
कूड शांत
विघ्न अशांत
ताका कोण
कांयच करूंक शकना
आतंकवादी विशाल
तांची शक्तय विशाल
आमी
रातचीं न्हिदतात सुरत
पूण जग जागृत
तांचे मुखार आमी
सगळे किर्ते शून्य



- अशोक शीलकार
शीला,सावयवेरें.

### जीण अशी जगची तुंवें

पुराव आयुश्य सूख
जिवितांत तुज्या मेळचें ना
दुख्खूय सोंसले बगर
जीण तुजी सरची नाट

सुवार्थ कडेक दवरून
निसुवार्थी जावंचें तुंवें
हेरां पासत आपली जीण
मातशी तरी ओपची तुंवें

यश जिणेंत मेळोवपाक
कश्ट सदांच करचे तुंवें
मात लेगीत निर्शेनासतना
पावलां मुकार घालचीं तुंवें

जायत चूक जिणेंत तुजे
माफी सदांच मागची तुंवें
सगळ्यांच्या तोंडार सदां
हांसो नेमान हाडचो तुंवें

जीण अशी जगची तुंवें
जीण अशी जगची तुंवें...



- प्रिया गणेश कामत
पंचवाडी-गोंय.

### पावस

सुर्याच्या कडक वतांत
आंग म्हजें करपता
यो रे पावसा,यो रे पावसा
तुका सगळीं पराथता

मंद मंद वारो येता
मनाक म्हज्या सुखायता
पांचवीं पांचवीं रुखां झोपां
येवपाक आपले वांगडा
ल्हवच म्हाकां खुणायता

घामान सामकें चिपचिपलें आंग
पावसाचे दडकेन सुखावलें
मन मोराचीं लावन पांखां
लागलें नाचूंक गांवक

सुंदर म्हजीं गोंयचीं शेतां
वाऱ्या वांगडा लागलीं नाचूंक
दिवन पावसाक वांगड
वीज आपालिपा लागली खेळूंक

पावसाचे पयले दडकेन
भुरगीं बाळां भिजून गेलीं
आवयन म्हजे अपुरबायेन
भजी करपाक कायलींत सोडलीं

सोंपता सुटी,शाळा जाता सुरू
सत्री कापेत येवन,भुरगीं शाळेक वता
दनपार जातच मळब दाटून येता
भुरग्यां वांगडा पावसूय जणूं
सुटपाची शाळा वाट तेळटा

- किर्ती नायक,
पणजी-गोंय



पसय

अनिल
व्यंकटेश
सावंत

# रीण



अनिल व्यंकटेश सावंत हे कोंकणी खातीर वावरपी एक निश्ठावान. संगीतकार आनी गायक अशी तांची कलेच्या मळावयली वळख. भारतीय स्टेट बँकेचे अधिकारी म्हूण हालींच निवृत्त जाल्ल्या सावंतांक साहित्यांतूय रुची आसा.

'कांय वाचिल्लें, कांय आयकल्लें, कांय पुंजायिल्लें.......' अशे तरेचें तांचे खुसखुशीत बरप ह्या सदरांत येता.

*वीस- पंचवीस मनशांच्या घरांत मात् आयदनां रख्मानूच धासूंक जाय आशिल्ली. दुसऱ्या कोणे तें काम केल्लें कोणाकूच उपकरा नाशिल्लें. हारशा भशेन लख्लख नितळ आयदनां आनीक कोणा कडेच जाय नाशिल्लीं आनी हे खातीर रख्माक बाबड्याक केन्नाच रजा मेळ्ळ नाशिल्ली. ताका कोण एक दीस पयून नदरे आड जावपाकूच दी नाशिल्लें.*

''रख्मा, आतां तुजें कामाचें वर्जे आनीकूय वाडपाचें आसा, जाणां मगो? पदर खोवून तयार राव. आनी म्हयनोभर तरी खंय गांवांक बी वचपाक मेळचें ना आं! पयलींच सांगतां.''

नलिनीबायचें उलोवणें आयकतां आयकतां रख्माचें आयदनां धासपाचें काम चालूच आशिल्लें.

शिह्लोणकार घराबो म्हळ्यार गांवांतलें एक मोटें प्रस्थ. गांवांत तांकां सगले कडेन मान आसतालो. सगले तांकां आदरान पळेताले. आनी ताका कारणूय तशेंच आशिल्लें. भाऊन गांवांतल्या जण एकल्याक अडचणीचे वेळार धांवून मजतूच केल्ली. केरतांवां मेटोवन समेट पडोवन हाडपाक तांचो हात धरपी वाठारांत कोणूच नाशिल्लो. म्हणूनूच फाटल्या तीन पिळग्यां सावन तांचो घराबो सुखा समाधानान एकठांय नंदतालो.

घरची घरकान्न नलीनबायनूय तोच आब दवरिल्लो. प्रसंगार केन्ना केन्ना त्यो रागार जाताल्यो पूण मन सामकें मोव लोणया भशेन. रागार जाली जाल्यारूय रोखडीच मायेची फूंक मारची तिणेंच. दोगांनीय घर सामकें अचळय फुला भशेन सांबाळून दवरिल्लें.

भाऊक तीन चले. तांतल्या सगल्यांत धाकल्या चल्याचें लग्न थारिल्लें आनी म्हयन्यार येवन पाविल्लें. त्या खातीर नलीनबाय रख्माक अपुर्बायेन पूण ताकीद दिताली.

रख्मा ह्या घरांत फाटलीं वीस-पंचवीस वर्सां वावर करताली. एक फावट रडत काम मागपाक आयिल्ली तेन्ना भाऊननूच तिका घरच्या कामा खातीर दवरून येतिल्ली. तिचें प्रामाणिकपण, वावर उखलून घेवपाची पद्दत, रांदचे कुडींतली लिंपेज आनी घरांतली नितळसाण तेच परीन सगल्यांत कवतुकाची गजाल म्हळ्यार शांत स्वभाव. केन्ना केन्ना नलीनबाय तिडकताली, तापयताली पूण रख्मा सदांच शांत चेऱ्यान वावुरताली.

आतां तर इतल्या वर्सांनी घराक रख्माची संवयूच जाल्ली. रख्मा आसलें काय सेर्त काम जावंकूच जाय हो सगल्यांचो विश्वास. घरचो कोनशान कोनसो रख्माच्या स्पर्शाक वळखतालो.

शिह्लोणकाराच्या घरांत फाटल्यो तीन पिळग्यो घरची एक्लूय बायलमनीस नोकरे खातीर हुंबऱ्या भायर सरूंक नाशिल्ली. पूण अविच्या लग्नांत ह्या नेमाक फाट करून अर्थार्जन करपी सून घरांत हाडपाचें व्हडपण भाऊन दाखयल्लें.

अवि दोतोर जावन विदेशांत वचून उच्च शिकप घेवन येवन मुंबय नोकरी करतालो तेन्ना ताका सोबशी ताच्याच वेवसायांतली दोतोर चली बायल म्हणून फाव आसली.

अविनाश भाऊलें शेंडेफळ. आर्दी

पसूनूच तकलेन फीन. अभ्यासांत हुशार ते खातीर घरच्या निजाच्या शेता कडेन लक्ष दिवपाचें सोडून शारांतले इंग्लीश शाळेंत शिकपाक धाडलो. व्हड दोतोर जावन नांव काडलें तरीय कसलोच गर्व म्हणटात तो ताणें केलो ना. गोरोपिट्ट रंग, मन भुलायणें व्यक्तिमत्व आनी त्या रुपाक सोबसो शांत स्वभाव. इतलो व्हडलो दोतोर जालो तरी आपल्याक व्हंकल सोदपाचें काम ताणें आई-बाबांकडेंच सोंपयलें.

नुमाय सामकें अविक सोबशेंच आशिल्लें. लांबलांब काळेकिट्ट केंस, हात्या भशेन गोरेंपिट्ट आंग, सुंदर, वाटकुळे, लिकलिकीत दोळे आनी तोंड सदांच हांसकुरें. शांत, मनमेकळें तरीय ताचे हुशारेचें जोगूल ताचे नदरेंत झळकतालें. दोगांयचो स्वभाव एकमेकाक जुळऽ सारकोच आसलो. त्या खातीर नाकां म्हणपाचें कसलेंच कारण दोगांय कडेन नासलें. तेंवूय मुंबय प्रॅक्टीस करतालें आनी फुडें एम्. एस् करपाचो ताचो विचार आसलो. आतां इतलें बरें थळ आयलां म्हणटकच घरच्यांच्या मताक विरोध करी नासतना ताणें सोमतोच हयकार दिवन उडयलो. अविचोय मुंबय खाशेल्या सोयींनी युक्त अशें हास्पिटल घालून थीर जावपाचो विचार आशिल्लो, मात भाऊक ताणें तेंच हॉस्पिटल आपल्या गांवांत घालून ताच्या शिक्षणाचो गांवकाऱ्यांक उपेग जावंचो अशें मना पसून दिसतालें. ताचेर आजून तांचें संगनमत जावंक नाशिल्लें. पूण तुर्ताक सगले नेटान लग्ना-कार्याच्या वावराक लागिल्ले.

घरांत आतां सोयरे-धायरे, आयले-पयले, कामेऱ्यां-मानाय हांचो राबितो वाडिल्लो. रख्मा सारकिल्लो भरवंशाचो मनीस वांगडा आसल्या कारणान नलीनबाय सगलें हुस्क्या मेकळें तिचेर पातयेवन केन्ना न्हय ती जोड्यांनी व्होंवळीको दिवपाक घरा भायर सरताली.

म्हणटां म्हणटां दीस सरले आनी एकदांचें दबाज्यान अवि-नुमाचें लग्न जालें.

नुमाच्या घरा तें धरून वट्ट चार मनशां. त्या खातीर खूब लोकांमदीं वावरप तशेंच खूब्ब काम बी हाची ताका मात्तूय संवंय नाशिल्ली. तशें ह्या घरांत सगल्याच कामां खातीर वावराडी-मानाय आसल्या कारणान काम अशें नासतालेंच. पूण ताका जाय तसो प्रायवसीचो कोनसो मेळनाशिल्लो. व्हड घराबो आसल्या कारणान कांय नेम पाळचे पडटालेच. सकाळीं स उपरांत कोणेंच हांतुणांत पडून रावप ना. बायलांनी सगल्यांत पयलीं उठून न्हावन धुवन रांदचे कुडींत भितर सरप. त्या शिवाय च्या लेगीत ताळ्यार पडनाशिल्ली.

हॉस्टेलांत रावून शिकप जाल्ले कारणान ह्या असल्या गजालींची ताका संवंयच नाशिल्ली. अवि वयल्या मोगा खातीर ताणें ह्यो सगल्यो

गजाली आपणायिल्ल्यो. पूण ताका सगल्यांत चड त्रास जातालो तो रातचीं सगलीं एकठांय येवन झांकड्यो मारपाक बसतालीं ताचो.

ताका सदांच दिसऽ कीं अविन ताचे खातीर थोडो वेळ दिवंचो, ताचे कडेन बसून गजाली करच्यो, दोगांच उठून अशी पासय मारून येवंची, ताणें सांजवेळा बेगीन घरा येवंचो. पूण असलें कांयच घडऽ नाशिल्लें.

अविच्या स्पर्शा खातीर आशेल्लें नुमा खुबशे फावट वाट पळोवन पळोवन न्हिदून वतालें.

मागीर केन्नातरी मध्यान राती हाताच्या झेलाद स्पर्शान ताका जाग येवप.

''कितलीं वरां जाल्यांत तीं पळयल्यांत अवि तुवें?''

'' हो वेळ नाकां तें करपाचो?''

''म्हाकां न्हिदूनी आतां. फाल्यां सकाळीं बेगीन उठून कामां करपाक जाय.''

''आगो आमचें आतांच लग्न जालां. नव्याची नवलाय आजून तशीच आसा. आनी तूं रात जागोवची सोडून न्हिदता किते पिशा?''

अशें म्हणून अवि अचळय ताका आपले वेंगेंत ओडटालो. आनी ताच्या स्पर्शाक आशेल्लें नुमा 'ना ना' करत केन्ना ताचे वेंगेंत विरगळून वतालें तें ताचें ताकाच कळऽ नाशिल्लें.

''तूं मरे अवि असलो जातलो!''

''तुकां कशें जमता रे म्हजो राग पयस करून मोगान रिगोवपाक?''

''हांव सद्दां म्हणटां कीं एक दीस तुज्या कसल्याच बातांक बळी पडनास्तना तुजेर बरोच फोग काडटलें. पूण तूं असली कसली जादू करता आनी हांव सगलें विसरूनच वतां!''

'' म्हाकां कळटा गो तूं हांगां कशें घुस्मट्टा तें. भायर पासयेक वचपाचो तुजो धोरन तुकां फाटीं दवरचो पडटा. आमकां जाय तशी प्रायवसी हांगां मेळना आनी ना सुटकेक सगल्यां वांगडा रावचें पडटा. पूण हांगां आस सर आमकां हें सगलें सोसचेंच पडटलें गो बाय...''

'' आनी आतां रातचो उसरां येवपा विशीं तूं म्हणशी जाल्यार फाटलीं कितलीशींच वर्सां हें सेगीत चलिल्लें पळयतां हांव. आनी तांच्या झांकड्यां मदल्यान मदींच उठून हांव जर येन जाल्यार सगले जाण एकतर दारार मदीं मदीं टक् टक् करून सतायतले वयल्यान बायलेचो घणसाबैल म्हणून म्हजी धजा उडयतले. तांकां तशी संद मेळची न्हय

म्हणून हांव मनांत नासतना रातचो एक वर मेरेन तांचे वांगडा गजालींक बसतां आनी उपरांतूच उठून येतां.''

''तुकां खूब त्रास जाता मगो ह्या सगल्याचो? कळटा गो म्हाकां.''

'' ना रे अवि, त्रास असो न्हय, पूण सामकें वेगळ्या संस्कारांतल्यान व्हड जालां हांव. ह्या असल्या नेमांचीं बंधना आमगेर केन्नाच नाशिल्लीं. ते खातीर हें सगलें स्विकारपाक मातसो कळाव लागतलोच न्ही?''

''म्हाकां तूं सदांच म्हजे सांगातान आसचो शें दिसता आनी ज्युस्त तूंच म्हाकां मेळना.''

'' I really miss you darling.''

परत एक फावट दोगांय नकळटां एकमेकांचे वेंगेंत एक जालीं.

***

सकाळीं पांचांक नलीनबाय सगल्यांत पयलीं आवरून देवाकुडींत पुजा करता आसतना रखमा आयलें.

''माई.....''

''पुजेक बसल्यात?....''

''हय, सांग गो रखमा. किर्ते जालें?''

रखमाच्या प्रश्नाक पुजा करतां करतां नलीनबायन जाप दिली.

''कांय नाय गे. काय सांगूचां व्हतां,.''

''मागीर सांग मगो! फाटीं फुडें कित्याक जाता? सांग तूं. आयकतां हांव.''

'' तसां काय खास नाय. तां आपलां तां.....''

''आगो पापया, आड खळटा कित्याक! किर्ते सांगपाचें आसा तें सांगून उडय मगो.''

'' नाय..... तुमची पुजा जावं दे. नंतर सांगतंय.''

अशें म्हणून नलीनबाय आपयता आसतना रखमा ताकतिकेन आपल्या वावराक गेलें.

वीस- पंचवीस मनशांच्या घरांत मात् आयदनां रखमानूच घासूंक जाय आशिल्लीं. दुसऱ्या कोणे तें काम केल्लें कोणाकूच उपकरा नाशिल्लें. हारशा भशेन लख्ख नितळ आयदनां आनीक कोणा कडेच जाय नाशिल्लीं आनी हे खातीर रखमाक बाबड्याक केन्नाच रजा मेळऽ नाशिल्ली. ताका कोण एक दीस पसून नदरे आड जावपाकूच दी नाशिल्ले.

पूण आयज कारणूच तशें आशिल्लें. रखमाक रजा जाय आशिल्ली आनी ती मागप ताच्या जिवार आयिल्लें.

त्या नवेंच लग्न जाल्ल्या घरांत येवप वचप चालूच आसलें, अशे परिस्थितींत घर सोडून कशें वचूं ह्या विचारानूच रखमान आयदनां घांसून काडलीं.

''आँ सांग गो रखमा, किर्ते म्हणटालें तुं?''

'' माई, म्हाकां.......... एक म्हयन्याचो पगार जाय हुतो.''

''आगो आजून म्हयनो सरपाक पंदरा दीस आसात मगो आनी पयलींच कित्याक तुकां हो पगार? ''

नलीनबायचो आवाज चडटा हें रखमाच्या लक्षांत आयले बगर रावलें ना. तें सकयल नदर लावन उबें रावलें.

''मियां तुमचो पयसो बुडोवचां नाय माई, पुणून वगतूच तसो इलोसा, म्हणान गरज हुती.''

''असली कसली गो गरज बाये? तुजें जेवण-खाण, मुस्तायकी-बिस्तायकी सगलें आमच्या खुस्तार. वयल्यान दर एक तारकेर चुकनास्तना तुजो पगार तुजे हातार दवरतां आनी असली कसली गो गरज पडली तुकां पापया? ''

नलीनबाय रजांव उलयताली. फाटलीं वीस वर्सां रखमाचो सगलो खर्च तींच करतालीं.

''नाय गे माई... नाय, नाय.. तसां कांयच नाय. घराकडेन आवशीक बरां नांय



म्हनान निरोप ईलो. आतां घरांत तर लगीनघाय कसा जांवुं म्हनान जीव मुठींत घेवन रवलंय. आतां दोन दीस जावन येतंय म्हना हुतंय. पण आय सामकी जमनीक टेकलीसा. आनी औशधाक पण पयसो न्हाय गांवांत. आतां ती म्हाकां आनी मी तिका. आनीक कोन आसा आमचो. आतां जल्माक यातलल्याचां रीण फारीक नाय करुंक तर पयसो आसून फायदो काय?''

रख्माच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो झरी व्हांवूंक लागिल्ल्यो. गळो अंदल्ल्यान उतरां भितरल्या भितर आडखळटालीं.

नलीनबायूय आतां मातशी भावूक जाल्ली. मोन्यानी ती रख्माच्या दरेक उतराक हयकारूच दिताली. पूण रख्मा गेलें जाल्यार लग्न-घरांतलो वेदो व्हडलो वावर कोण पोटलावन घेतलो हो एकूच हुसको तिका भेश्टायतालो.

''बरें. तीं उरिल्लीं कामां आटपून ये. मागीर पळोवया.'' अशें म्हणून तितले पुरतें तिणें ताका वाटेक लायलें.

वर्सभराचो खर्च करूनूय भाऊ रख्माक दर म्हयन्याक पांच हजार रुपया पगार दितालो. रख्मान केन्नाच आपलो पगार वाडयात वो पगार दिवपाक कळाव जालो अशें म्हणलें ना. हो सारोपुरो विचार करून नलीनबायन ताका पयशे दिवपाचें थारायिल्लेंव पूण प्रश्न आशिल्लो तो बदली कोण?

शेवटाक नलीनबायन ताका आपोवन पांच हजार रुपया हातार दवरून सांगलें, ''पळय, म्हयनो सरूंक ना तरीय तुकां सबंद म्हयन्याचो पगार दितां हांव. तेन्ना आमचे दुडू बुडयशी बी आँ? आनी दुसरें म्हळ्यार तुजे बगर दुसऱ्या कोणाच्याच हातचें आमकां चलना हें खबर आसा न्हय तुकां?''

''होय गो बाय, लवकर येतलंय. तिका मातसां बरां वाटलां तर हंयसरच घेवन येतंय. पुणून आतां निदान हप्तोभर तरी येवंचय नाय आँ? चडच उपकार जालेत म्हाजेर.''

रख्मा दोळे पुशितूच भायर सरलें.

***

आठ दीस जावन गेले तरी रख्मा आयलें ना. आतां मात नलीनबाय मातशी काचाबूल जावपाक लागली. तिका रख्माची तिडकूय आयली. आरे आठ दीस जावन गेले तरी ना खबर ना रकाद म्हणचे किर्ते!

शेवटाक तिणें एका मानायाक तिच्या गांवांत चवकशी करून येवपा खातीर धाडलो.

मानाय रातीकडेनूच परतो आयलो. मातसो भियेल्लोयबी तो.

''किर्ते जालें रे? रख्मा खंय?''

'' रख्मा गेलें माईं.''

आनी तो हुमट्या हुमट्यांनी रडपाक लागलो.

''गेलें? खंय गेलें? आवयचें घर सोडून दुसरे कडेन बी गेलें काय किर्ते?''

'' ना माईं, तें भायर पडलें.''

''किर्ते? अशें कशें जालें रे? कोणें सांगलें तुकां?''

'' आवयक बरें दिसता म्हणून तें येवपाक भायर सरलें. वाटेर आक्सिडेंट जालो. गाडी उमथ6ली आनी हें जाग्यारूच गेलें. दोन दीस मडें मेळ्ळेंच ना. तिसरे दिसा पुलिसांक कुशिल्लें मडें मेळ्ळें. आवय वांटावली आनी हेंच गेलें.''

नलीनबायक हें आयकना फुडें कलकल्लूंक लागलें. किर्ते करचें तेंच कळना जालें. इतलीं वर्सां एक दीस सुद्धां चुकयनारत्तां दुसऱ्याच्या घरचो वावर करून आतां आपणाले कुडीचो कोण विलो लायतलो काय म्हणून वाट पळयत रावलां आसतलें. असलें कसलें नशीब हें पोराचें! अशें कशें मरण आयलें ताका देवूच जाणां !

***

सकाळीं सदचे भशेन पांचांक उठून फुलां काडपाक नलीनबाय मागेलदारच्यान पोरसांत गेली. वतना सहज नदर माज्र्यात गेली जाल्यार आयदनां घांसून दवरिल्लीं पळोवन तिच्या जिवाक सूऽऽ जालें. कोणें केलें काय? कोणतरी कामेरें मेळ्ळां आसतलें.

पूण कशें केलां काय काम!

परत घांसचीं पडचीं ना मूं?

नदर मारून पळय जाल्यार रख्माक सुद्धां लजयतली इतलें काम नितळ केल्लें नवे वावराडेन.

नलीनबायचे खोश्शेक शीममेर उरली ना.

सद्दां सकाळीं उठून पळोवचें जाल्यार कोण तो काम करून पासार जाला. कोणाकोणाक म्हणून विचारतलीं! घरांत जितले लोक तितलेच मानाय. जाका विचारचें ताणें सांगचें आपणें पळोवंक ना.

शेवटाक सोसना जावन तिणें भाऊल्या आपल्या घोवाल्या कानार ही गजाल घाली.

''हय हो, तुमी रख्माच्या जाग्यार कोणाक दवरलां?''

'' कित्याक? किर्ते जालें? सारको काम करी ना? हें पळय, सगलेच सारके नासतात. सुरवेक जातल्यो इल्ल्यो चुको. रख्मा भशेन काम जायना म्हणून सोमतोच काडून उडोवपाचें हुतहुतेपण करूं नाकां. ल्हवल्हव पडटलें सगलें जाग्यार.''

''तुमचे बायलांचे भानगडींत आमकां

घालूं नाकां. आमकांय खूब व्याप आसतात.''

आयज पयलेच फावट भाऊ विग्रागान उलयतालो. नलीनबायचें कांयच आयकून घेनारतना आपलेंच उलोवपें तांणी चालू दवरिलें.

''आयकात तरी म्हजें. हांव ताच्या कामाविशीं कागाळ करी ना. परर्थे रख्मा भशेनूच न्हय तिचे परसूय बरें काम तो करून वता. अजाप दिसता की तुमी हो मनीस खंयच्यान फैदासून हाडलो. बरें जालें बाये की असलो मनीस तुमकां गावलो तें. पूण तो कोण, ताचें नांव किर्ते, गांवान खंयचो, आमकां कांयच खबर ना. ते खातीर विचारतालें हांव. फाल्यां मातशें काम सोंपल्या उपरांत जाप दिवपाक लायात न्ही म्हाकां।''

'' हें पळै, म्हाकां तूं नरत्ते रांदचेकुडींतले भानगडींत घुस्पावन दवरूं नाकां आँ! म्हाकां भायलीं खूब्ब कामा आसतात. तुजें तूं पळोवन घे.''

एका धपक्यान भाऊन विशय सोंपोवन उडयलो आनी तुरतुरीत भायर सरून गेलो. नलीनबायूय उठून आपल्या कामाक भितर गेली.

दुसरे दिसा फांतोडेर मातशी बेगीनूच उठून नलीनबाय मागीलदारा गेली. पळे जाल्यार आयदनांची रास तशीच आसा. आ! म्हणचे तो आजून येवंक ना तर. आयज बरो मेळ्ळो तावडेक अशें म्हणून ती थंयच एक वॉल्तेर घालून बसली. मागीलदारा मातशें धुडधुडलें पूण काळखांत कांय दिसलें ना. माजर बी आसत अशें समजून तिणें व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना. थंड वाऱ्याचे झुळकेन तिका लकणी केन्ना आयली कळ्ळेंच ना. थोड्या वेळान उठून पळय जाल्यार आयदनां घासून पुसून चकचकीत वेवस्थित मांडून दवरल्यांत. आयजूय तो तिका मेळनारतनाच गेल्लो. आठ दीस सेगीत हें अशेंच चलत रावलें. शेवटाक तिणें विचार करपाचें सोडून दिलें. जाता न्ही काम मागीर कित्याक पर्वा करची! म्हयनो सोंपलो काय येतलो पगार व्हरपाक. तेन्ना करूं येता ताचे कडेन उलोवणी अशें म्हणून ती निर्धारत जाली. ताच्या येवपाच्या दिसांची मात नेमान ती कुरु करत रावली.

आयज सारके पंदरा दीस जावन गेल्ले. सदचे भशेन नलीनबाय फाटले दारा गेली. जंय इतले दीस सदां घांसून पुसून लखलखीत आयदनां आसतालीं थंय उश्ट्या आयदनांच्यो राशी तश्शो पळोवन तिका अजापूच जालें. ती पर्थून दार बंद करून भितर येवपाक.....

तो आवाज आयकून तिका कुळ्ळ जालें. आवाज वळखीचोच आशिल्लो. सारकें बारीक पळय जाल्यार सामकार रख्मा उबी.

''आगो खंय गो बाये इतले दीस आनी अशें गुपचूप लिपचोरयां कित्याक वतालें वावर करून?''

'' माईं, मियां तुमचे पयशे बुडोवंक नाय हाँ! तुमचां रीण फारीक केल्या शिवाय म्हाकां मुक्ती मेळूंची नाय. पंदरा दिवसांचां काम करून आतां चल्लंय मियां...''

खिणभर ती किर्ते उलयता हेंच नलीनबायक कळना जालें. तिच्या आंगाक शेळो घाम फुटिल्लो. ती कव्व करून न्हिर्देतल्यान उठून हांतुणार बसली.......म्हणजे सपन पडिल्लें तर म्हाकां! तशीच उठून ती मागीलदारयां गेली .

आयज सोळावो दीस. पळय जाल्यार उश्ट्या आयदनांची रास मान्न्यांत तशीच पडिल्ली आसली. रख्मा खरीच पंदरा दिसांचें रीण फारीक करून रिणा मेकळी जावन खऱ्यानीच मुक्त जाल्ली आयज........



**मूळ लेखिका : राधिका कुलकर्णी**

**मेकळो अणकार : अनिल व्यंकटेश सांवत**




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

## घर नहीं जायेंगे हम!

येंवचो न्हय असो दिसपी तो आठवो दीस अंती आयलोच. आपल्या सगळ्या नव्या इश्टांक फाटीं सोडून परते घरा वचपाचो वेळ निमणो आयलोच म्हणपाचें भुरग्यांक आतां होलमलें. तांकां आनी बिंगोक परत व्हरपा पासत आयज एल्मो येवपाचो जाल्लो.

मनांत नासतनाय तीं फांतोडेर उठलीं आनी उपरांत तांणीं आपलो नास्तो केलो. पूण तांकां आयज त्या फळांची रुच आदलीं वरी गोड लागली ना. ह्या जंगलांत तांकां आनीक कांय दीस रावंक मेळचें म्हूण सांगपाक खुशी आनी नताशा माकडां म्हऱ्यांत गेलीं.

''मंकि अंकल्स! एल्मो आमकां व्हरपाक आयज येतलो, पूण आमकां घरा कशेंच वचपाचें ना. प्लीज, आमकां झाडांचे तेंगशेर खंय तरी लिपयात.''

माकड तयार जाले. तांणी एका उंच रुखाचेर तणांची माची तयार केली.

सगळ्यांत पयलीं मायरा, रायना आनी

रणवीर हांकां माकडांनी आपल्या खांदार बसोवन माचयेर व्हेलीं. कारण तीं सगळ्यां परस ल्हान आशिल्लीं. उपरांत आरुश, रेहान, मानव, खुशी, नताशा, अवंती आनी अनुष्काची पाळी आयली. अखेरेक बिंगोक वयर व्हरपाचो वेळ आयलो, पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार बिंगोच त्या रुखाचेर आपूण जावन सरपळत वयर पावलो.

जेन्ना एल्मो येतलो तेन्ना मायरा, रणवीर आनी रायनान मात्तूय आवाज करप ना अशें तांकां हेरांनी शिटकायल्लें.

पूण सगळ्यांक भंय आशिल्लो एल्मोची शिळोणी आयकून बिंगो भोंकीत म्हूण. देखून सगळ्यांनी बिंगोचें तोंड थंयच्या जंगली तणान बांदून दवरपाचें थारायलें.

भुरग्यांनी जशें येवजिल्लें तसोच एल्मो ते सकाळीं मातसो उसरांच पावलो. ताणें सगळ्याक नदर भोंवडायली, पूण ताका थंय खंयच भुरगीं नदरेक पडलीं नात. इतलेंच न्हय तर जनावरांचोय पत्तो नाशिल्लो.

ताणें व्हडल्यान साद घालो,''माऽयरा,तूं खंय आसा? रायऽना,हॅलोऽऽ रायना? रणवीऽऽर..रणवीर तूं खंय आसाऽऽ?''

मागीर एल्मोन बिंगोक शिळोणी घाली. बिंगोन शेंपडी हालयली आनी उडकी मारची आनी भोंकचें अशें ताका दिसलें. पूण ताचें तोंड तणान घट्ट बांदिल्ल्यान ताच्यान तें जमलें ना आनी माकडांनी ताका घट्ट धरिल्ल्यान ताच्यान उडकीय मारूंक जाली ना.

''नताशा, खुशी, आरूश खंय आसात तुमी?''

एल्मोक आतां हुसको जाल्ल्यान तांकां एकार एक उलो मारप ताणें चालूच दवरलें.

एल्मोन पर्थून एकदां साद घालो,''बिंगो हांवें तुका दुदांत फुगयल्लो उंडो हाडला. बिंगोऽऽ बेगीन यो.''एल्मोन शिळोणी घाली.

आतां मात बिंगोक रावंक जालें ना. ताणें माकडांच्या चोपक्यांतल्यान आपल्याक सोडोवन घेतलोच. आनी ताणें एके खांदये वयल्यान दुसरे खांदयेर उडकी मारून तो सकयल पावलो आनी धांवत एल्मोच्या म्हर्‍यांत आयलो. ताच्या शेंपडी हालोवपा वयल्यान बिंगोक खूब खोशी जाल्या म्हणपाचें होलमतालें.

बिंगोचें तोंड तणान पुरयायलें पळोवन एल्मोक कांयच बोध जालो ना. ताणें ताच्या तोंडाच्यो दोरयो सोडोवन ताका विचारलें,''बिंगो भुरगीं खंय आसात?''

बिंगोन आपली सोंड भुरगीं जंय लिपून बसल्यांत त्या रुखाचे तेंगशे दिकेन व्हेली आनी भोंकपाक आरंभ केलो. इतले म्हणसर मायरा आनी रायनाक हांसो फुटलो. रणविराक तर आतां वोगी बसप शक्यूच जालें ना. ताणें 'नाऽव्नूऽऽ' म्हणत एल्मोक उलो घालो.

एल्मोन त्या उंच रुखार नदर व्हेली. भुरगीं इतले वयर चडल्यांत तें पळोवन ताका भंय दिसलो आनी तीं इतले वयर पावलींच कशीं असो ताका प्रस्न पडलो. मागीर ताणें अदमास लायलो, तांकां इतले वयर त्या माकडांनीच व्हेल्यांत जावंये!

एल्मोन रुखाच्या पानां मदल्यान माकडांक पळयलें आनी त्या भुरग्यांक सकयल देंवयात म्हूण तांकां विनयलें. माकडांनी मान हालयली आनी कुथदादीन एका फाटल्यान एकल्याक जमनीर हाडलीं.

''चलात, घरा या. एल्मी, तुमची आजी तुमची वाट पळयता.''एल्मोन म्हळें.

''ना, ना आमी घरा येवंचीं नात'' खुशीन म्हळें.

'' घर नहीं जायेंगे हम.'' अनुष्कान जाहीर केलें.

''यस हम यहीं रहेंगे.'' नताशान म्हळें.

'' ना. तुमी हांगा रावंक शकनात.तुमची हांगची शाळा सोंपली.'' एल्मोन सांगलें.

''एल्मो,प्लीज.''खुशीन विनयलें.

''तुमकां घरा येवंचेंच पडटलें, भुरग्यांनो. आनी एल्मी तुमचे पासत मचमचीत नुस्त्या हुमण,चिकन शागोती आनी मटन फ्राय करपाची आसा. तुमी सगळीं हांगा शिवराक जेवन उबगल्यांत आसतलीं. आतां तुमकां घरा ऑमलेट खावंक मेळटलें.''

'' ना, ना एल्मो, आमी सगळ्यांनी हे मुखार शिवराक रावपाचें थारायलां.''आरुशान म्हळें.

''किर्ते..तुमी सुटल्यांत रे ?''एल्मोन विचारलें.

''यस एल्मो..आमी गज्जू हती आनी हेर सगळ्या प्राण्यांवरीं खन्यानीच हे

मुखार शिवराकूच रावपाचो निश्चेव केला. आमी ह्यान फुडें खंयच्याच प्राण्यांक, सुकण्यांक वो नुस्त्याक न मारपाचें थारायलां. आमी तांतयां, चिकन, मटन वा नुस्तें बी कांयच खावंचीं नात. आमी फकत भाजी, सांगो, कडधान्यां आनी फळां बी खातलीं.'' सगळ्या भुरग्यांनी एकाच ताळ्यान मोठ्ठ्यान म्हळें.

'' खऱ्यांनीच सांगतात तुमी?''एल्मो तीं कितें सांगतात तें आयकून अजापीत जाल्लो.

''हयच तर''सगळ्या भुरग्यांनी लागीं लागीं एकाच सुरांत म्हळें.

''तशें जाल्यार म्हाका ही गजाल एल्मीक सांगची पडटली.''एल्मोन म्हळें.

''प्लीज डू .खऱ्यानीच सांग.''फाटींफुडें जाय नासतना भुरग्यांनी सांगलें.

''मागीर बिंगोचें कितें तर?''एल्मोन विचारलें.

''तोय आमचे वरींच शिवराक रावतलो.'' खुशीन सांगलें.

''तशें जाल्यार बरेंच जालें.'' एल्मोन म्हळें.

''एल्मो, आमी हे शाळेंत परतीं केन्ना येतलीं?''अनुष्कान विचारलें.

''चड करून आमी फुडले सुटयेंत येवंया.''एल्मोन म्हळें.

आतां जंगलांतल्यान भायर सरपाचो वेळ आयिल्लो. भुरग्यांनी जड काळजान आपलीं बॅगां भरलीं. हती, माकड, बिबटे, वाग, शिंव, सोंशे, मोर, घोणी, कीर, पारवे, मानगीं, सोरोप आनी हेर सगळे प्राणी आनी सुकणीं आपल्या नव्या इश्टांक निरोप दिवपाक भरिल्ल्या दोळ्यांनी हाजीर जाल्लीं. बरोच वेळ गुड बाय करपांत सरल्या उपरांत एल्मो सगळ्यांत मुखार जाल्यार ताचे बरोबरीन बिंगो आनी तांच्या फाटल्यान सगळीं भुरगीं घरा वचपाक भायर सरलीं. तीं वता आसतना पर्थून पर्थून फाटल्यान नदर मारतालीं.

''भुरग्यांनो रोखडीच पर्थून येयात आं''भुरगीं वतात तें पळोवन सगळ्या प्राण्यांनी तांकां म्हळें.'' आमकां तुमची खूब याद येतली.''

आनी तें तशेंच घडपाचें आसलें.



मूळ इंग्लीश - **दत्ता दामोदर नायक**
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-**मानसी धाऊस्कार**

## चंद्राचो खेळ

धव्या धव्या कुपां फाटसून
चंद्र पळयता लिपून
बाबू आयज कसो दिसना
बाबुची न्हीद जावना अजून

बाबुचें रडें कानार येतालें
भूक खूब लागल्या ताका
आई ताका दूद दिताली
बाबू दुदू येता रडनासतना

चंद्र मळबांत आपालिपा खेळटा
बाबूक तो साद घालता
चंद्र कुपां आड लिपता
बाबू ताका सोदता सोदता

चंद्र हळूच भायर सरता
बाबूक तो रोखडोच दिसता
बाबू नेटानेटान हांसता
आपटून पांय नाचता नाचता



- डॉ. उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार
ताळगांव-गोंय.
मो : ९८२३०६६५४०

# कुवाडें



ताचें नांव बल्लू . आवय-बापायचो एकुलतो एक भुरगो जाल्ल्यान खूब माये-मोगान वाडिल्लो.आवय-बापायचो अपुर्बायेचो जाल्ल्यान तो कांयच काम करी नाशिल्लो. घरांत कितलेच कामदार आनी वावराडी आशिल्ले. घरांत वा शेतांतल्या कामांत हात बोट लावपाचें सोडून तो गांवभर हेडटाना दिसतालो. काळ सरता तसो बलू व्हड जायत गेलो. ताचे लागीं खूब जमनी-मालमत्ता आशिल्ली. खरें म्हळ्यार ही सगळी जमीन-मालमत्ता ताच्या बापायन आनी आज्यान घाम गळोवन जोडिल्ली. जेन्ना ताचें लग्न जालें तेन्ना घरांत कलहाचीं कुमां मांडूंक लागलीं. तो वेसनी जालो आनी ताचें बायले वांगडा पटना जाल्ल्यान ती कुळारा वचून रावली.

आवय-बापूय मेल्या उपरांत बल्लू आपली मालमत्ता दमडे मोलान विकपाक लागलो. ताचो परिणाम असो जालो,ते संदीचो लाव घेवन ताच्या नोकरां-चाकरांनी ताची मालमत्ता हडप करपाक आरंभ केलो. कितलेच खेपो तो वाटेर पडिल्लो दिसतालो. गावांतले भुरगेय ताची धजा मारताले. कोणूय ताची काकळूट येवन कोणूय ताका पैशे दिवन सोडटाले.

बल्लूच्या वेसनाचे सवंयेक लागून ताच्या घराचो मान-सन्मान बरबादीचे वाटेक लागलो . ताणें आपल्या घराण्याचे संपत्तीचो असो इबाड करचो न्हय अशें सांगून सांगून ताचीं सोयरीं-दायरीं थकिल्लीं. पूण कोणाचें आयकल्यार तो बल्लू कसलो? आमच्या समाजांत काम करतल्यांकूच मान आसता हें सत. बेकार लवडी कोणाक आवडटा? कसलेंच काम ल्हान व्हड नासता. मनशाचे चिंतप ल्हान व्हड आसता. वेळ सरत गेलो. शाणे लोक म्हणटात बेकार बसून खाल्यार बांयो लेगीत सुकतात. आतां मेरेन कितलीशीच जमीन दमडे मोलान विकून जाल्ली. पीक आदले परस कमी येवपाक लागलें. हाचो परिणाम असो जालो, बल्लू काम करी नाशिल्ल्यान आनी समाजांत ताची बदनामी जाल्ल्यान ताच्या सोयरे दायऱ्यांनी आनी इश्ट-मित्रांनी ताचे कडले संबंध तोडिल्ले.

जेन्ना बल्लू साबुद्दीर आयलो तेन्ना ताचें जुवानपण सरूंक लागिल्लें. ताका मनांतल्यान पश्चताप जावंक लागलो. ताका आपल्या पुर्वजांनी कश्टांनी कमायल्ले मालमत्तेची याद जाली, जी ताणें आपल्या मुर्खपणांक लागून होगडायल्ली. पूण आतां ताचे कडेन हात चोळीत बसपा बगर कांयच उरूंक नाशिल्लें. आपणें होगडायल्ली मालमत्ता परत कशी मेळोवची हाचेर तो विचार करूंक लागलो. जेन्ना लोक ताच्या अवगुणांक लागून ताका दुशणां दिवन बोटां दाखयताले तेन्ना ताका लजेन मरूंक पुरो जातालें.

एकदां ताच्या गांवांत एक मदारी आयलो. तो बारीक सारीक जादूय दाखयतालो. बल्लू बरोच उमेदीन त्या मदारी कडल्यान जादूचे खेळ शिकूंक लागलो. तो मदारीच्या जादवान बरोच प्रभावीत जाल्लो.

''म्हजेय कडेन जर एक बरीशी

जादू आशिल्ली जाल्यार हांवें म्हजी होगडायिल्ली मालमत्ता तरी परत मेळोवपाचों....'' बल्लू विचार करतालो. खेळ सोंपल्या उपरांत ताणें मदारीक एकांतांत आपल्या मनांतली गजाल सांगली. ताचो जादवावेलो वाडिल्लो विश्वास पळोवन मदारी हांसूंक लागलो. आनी मदारीन ताका समजायलें कीं ताचे कडेन कसलोच जादू ना आनी कसलीच जादुची शक्तूय ना म्हण. ही तर फक्त हात चलाखी म्हूण. पूण बल्लू हें मानून घेवप्यांतलो तर? ताका दिसलें मदारी आपणाक पयस करपाक हें सगळें सांगता शें. ताणें चिंतलें, मदारी न्हय तर आनी कोणाकय कडल्यान तो जादू शिकतलो आनी आपली मालमत्ता घेतलो.

हेच एके आशेक लागून तो गांवां गांवांनी भोंवूंक लागलो. खूब फावटीं लोक ताचीं फकांडां करताले. असोच भोंवतां भोंवतां तो एक दीस एका शेता वटेन वतालो. वाटेक बांय आसली. बरोच थकिल्ल्यान ताणें बांय कडेन आशिल्ले कळसुर्लेंतलें उदक काडून पियेलो आनी लागींच आशिल्ल्या एका रुखा पोंदा वचून आड पडलो.

बल्लूचो दोळो लागपाकूच आशिल्लो इतल्यांत थंय एक जाण्टो दादलो घोड्यार बसून आयलो. तोय बांयचें उदक पिवपाकूच आयिल्लो.

बल्लून ताका बांयतलें उदक काडून पिवपाक दिलें. तो मनीस विसव घेवपाक कांय वेळ थंय बसलो. बल्लून चिंतलें, ''ह्या जाण्ट्या कडेन कसलोय जादू आसत. जर तो जादू मेळत जाल्यार हांव परत पयशेकार जातलों. हांव हाचे कडेन उलोवन पळयतां.'

बल्लून त्या दादल्याक आपले वांगडा घडिल्ली पुराय गजाल सांगली. ''बाबा, हांवें आयकलां जायत्या लोकांकडेन जादूई शक्त आसता जेणे करून ते आपल्याक जाय ती वस्त मेळोवपाक शकतात. तुमचे कडेनूय आसा तसलो जादू? जाका लागून हांवें होगडायल्ली इस्टेट म्हाका परत मेळटली.''

जाण्ट्या बाबान ताची पुराय काणी आयकली आनी म्हळें, ''हय, हांव सगळ्यांत व्हड जादू जाणां. जें करून तुवेन होगडायिल्ली जमीन तुका परत मेळटली.''

बल्लून खोशी जावन विचारलें, ''बाबा, खऱ्यानीच?''

''हय खरेंच तर.'' म्हौवाळ उतरांनी ताणें जाप दिली.

बल्लून उत्सुकतायेन म्हळें, ''बाबा बेगीन म्हाकां तो जादू सांग. हांव ताचे खातीर खूब दीस जाले हेडटां.''

जाण्ट्या बाबान ताका मायेन सांगलें, ''पूण शाण्या जो मेरेन तूं म्हजें एक कुवाडें सोडोवचो ना तो मेरेन हांव तुका त्या जादूविशीं सांगचों ना.''

''हय, हय बाबा. बेगीन सांग किते तें कुवाडें .हांव तें रोखडेंच सोडयतां.'' बल्लून म्हळें.

जाण्ट्या बाबान सांगलें, '' तुज्या हातांचे रगडेंत ह्या कुवाड्याची जाप लिपल्या. पूण ताची जाप तुका रोखडीच मेळची ना. हळुहळू आपुणूच तुजे मुखार ती येतली. जितले गतीन आनी मेहनतीन तूं तुजे हात घासतलो तितलेच वेगीं त्या कुवाड्याची जाप तुकां मेळटली. त्या कुवाड्याची जाप तुज्या हातीनीच आसा.''

''किते? म्हज्याच हातांच्या धर्शणांत कुवाड्याची जाप लिपल्या?'' बल्लून आपल्या हातां कडेन पळयत अजापान विचारलें.

''हय तुजेच कडेन. हांव तुका भविश्यांत मेळटलों. म्हाकां आशा आसा तो मेरेन तूं म्हज्या कुवाड्याची जाप सोदून काडटलो.'' हें सांगून तो जाण्टो बाबा थंयच्यान गेलो.

''वाह, आतां म्हाकां त्या जाण्ट्या मनशान यश मेळोवपाचो रस्तो सांगला. हांव परत म्हजी होगडायल्ली इस्टेट मेळोवपाक शकतां.'' हें चिंतून बल्लू आपले हात घासपाक लागलो. खूब वेळ तो हात घासूंक लागलो पूण कांयच जायना जालें. घरा येवनूय तो हात घासूंक लागलो तरीय कांयच घडूंक ना. जेन्ना बल्लू घरा भायर सरतालो, हात घाशींत भोंवतालो तेन्ना लोक ताका पळोवन मनांतल्या मनांत हांसताले.

'बाबडो पिसो जालो.' लोक म्हणटाले.

अशे तरेन बल्लूचीं लोक फकांडां मारपाक लागले... ताका फकांडांनी किते किते म्हणपाक लागले. तो तें एका कानान आयकतालो आनी दुसऱ्या कानान सोडून दितालो. हात घाशिल्ल्यान ताचे ते तांबडे जाताले आनी दुखूंक लागताले.

अशें करतां करतां खूब दीस सरले तेन्ना हळुहळू ताच्या लक्षांत किते तरी

येवंक लागलें.

'आंऽऽ... आतां म्हाकां त्या कुवाड्याची जाप कळूंक लागली. तो जाण्टो म्हणपाक सोदतालो, हात फक्त घासपाचे न्हय तर ताच्यांतलो फरक जाणून घेवपाचो.' आपलेच भितर अशें म्हणीत बल्लू कामाक लागलो. पयलीं तो एका गिरेस्त शेतकाराच्या शेतांत काम करपाक लागलो. तो खूब काम करतालो. हळुहळू ताचो धनी ताचे मेहनतीक पळोवन खूब खोशी जालो. कारण ताचे मेहनतीक लागून बरें पीक येवपाक लागिल्लें.

कांय दिसांनी बल्लून्‌य जमीन विकती घेतली. ताका लागिल्लीं व्यसनां ताणें हळुहळू सोडलीं. बायलूय ताचे कडेन परत आयली.

दोन-तीन वर्सांनी बल्लू परत खुशाल जीण जगूंक लागलो. एक दीस ताणें पळयलें, एक जाण्टेलो घोड्यार बसून ताच्या शेतांत आयलो.

"म्हाका वळखलो?" त्या मनशान घोड्या वेल्यान देंवत विचारलें.

"हय हय. तुमीच तर म्हजी पुराय जिणूच बदलून उडयली. कांय वर्सां पयलीं तुमी म्हाकां एक कुवाडें आयकयल्लें आनी म्हाकां म्हजी होगडायल्ली इस्टेट परत मेळची म्हूण ताची जाप सोदूंक लायिल्ली. बाबा, हांवें तुमच्या कुवाड्याची जाप सोदून काडली. तुमी त्या कुवाड्यांतल्यान हातांच्या कश्टांच्या खऱ्या जादवा मुखार संवसारांतले हेर जादू फट म्हणपाचें कळोवन दिल्लें. आतां तुमी हे जें किदें पळयतात तें म्हजे हात घाशिल्ल्यान म्हळ्यार म्हज्या हातांच्या मेहनतीच्या जादूचो परिणाम."

बाबान म्हळें, "सारकें म्हणटात न्हय आपलो हात जगन्नाथ. आमचे हातूच संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो जादू. ह्या हातांनी तूं जितले कश्ट करतलो तितलेंच तुका सूख, शांती, पयसो-लत्तो मेळटलो."

बल्लून त्या जाण्ट्याच्या पांयांक हात लावन नमन केलें आनी आपलें वांगडा घरा जेवपाक घेवन गेलो.



मूळ पंजाबी- **दर्शन सिंह आशट**
(केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या बाल साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत)
हिन्दींतल्यान कोंकणी-**श्वेता नायक**

# नितांत



- माया खरंगटे

-४-

सगळे कडेन सोद घेवनय नितांत मेळना जातकीर सगळ्यांकूच निर्शेणी आयली. आबोली कॉलनींत दुख्खाचें सांवट पातळिल्लें. सांजवेळचीं उर्वीक घेवन सगळीं जाणां सकयल्या गार्डनांत बसतालीं. पूण कोणकूच खेळन दिसनासलें, गजाली करन दिसनासलें. सगळीं ओग्गी बसतालीं. उलयलींच जाल्यार नितांताचोच विशय तांचे मदीं चलतालो.

शाळा सुरू जातकीर शाळाभर सगळ्यांक नितांताची खबर कळ्ळी. शाळेंतूच सगळे कडेन नितांताचोच विशय चलतालो, नितांत गेलो खंय हो एकूच प्रस्न तांचे मुखार हुमकळटालो.

नितांताच्या ना जावपाचो उर्वीचेर खूब परिणाम जाल्लो. ताची मस्ती नाच्च जाल्ली. तें ओग्गी-ओग्गी जाल्लें. आवय दिसभर रडटा हाचोय ताणें धसको घेतिल्लो. तें आवयक कशेंच पातये नासलें. आवय रडपाक लागल्यार तिचे वेंगेंत वचून तें बसतालें, आनी आपूणय रडटालें.

उर्वीक लागून ताचे आवयन आपल्या दुकांक बांद घालो. ती मनांतल्या-मनांत घुस्मट्टाली. पूण उर्वीक लागून तिणें आपल्याक सावरलें.

नितांताचो तस्तेस्न सोद घेवनय जेन्ना तो मेळ्ळोच ना आनी ताची कसली सुलुसय लागली ना तेन्ना पुलिसांनी ती केस तात्पुरती बंद केली.

***

नितांताक घेवन मामू बोटीर आयलो. सगळें सामान भरता सर बरोच वेळ जाल्लो.

दादुच्या जुंव्यार पावता सर तांकां फांतोड्यीं चार वरां जावन गेल्लीं. सगळ्यांक सामान व्हरून भितर दवरपाचो वावर आशिल्लो. काम नाशिल्लें तें नितांताक. ताका झोम येताली. मामून ताका भितर व्हरून एके कुडींत चादर घालून दिलो आनी न्हिदयलो.

नितांताक जाग आयली तेन्ना, ताचे आशिकुशीक सगळे न्हिदिल्ले. मामू ताका तेंकून न्हिदिल्लो. तो हळूच उठलो आनी वाट काडत भायर आयलो. भायल्यान एके वटेन एक रांदची कूड आनी दोन चार संडास-बाथरूम आसले. नितांतान आपलीं सकाळचीं कामां केलीं. तोंड धुवंक पेस्ट आशिल्ली, पूण ब्रश...? तो खंय मेळटलो...? नितांतान बोटाक पेस्ट लावन दांत घांसले.

तो रांदचे कुडींत आयलो. थंय एक दादलो काम करतालो. ताणें नितांताक पळयलो आनी हांसून म्हळें, ''मुन्ना च्या पितलो काय दूद जाय?''

नितांत निखटें दूद केन्नाच पिये नासलो. पूण आतां ताका कसलीच याद नासली. तो त्या दादल्याक पळयत ओग्गी रावलो. ताणें ताच्या म्हऱ्यांत दूद दवरलें. नितांतान दुदाक एक घोंट मारलो आनी ताका वीट आयली. ताणें बेसीनार वचून दुदा घोंट भायर उडयलो. मागीर मेजा म्हऱ्यांत येवन ओग्गी बसलो.

त्या दादल्यान ताचे तकले वेल्यान हात भोंवडायलो आनी ताका विचारलें, ''मुन्ना तुका दूद आवडना, जाल्यार हो च्या घे. तूं उलयना कित्याक? उलय मरे.''

नितांतान मुकट्यानी च्याक घोंट मारलो. तो ताका आवडलो. तो ओग्गी रावन च्या पिवंक लागलो.

''आवडलो मरे च्या? वोदोळच्यान तूं कांयच उलयना, नांव किर्ते तुजें?''

''खबर ना.''

''किर्ते खबर ना? अशें कशें जातलें?''

"तूं कोणाचो चलो?"

"खबर ना."

"कितें?"

इतलो ल्हान भुरगो. दिसपाकूय बऱ्या घरांतलो कसो दिसता. त्या तळघरांत कसो पावलो काय? चाचू येवजुंकूच पडलो.

"कितें रे मुन्ना तुका आनी कांयच उलोवपा येना?"

"येता. म्हाका कांयच याद जाय ना."

"म्हळ्यार? तूं कोण? खंयचो? तुका कांयच याद जायना?"

"ना."

"आरे, अशें कशें?"

"खबर ना."

'खबर ना' आनी 'ना' ह्या दोन उत्तरां बगर नितांत कितेंच उलय नासलो. तो दादलो नाश्तो करपाच्या वावराक लागलो.

नितांत हेवटेन-तेवटेन भोवंक लागलो. तें घर भुयारा भितर म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो न्हिदिल्लो ती एक कूड,रांदची कूड आनी भायर एक व्हड जागो आसलो. ताच्या अर्द्या वयर भागांत बॉक्सां, बल्लां आनी कितें आशिल्लें. थंयच्यान वयर वचपाक सोपणां आशिल्लीं. पूण वयलें दार बंद आशिल्लें.

एके वटेन पाखल्या कडल्यान उजवाड येतालो. थंय तीन हारशे आसले. थंयच्यान उजवाड आनी वारें येतालें. थंयच्यान भायलें कितेंय दिसता काय कितें तें नितांत पळोवंक लागलो. पूण ताका कांयच दिसलें ना.

हेवठेन मामूक जाग आयली. तार्णे म्हऱ्यांत सासपून पळयलें. म्हऱ्यांत कोण नासलो. मामू फट्ट करून उठून बसलो. 'हो बाबू खंय गेलो?' म्हणत आंग वळत तार्णे हेवठेन-तेवठेन पळयलें. ताचे सांगाती न्हिदिल्ले. तो सडसडीत उठून भायर आयलो. भायर हॉलांत नितांत आसा तो तार्णे पळयलो.

"बाबू, केन्ना उठलो?"

"वोदोळ उठलों?"

"तोंड धुलें, च्या बी पिलो?"

" हय."

"हांव येतां हां तोंड धुवन."

मामू च्या पिवंक येतकर चाचून ताका विचारलें, "मामू, हो बाबू कोण? ताका कितेंय विचारल्यार कांयच सांगूंक कळना ताका."

"क्या बताऊं जी! हो मुन्ना काल आमच्या काणकोणच्या तळघरांत मेळ्ळो."

मामून चाचूक सगळी गजाल सांगली. चाचू चुरचुरलो.

"आरे रे! कोणाचो तरी काय बरो बाबू. ताचे अम्मी, अब्बा ताका सोदून सोदून जाम जाल्यात आसतले."

"हय, ताका कितेंच याद जायना न्हू, ना जाल्यार ताका ताच्या घरा पावोवपाक जातालें."

"तुमी काणकोणच्यान आयल्यात न्हय. थंयच दर्या-देगेर ताका सोडल्यार कसो?"

"हें, अस्लमभाय तयार जावचोना. तो कितें करता पळोवया."

एकटो-एकटो करून सगळे उठले. च्या-नाश्तो घेवन सगळे गजालींक बसले.

नितांताक कांयच काम नासलें. तो ओग्गी बसून 'हांव कोण? हांचे म्हऱ्यांत कसो पावलों?' हें येवजितालो. यल्लप्पा, सिद्दी आनी हेर जाण ताका मर्दी-मर्दी उदक हाड, कितेंय हाड म्हणून रांदचे कुडींत धाडटाले. नितांत मुकट्यांनी वचून तांणीं सांगिल्लीं कामां करतालो. पूण यल्लप्पा आनी सिद्दी म्हऱ्यांत वतना मात ताका सगळोच कळ्कळो भरतालो. ते ताचे कडेन रागान पळयताले, उदकाचो पेलो घेतना ताचो हात चिड्डिताले.

इतल्यांत खट्ट आवाज जालो आनी त्या सालाचे एके वण्टीचें दार उगडलें.

'हांगा आनी दार?' नितांताक अजाप जालें. भायल्यान ते वण्टीक दार आसा म्हणून कळऽ नासलें. त्या दारांतल्यान अस्लमभाय आनी एक दादलो आयलो. मामून नितांताक हळूच सांगलें, "हो दादू, हो जागो हाचो."

अस्लमभायन नितांताक म्हऱ्यांत आपयलो आनी वेगळेच भाशेन त्या दादूक कितें तरी सांगलें. दादून ताचे तकले वेल्यान हात भोंवडायलो आनी अपुरबाय केली. ताका आपल्या म्हऱ्यांत बसयलो.

मागीर तांचें बरोच वेळ उलोवणें चलतालें. नितांताक सामकें वाज आयलो. पूण यल्लप्पा आनी सिद्दी मुखार रावचे परस ताका हांगा बसप सुरक्षीत दिसतालें.

दादू ताका घेवन आपले वटेन गेलो. थंय लेगीत हांगाचे भशेन कुडी आशिल्ल्यो. एके कुडींत व्हड-व्हड बॉक्सां आसलीं. आनी थंय बसून थोडे लोक कितें तरी ल्हान ल्हान बॉक्सांनी घालून पॅक करताले.

दादून तांकां म्हळें, "हो पळे आमचो नवो दोस्त मुन्ना."

मामू ताका मुन्ना म्हणटा म्हणून अस्लमभायनय दादुकडेन ताची वळख मुन्नाच म्हणून करून दिल्ली. आतां सगळेच ताका मुन्ना म्हणूंक लागले.

दादुच्या मनशांक मुन्ना आवडलो. ते

अपुरबायेन ताची चवकशी करूंक लागले. नितांताक कितेंच जाप दिवपाक येना जातकीच तो रडकुरो जालो. तें पळोवन दादून तांकां शिटकायलें.

दनपरां जेवणां जातकीच सगळे आड पडले. नितांताक मात न्हिद येनासली. मामून ताका आपल्या म्हन्यांतूच आड पडपाक लायिल्लो. थोडो वेळ नितांत कुशी परतीत रावलो. मागीर ताका वाज आयलो. तो मुतपाक वचपाचें निमित्त करून भितर आयलो. चाचू लेगीत आड पडिल्लो. नितांतान हळूच फ्रिज उगडलो. भितर कसल्यो कसल्यो बाटल्यो आसल्यो. नितांतान स्प्रायटाची बाटली काडली. थोडें स्प्राय्ट ग्लासांत ओतून घेतलें. मेजार डब्यांत बिरकुट्यो आसल्यो त्यो घेवन तो खावपाक बसलो.

खातां खातां तो येवजुपाचो यत्न करतालो... हांव कोण? हांचे म्हन्यांत कसो पावलों? हे लोक रमगलरशे दिसतात.. थंयी ते भुयारांतशे रावताले... हांगाय हें भुंयार .. भायर वचपाची वाट खंय काय?.. वयर कितें आसतलें? लायट लायनासतनाय हांगा उजवाड कसो?...

ताणें वयर पळयलें. वयर हॉलावरी हारसो आसलो. तातुंतल्यान उजवाड आनी वारेंय येतालें. नितांत त्या हारशांतल्यान कितें दिसता काय पळोवंक लागलो. पूण भायर मळब सोडून कांयच दिसनासलें. इतल्यांत एक किरकिरो येवन बसलो. टकऽटकऽऽ करून ताणें आपली लांब चोंच हारशार मारली. तो पक्षी ताका वळखूंक आयलो, म्हणून खोस जाली. ताणें मोठ्यान म्हळें, 'हो किरकिरो..' चाचू जागो जालो. ताणें नितांताक भिवन विचारलें, "कितें जालें मुन्ना?" नितांतान म्हळें, "ना कांय ना."

तो मुकटल्यांनी स्प्रायट पिवंक लागलो. हळुहळू तो वयर हारशार पळयतालो. किरकिरो केन्ना उडून गेल्लो. नितांताक दिसतालें, ताणें परत येवचें, आपले वळखिची खूण परत-परत पळोवची. कित्याक कोण जाणां पूण किरकिरो वळखुपाक आयिल्यान ताका खूबच खोस जाल्ली. आपलोच कोणतरी मेळिल्लेवरी ताका दिसलें... म्हणजे म्हाका कांय गजाली याद आसात... लोकां मदीं गेल्यार हांव तांकां वळखत काय?... जाल्यार म्हजी सगळी गजाल म्हाका याद जावंक येता... म्हाका कोण ह्या भुयारांतल्यान भायर व्हरत... मामूक सांगल्यार... हय तोच म्हाका बरें करता... ताचे हात म्हाका पोशेतात तेन्ना वळखिचे कशे दिसतात. असोच म्हाका कोण सांसपितालो काय? विचारांच्या वेटोळ्यांत नितांत घुंवत रावलो.

च्या पियेवन जाले बराबर सगळेच नेटान कामाक लागले. ते ल्हान-ल्हान बॉक्सांनी कितें तरी पॅक करताले. तोंडान ते बडबडटाले. ताचे वेल्यान नितांताक कळ्ळें, तो म्हाल ते रेल्वेंतल्यान भायर धाडपा आशिल्ले. म्हणून तांणीं तो काणकोणच्या भुयारांत हाडून भरिल्लो. तो म्हाल ह्या जुंव्या वयल्यान परत भायर काडचो पडटलो. हें सगळें नितांताक लागून जाल्लें, म्हणून ते नितांताक कड्डिताले.

तांची सगळी भाशा जरी कळनासली तरी जी कळटली ताचे वेल्यान ते आपल्याचेर रागार जाल्यात इतलें ताका कळिल्लें. म्हणून तो भायर बसूंक भियेतालो. तो रांदचे कुडींत मेजा कडेन बसून रावलो.

इतलो वेळ बसून रावन ताका सामको वाज आयलो. तितल्यांत मामू उदक पिवंक म्हणून रांदचेकुडींत आयलो. नितांतान ताका म्हळें, "मामू, मामू म्हाका हांगा बसून सामको वाज आयला."

"हय रे मुन्ना, तुका खेळूंक मेळना, कांय काम ना, तूं कितें करतलो?"

'मामू हांगच्यान भायर वचूंक वाट आसा न्ही?"

"हय तर, थंयच्यानूच रातीं आयल्यात आमी."

"म्हाका कांयच कळुना."

"कशें कळटलें मुन्ना. एक तर रातीचो काळोख, तातूंत तूं भिल्लो."

"मामू हाचे वयर कितें आसा? लोक रावतात?"

"ना, ना, हो एक जुंवो, हाचे वयर झाडां-झोपां, व्हड-व्हड फातर आनी भोंवतणी दर्या आनी कांय ना."

"दर्या?" दर्या मदीं ही जमीन?"

"हय, म्हणून तर ताका जुंवो म्हळां."

"वा मामू म्हाका वयर वचून पळोवपाक जाय. या रे आमी वयर."

"तुका वयर वचूंक जाय मरे, राव, रातचे आमी सामान वयर व्हरतले तेन्ना तूं वयर येवन पळे."

"हें, रातचें रे, कितें दिसतलें म्हाका?"

"हय मुन्ना खरें तुजें. राव, हां अरलमभायक विचारतां." नितांताक उमेद जाली.

मामून अरलमभायक कितें सांगलें कोण जाणां. बऱ्या वेळान मामून ताका

उलो केलो. मामून ताका थोडीं सोपणां चडोवन वयर व्हेलो. थंय व्हडलें लोखंडी दार आशिल्लें. मामून वण्टी कडलो एक बटण दामलो. सर सर करून दार वण्टी भितर गेलें. मामून नितांताचो हात धरून ताका भायर हाडलो. भायर दाराक तेंकूनच एक व्हड फातर आशिल्ली. पूण कुशिच्यान बरी वाट आशिल्ली. ते वाटेन मामून ताका जुंव्यार हाडलो.

भायर सूर्य मावळिल्ला पूण मातसो उजवाड आसलो.

त्या जुंव्यार मामून सांगिल्ले वरी व्हड व्हड पाशाण पातळिल्ले. माडा वरीं झाडां झोंपां आशिल्लीं. तरेकवार पक्षी,बगळे त्या झाडार बशिल्ले.

नितांताक खोस जाली. ताणें म्हळें, "हे बळगे मरे, हो तो किरकिरो आनी हे कसले पक्षी?"

"मुन्ना हांगा फक्त दर्यांतलें नुस्तें खावपीच पक्षी आसा. चलतना पांया कडेन पळय हां. जिवाणींय आसा हांगा."

"आवय्स, पूण मामू हांगा मनशां कित्याक रावनात."

"मनशां रावनांत तेंच बरें, आमकां हांगा आमचीं कामां सुशेगाद करूंक मेळटात."

"मनीस आसल्यार तुमकां किर्ते करतले आसले?"

"मुन्ना तूं ल्हान आसा अजून. तुका आमचें काम खबर ना."

"खबर ना जाल्यार सांग मरे, तुवें सांगल्यार म्हाका कळटलें."

"ना, हांव सांगूंक शकना, आमी तसो सोपूत घेतला."

"हांगा कोण आसात रे आयकूंक, हांव आनी दर्या."

"ना मुन्ना, सोपूत घेतला म्हणटकीर हांव बांदून आसां. आनी वाऱ्याकय कान आसात म्हणटात."

"ना रे मामू, वण्टीक कान आसा म्हणटाली ती."

"ती कोण मुन्ना?"

"ती... ती कोण... ना म्हाका याद जायना... पूण म्हाका हें कशें कळ्ळें, वण्टीक कान आसा म्हणटात म्हणून?"

मामू ताका पळयत आसलो, मुन्नाक किर्तेय पूण याद जाल्यार पुरो म्हणून तो मागतालो.

"ये माम आनी कांयच याद जायना मरे."

"जातली हां, जातली."

पयस दर्यांत लायटी लुकलुकताल्यो. नितांतान त्यो पळयल्यो आनी विचारलें, "मामू होतो पयस उज्याचे गुळेशे दिसतात. खंयचो गांव तो?"

"खबर ना मुन्ना. ते उज्या गुळे म्हळ्यार लायटी."

"लायटी दिसतात म्हणटकीर खंय शहर आसूं जाय. आमी शारांत केन्ना वचप?"

"अरलमभाय सांगता तेन्ना."

"तूं सगळ्या कामाक अरलमभायक कित्याक हाडटा?"

"तो आमचो पात्रांव. तो सांगता तेंच आमी करतात. चल या आतां सकयल."

मामू ताका घेवन सकयल देंवलो. उरमानान मामूक कुरू केली. मामून नितांताक म्हळें, "मुन्ना, यो आमी दाखोर या."

बटन दामून मामून वण्टीचें मदलें दार उगडलें. ते दोगूय दादुच्या अर्दान गेले. मामून परत बटन दामून दार धापलें.

(चलता...)



मडगांव-गोंय. मो.:९४२०६८५२७८

# बायूल आजोळ वता

- हर्षा सदगुरू शेटये



आतां बायूल देड वर्सांचें जालां. चुरुचुरू करून उलयता. मात्शें हट्टीच जालां. जाय म्हणजे जायच. बायूल आनी बाबूची परतीं परतीं झगडीं जातात. बायुलाची बावली बाबू ओडटा. घेवन भायर धांवता. बायूल किंळच्यो मारता. पांय आपटीत थय थय करून नाचता. ते भायर धांवता. तो हुंबऱ्यार बावली घेवन बसला. तें ताच्या हातांतली बावली ओडटा. तो करसो दिना. आतां बायूल चोवकेर उदारें पडून व्हडल्या व्हडल्यान रडटा.

बायुलाची माँ धांवत येता. तांबडी गाडी काडून बायुलाच्या हातांत दिता. 'बावी व्हेयी.. बाबून व्हेयी.. दी.. दी..' बायूल माँक कशेंच आटापा येना. बाबू बावली घेवन रस्त्यार पावला.

ट्रिंग... ट्रिंग.. ट्रिंग बायुलाक बाबाचे सायकलीचे कांपीणीचो आवाज येता. तें भायर सोंपणाचेर येता. बायुलाक सायकलीचेर बसून भोंवपाक खूब आवडटा. सायकलीच्या दांड्यार बाबान इल्लेशें तांबडेंच सीट लायलां. सिटाक बरी झालर लांबता. बाबा बायुलाक विचारता, 'पासयेक या?' बायूल रडत रडत तकली हालयता. बाबा ताका उखलून सिटार बसयता. बाबू धांवत येता, बावली काडून दारा भितर शेवटून मारता आनी बेगबेगीन सायकलीचेर चडून ब्रेकेटाचेर बसता. बाबा त्या दनपारच्या वेळांत दोगांकूय एक पासय मारून हाडटा.

''चला, आतां या जेवपाक.'' बाबा बायुलाक सायकली वेल्यान देंवयता. सगळीं जाणां जेवपाक बसतात. बायुलाची मावळण बाबूक लायता. बाबाक बेगबेगीन जेवन ऑफिसांत वचपाक जाय. ते खातीर मां बाबाक पयलीं वाडटा आनी बायुलाक लावपाक बसता. दोन उंड्यो जेवपाक बायूल वर भर काडटा.

सांजवेळां बायुलाची मावळण कामा वयल्यान येता. बाबूक आनी टिपूक घेवन पासयेक वता. बायूल मां क पदराक धरून ओडटा, 'पारसेक या, पारसेक या. बायुलाच्या मां च्या जिवाक बरें ना. तिच्यान बायुलाक पासयेक व्हरपाक जायना.

ती बायुलाक घेवन भायर येता. भायर सोप्याचेर बसता. बायूल परतेंय तिका ओडटा. 'पारसेक या पारसेक या.''

''मागीर या. बाबा येतकीच व्हरतलो.''

''बाबू गेलो, दिपू गेलो. बायुलाक पारसे ना?'' तें रस्त्यार पांय आपटून नाचता. व्हडल्यान किंळच्यो मारता.

'' कितें जालां तार्चे?'' शेजारची ताई विचारता.

''चल यो हांव व्हरतां.'' ती ताच्या हाताक धरता. पूण तें आयकना. आतां तें रस्त्यार फतकल मारून बसलां. रड रड रडटा. मां ताका परती परती उखलूंक वता. पूण ताणें आंग घट्ट केलां. इतल्यांत बिराडकार भाऊ ऑफिसांतल्यान येता. तो ताका फोर्सान उखलता आनी पासयेक घेवन वता.

दिसानदीस बायुलाचीं हट्टीपणां वाडत आसात. बायुलाच्या बाबाकूय ह्या दिसांनी खूब काम आसता. तो मुंबय वचपाचो आसा.

बाबा बायुलाक, बाबूक आनी मां क सांखळे आजोळा व्हरून पावयता.

## बायूल आजोळा रमता

बायूल सकाळीं उठता. तें सदचेवरी लुटुलुटू करून धांवपाक लागता. ताका खबर आसा, तें दिसले बराबर टिपू शेपडी हालयत ताचे म्हऱ्यांत येतलो म्हणून. पूण आयज सगळें वेगळेंच दिसता. ते कुडींतल्यान उठून येवन व्हडल्या सालांत पावलां. तें धांवत मां म्हऱ्यांत येता. तिचे साडयेक घट्ट धरता.

मां ताका घेवन सालांत येता. ताची जयमावशी आनी धाकलो मामा इस्कोलांत वचपाक भायर सरल्यांत. तीं ताका टाटा 'बायूल, टाटा बायूल' म्हणटात. बायूल हिमट्यो काडटा. तीं सपणां देंवून रस्त्यार पाव मेरेन रडत तांकां पळयत रावता.

आज्यालें घर खूब उंच. धा एक व्हडलीं सोपणां. सोपणांक घसरगुंडी कशी गराद. भायर बसपाक व्हडलो वारांद. वारांदाचेर बसपाक दोन लाकडी बांक. चौंयवटेन व्हडलें पोरसूं. मां बायुलाक घेवन वारांदाचेर येता. बाबू मुखावयले पेरीचेर चडटा. पेरीक व्हडलीं व्हडलीं पेरां लागल्यांत. सकयल आजो उबो आसा.

''यो.. यो..'' रडल्या बायुलाक आजो येवन उबारता. ''यो.. तुका हाम्मा दाखयतां. यो रे बाबू, तूंय यो. ''बाबू तुरूतुरू देंवून सकयल येता. पापा आजो तांकां मागीलदारां गोठ्या कडेन व्हरता.

''हाम्मा, हें पळय आमचे बायूल आयलां.'' गायेन कळिल्ले भशेन हाम्मा केलें. तांबश्या रंगाची ती गाय आनी तिच्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या तसल्याच कोरार्चे पाड्रूक. पाडकान मान हालयली. टिणटीण गळ्यांतली घांट वाजली.

आनीक एक काळी गाय सकयल बशिल्ली. किर्तें तरी चाबडायताली. तोंड हालयताली. तिणें बायुलाक पळोवन हेम्मे, हेम्मे केलें. बायूल आपूण रडटालें तेंच विसरलें. हम्मा, हम्मा करत रावलें.

''चल आतां दूद पिवया.'' आजो तांकां भितर येवन आयलो.

बायुलाक आजोळा येवन पंदरा दीस जाले. आतां तें आजो, आजी, मामा, मावश्या बराबर बरेंच रमलां. आतां खातना जेवतना ताका मां लागना.

माईमावशी वाडग्यांत सत्व येवन बायुलाक खावयता. वारांदांत बांकाचेर बायूल उबें रावलां. ''यो रे काक्या यो. आतां आमचें बायूल पळय तोंड उगडटलें. आम्म करतलें. भोबो खातलें.'' बायूल बेगबेगीन तोंड उगडटा. एक कुलेर तोंडांत येता. मागीर सोपणाचेर वचून बसता. माईमावशी वाडगो घेवन ताच्या फाटल्यान वता.

''सतू भोबो खा गो शाण्या. चिमणे, चिमणे पळय बायूल कशें सतू भोबो खाता तें.'' वरभर लागून बायुलाच्या फाटल्यान नाचून माईमावशी एकदांचो तो सतू भोबो बायुलाक खावयता. सत्व एकदांचें बायुलाच्या पोटांत पडलें म्हणून माईमावशेक सूऽ जाता.



बायुलाच्या आज्याच्या घरांत उजवेवठेन वारांदाचेर लांबचे लांब कूड आसा.ते कुडीक सगळीं जाणां क्लास म्हणटात. थंय ताची बाईमावशी बालवाडी चलयता. सोशल वेलफेर बोर्ड ॲन्ड चाईल्ड वेलफेर सेन्टराची. थंय सकाळीं फुडें ल्हान ल्हान भुरगीं येतात. बाईमावशी तांकां पदां शिकयता. नाच शिकयता. अे. बी. सी. डी. काडपाक शिकयता. बायूल सतू भोबो खावन त्या क्लासांत भितर सरता. बाईमावशी भुरग्यांक पद शिकयता. 'या गो या, आमी खेळ खेळुया. वोवळांच्या झाडा मुळांत वोंवळां पुनोवया.' बाईमावशी बायुलाक पळोवन पळोवनाभशेन करता. बायूल भुरग्यां बराबर तोंड हालोवन आं आं करता आनी वाजेवन परतें भायर वता. बायुलाक लुटुलुटू करून भायर वता तें पळोवन फुडें बशिल्लें वृंदा फुरस करून हांसता.

दनपार जाता. इश्कोलाक गेल्ली जयमावशी आनी मामा घरा येतात. बायूल धांवत धांवत वारांदार येता. मामा धांवत धांवत वयर येता. दप्तर दवरता आनी बायुलाक वयर काडटा. बायूल नळ्यांक हात लायता. किटीकिटी करून बायूल हांसता. आतां मामा ताका खांदार बसोवन सालांत हाडटा. बायुलाचो मामा खूब लांब.. ताच्या खांदार बसतकीच बायुलाक सामकें वयर मळबाक हात तेंकिल्लेवरी जाता.

दनपारचें जेवल्या उपरांत क्लासांत बायलो आनी व्हडलीं भुरगीं येवपाक लागतात. बाईमावशी आनी आनीक एक बायल तांकां व्हिंस्तीद आनी हेर कपडे शिंवपाक शिकयता. बाईमावशेक तरेकवार कागदाचीं, मेणाचीं बी फुलां करपाक येतात. तीं त्या भुरग्यांक शिकयता. बाईमावशी ग्लासार चित्रां काडून पेंट करता. बायुलाक त्या पेंटांत हात बुड्यन कशें दिसता. बाईमावशी ताका शूत करता. तें मागीर भायर येता.

आयज बायुलाचो बाबा ताका व्हरपाक येवपाचो आसा. बायुलाची आजी बायुलाचे मां क म्हणटा, ''आगो, तुज्यान बायुलाच्या फाटल्यान नाचपाक जावचें ना. ताका पळोवपाक सारको एक मनीस लागता. तूं बाळंत जायसर ताका हांगा आसूनी.''

बायुलाची मां बरें म्हणटा. बायुलाक संबंद वेळ ताचे फाटल्यान मनशां जाय. ताका भोंवडावपाक जाय. ताचे बराबर खेळूं जाय... हें येवजून माँ बायुलाक आजयेकडेन दवरपाक तयार जाता.

बायुलाचो बाबा मडगांवां मिनेराच्या ऑफिसांत काम करता. खाणी वयलीं मशिनां बी विकतीं घेवपाक ,पळोवपाक तो खूब वेळां गोंयां भायर वता. केन्ना केन्ना तो सांखळे लागसार आशिल्ल्या दिंगण्या खणीर येता.

त्या दिसा तो तसोच खणीर आयिल्लो. मडगांवां वतना तांकां व्हरपाक येता. बायूल धांवत बाबा कडेन वता. आजो बाबाक सांगता, ''बायुलाक दवरता म्हणून. पयलीं बाबा नाका म्हणटा, मागीर बाबाक दिसता बायूल मडगांवां दिसभर रडटा. आसूनी ताका थोडे दीस हांगा. तीं वचचे वेळार आजो ताका येवन राधाकृष्णाच्या देवळांत वता.

देवळांत तें दोनदां तिर्थ पिता. देवा पाव, देवा पाव करीत न्हिदून नाक घासता. कृष्णाच्या हातांतली मुरली पळयता.. मागीर तीं घरा येतात. घरा आयल्यार मां, बाबा आनी बाबू नात. तें सगळे कडेन तांकां सोदता. 'बाबा, बाबू, मां' उलो करीत तें सगळ्या कुडींनीं भोंवता. मागीर व्हडल्यान रडटा.

'बाबू भुर्रा, मां भुर्रा, बायूल भुर्रा न्हीं? भुर्रा या.. मां या..' करीत जमनीर आडवें उदारें लोळटा. रडत रडत न्हिदता.

सकाळ उजवाड येवन येता. बायुलाक भूक लागल्या तरीय तें हांतरूणार पळयता, मां ना, बाबू ना. येतलीं येतलीं म्हणीत माईमावशी ताका वारांदाचेर व्हरता. चिमण्यो दाखयता. ''बायूल पळय चिमण्यो तुका उलो करतात. चिंव चिंव चिंव... चिंव चिंव चिंव... बायूल उठलें? बायूल उठलें?'' थंयच एका लातांत मावशेन तांदळांतले आशे एकठांय करून दवरल्यात. मावशी ते आशे शिंपडायता. चिमण्यो येवन आशे खावंक लागतात. मावशी हेवटेन ताचें तोंड धुता आनी दूद पिवपाक हाडटा.

दूद नाका. बायुलाक दूद आवडना. मावशी मागीर दुदांत पाव बुड्यता. पावाचो कुडको बायुलाच्या तोंडांत घालता.

नाचता कशी काय गे
फिरंग्याली बाय गे
दूद उंडो खाता गे
धांवून धांवून येता गे

मावशेन आल्लयेचेर ताल धरला. तेच लयेंत बायूल धांवत येता. चिमण्यांक पळयता, परतें येता. उंडो बायुलाच्या पोटांत पडटा.

# खुंयचेंच काम उणाक नासता

- दीपा मुरकुंडे



पावसाळो सोंपून एक म्हयनो जाल्लो. ते पंचायतींतलें खेळां मैदान झोपांनी भरिल्लें. घसरगुंडी, झोपाळो हांचेर झोपां आनी वाली गच्च भरिल्ल्यो. भुरग्यांक थंय पांय दवरपाक लेगीत मेळनाशिल्लें. देखून भुरगीं खेळूंक येनाशिल्लीं.

एक दीस सकाळीं थंय रस्त्या वयलो कोयर काडपी कामदार आयले. तांणीं थंयचो कोयर काडून सगळो जागो निवळ करपाक सुरू केलें. तांणीं झोपां आनी वाली काडल्यो. शिंपडिल्लीं पानां एकठांय केलीं. सगळे कडेन सान्न मारून कोयर एकठांय करून भरपाचो आशिल्लो.

ते कामदार दनपरां दोन वरांचेर आयले. तातूंत दोन दादले आनी दोन बायलो आशिल्ल्यो. तो सगळो कोयर पुंजावन एके कडेन व्हरून दाळटा म्हणसर पांच वरां जालीं. खेळां मैदान निवळ करूंक घेतलां म्हणचेली खबर सगळे कडेन पाविल्ली. भुरग्यांकूय ती कळिल्ली. देखून त्या वाड्या वयले पांच-स भुरगे एकठांय जावन खेळां मैदान कशें जालां तें पळोवंक आयिल्ले. आठवे यत्तेंत शिकपी वैभव आनी विनयूय थंय आयिल्ले.

त्या मैदानाचेर बसपा खातीर शिमिटाचे बांक आशिल्ले. एका बांकार भुरग्यांचे खेळ पळोवंक येवपी एक आजी बशिल्ली. वैभव आनी विनय तिचे सरी बसले. इतल्यांत विनयाक तांचो वर्गइश्ट राजू दिसलो.

''राजू, राजू'' म्हणत विनयान ताळयो मारल्यो. राजून ताका पळयलें आनी तो धांवत ताचे सरीं आयलो.

''राजू, खेळां मैदान निवळ करता म्हणून तुकांय कळ्ळें रे?'' वैभवान विचारलें.

''हय, म्हजी आई सकाळच्यान हांगाच कामाक आयल्या. तिणें म्हाकां सांगलें म्हणून आयज हांव हांगा कितलो कोयर काडून जालो तें पळोवंक आयलों.'' राजू.

''कितें? हांगा कामाक आयल्या? म्हणजे कितें?'' विनय.

''ही ती पळय, तांबडी साडी न्हेसल्या आनी सान्न मारता ती म्हजी आई.''

''तुजी आई रस्त्यांचेर आनी खेळां मैदानाचेर सान्न मारपाचें काम करता?''वैभव.

''हय. सकाळीं सात ते इकरा आनी दनपरां दोन ते सांजवेळां स मेरेन ती रस्त्या वयलो आनी मैदाना वयलो कोयर काडपाचें काम करता.'' राजून सांगलें.

''शी!'' विनयान आनी वैभवान म्हळें.

''आरे, म्हजी आई तर घरांतलो लेगीत कोयर काडना. आमगेर कामाक वावराडी आसा.'' वैभव.

''आमगेरूय बी.'' विनय.

''शी! असलें घाणयारें काम करून तुजी आई जोडटा रे?'' वैभव.

''हय. काम करून जातकीर ती सकाळीं आनी सांजवेळा घरा वचून न्हाता.'' राजू.

आजी तिगूय भुरगे उलयतात तें आयकत बशिल्ली.

''आनी बाबा कसलें काम करता?'' वैभव.

''बाबा शेतकामती. तो आमच्या मालकाच्या शेतांत वचून काम करता.'' राजून सांगलें.

''म्हळ्यार, जमीन खणप, भाजयो आनी कितें कितें रोवप आनी सगळो वेळ मातयेंत हात घालप मरे? बाबा असलें कांयच करना. आमी खावपा जेवपाचें सगळें विकतें हाडटात-दुकानांतल्यान.'' विनयान सांगलें. तशें वैभवान म्हळें, ''आमगेरूय तशेंच करतात.''

''म्हळ्यार तुजी आई सफाई कामदार आनी...'' वैभव.

''आनी बाबा शेतकामती.'' विनय. अशें म्हणून ते दोगूय हांसूंक लागले. राजूक वायट दिसलें आनी ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

''जालें तुमचें उलोवप?'' इतलो वेळ ओग्गी बशिल्ले आज्जेन विचारलें. तिगूय जाण तिचेकडेन पळोवंक लागले.

''आतां हांव कितें सांगतां तें आयकात. पावस सोंपून एक म्हयनो जालो तरी तुमी ह्या मैदानाचेर खेळूंक कित्याक आयलेनात सांगा?'' आजी.

''हांगा सगळो कोयर आशिल्लो म्हणून.'' विनयान आनी वैभवान म्हळें.

''तो कोयर जर ह्या काम करतल्या कामदारांनी काडलोच ना जाल्यार तुमकां ह्या मैदानाचेर खेळूंक मेळटलें?'' आज्जेचो प्रस्न.

''ना आज्जे.'' वैभव आनी विनय.

''आतां रस्त्यार कोयर कोण उडयता? आमीच मनशां न्हय?'' आतां सगळ्या रस्त्या वयलो कोयर जर सफाई कामदारांनी काडपाचो बंद केलो जाल्यार कितें जातलें सांगा?'' आजी.

''शी! आज्जे सगळ्याक घाणी मारतल्यो. नाकार लेंस धरून चलचें पडटलें. जळारांय खूब जातलीं.'' वैभव.

''आज्जे आमकां दुयेंसां जावपाक शकतात न्हय गे?''' विनय.

''रस्त्यार कोयर उडोवपाचें वायट काम आमी लोक करतात. तो सगळो कोयर काडून रस्ते, खेळां मैदानां बी निवळ दवरपाचें काम सफाई कामदार करतात. देखून राजूची आई रस्त्या वयलो कोयर काडपाचें काम करता म्हण्टकर तुमी जें 'शी!' म्हळें तें साप्प चुकिचें. खंयचेंच काम उणाक नासता. वयल्यान त्या सफाई कामदारांक लागून आमचें आरोग्य बरें उरता. भलायके खातीर जी निवळसाण गरजेची तें काम सफाई कामदार करतात.'' आज्जी.

''राजू, सॉरी.'' वैभवान आनी विनयान म्हळें.

''आतां राजूचो बाबा शेतकामती. तो शेतांत काम करता म्हणून तांदूळ आनी वेगवेगळीं धान्यां, भाजयो, फळां अशें जें आमकां खावंक जेवंक जाय तें मेळटा. शेतकरी कश्ट करून रोयता, पिकयता. देखून तें सगळें बाजारांत मेळटा. तें आमी विकतें घेवन खातात. ताचेर आमी जगतात. शेतां आनी शेतकामती आसात म्हणून आमी आसात. राजूचे आई-बाबा खूब गरजेचें काम करतात. असल्या मनशांक लागून हो संवसार बरे तरेन चलता हें जाणां जायात.असल्या मनशांची आनी तांच्या भुरग्यांचीं फकांडां करूं नाकात. तांकां उणाक समजूं नाकात.'' आज्जेन सांगलें.

''हय आज्जे, आमचें चुकलें.'' म्हणत दोगांयनीं आज्जेक नमस्कार केलो.

राजून आज्जेक नमस्कार केलो. वैभवान आनी विनयान राजूच्या खांद्याचेर हात दवरले. ते तिगूय खोशयेन हांसूंक लागले.

मानाचें पान



मंजुषा
सिनाय
तळावलीकार

# डॉ. विक्टर फ्रॅन्कल हांचें मॅन्स सर्च फॉर मिनिंग

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच,तेच वांगडा .शिक्षा,कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

*प्रचंड थंडेच्या दिसांनी जेन्ना तापमान जवळजवळ १ ते २ अंश आसतालें तेन्ना लेगीत तांकां फांतोडेर उठून कामार वचचें पडटालें. कांय दिसांनी तांकां रेल्वे रुळ घालपाच्या कामाक लायले जें खुबूच कुस्तार आशिल्लें. थंय तांकां जनावरां परस पाश्ट वागणूक दिताले. ते गार्ड सामके विकृत मानसिकतेचे आशिल्ले.*

जिणेचेर आनी जगपाचेर जायते लेखक तत्वगिन्यानी आनी कवींनी जायतें बरप केलां. पूण जीण किर्तें तें अजून मेरेन पुराय तरेन कोणूच समजलो ना. नामनेचे शायर भौ. गुलज़ार हांच्या उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार, जिंदगी क्या है जानने के लिये




ज़िंदा रहना बहुत जरुरी है आज तक कोई भी रहा तो नही.. पूण तरीय आसतना जो तो आपले तरेन जीण आनंदात, हांसत खेळत आनी सकारात्मक दृश्टिकोणांतल्यान जगपाक पळयता. मनीसजात जल्मा सावन मरणा मेरेन जे खीण आमचे जिणेंत आयल्यात ते अर्थपुर्ण कशे जगतले ह्याच सोदांत आसतात.

हालींच एक बरेंशें पुस्तक वाचनांत आयलें. डॉक्टर विक्टर फ्रॅन्क्ल हांचें Man's search for meaning . डॉक्टर फ्रॅन्कल हे एक न्युरोलोजिस्ट तशेंच मानसशास्त्रांतल्या अस्तित्वावादाचेर आधारीत आशिल्ले 'लोगोथेरपी' ह्या मनोचिकित्सा पध्दतीचे जनक. तांची जिणूच खूब प्रेरणादायी आसा. तांच्या जिवितांतले अणभव आमकां जायतें शिकोवन वतात. जेन्ना एक मनीस कठिणांतले कठीण परिस्थीतीचेर मात करून खंबीरपणान उबो रावता आनी मनीसजातीक एक तत्वगिन्यान दिता, तेन्ना तें आपणावपाक सोंपें पडटा. लार्जर देन लाईफ प्रतिमा आशिल्लो डॉ. विक्टर फ्रॅन्कल हो हिटलराच्या नाझी कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांत तीन वर्सां बंदी आशिल्लो. नाझी कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांत निरपराध मनशांचो जो अमानवी छळ जाल्लो तो जागतीक इतिहासांत सर्वश्रुतच आसा. डॉक्टरांची आवय बापूय, भाव आनी घरकान्न हांकांय नाझी कॅम्पांत बंदी करुन तांकां गॅस चॅम्बरांत धाडून छळ करून जिवे मारले. ते घटनेन फकत ताची एक भयण सोडून सगलो घराबो काबार केलो. आपले कडलें आशिल्लें-नाशिल्लें वगडावन बसून, पुराय कफल्लक जावन लेगीत तार्णे आपलो धीर सोडलो ना. जंय चार दीस लेगीत नाझी कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांत सारप म्हळ्यार फकाणां काम न्हय, थंय ताणें वट्ट ३ वर्सां यालयलीं, तीं कसल्या बळग्याचेर हाचेंच चिंतन करतना तांकां लोगोथेरपीचो शोध लागलो.

'लोगो' हे एक ग्रीक उतर जाचो अर्थ कारण वो हेतू. डॉ. विक्टर फ्रॅन्कलांच्या

सिध्दांता प्रमाण खंयचेय व्यक्तिची प्राथमिक प्रेरणादायी शक्त म्हळ्यार ताचे 'जिणेचो हेतू' वो 'जिणेचें कारण' सोदप. आनी मजा म्हळ्यार हो हेतू वो कारण व्यक्तिनिष्ठ आसता. एके व्यक्तिचे जिणेचें कारण दुसऱ्या परस सामकें वेगळें आसता. दर एकल्याचें जगपाचें कारण दर एकल्यान सोदपाचें आसता. जिणेचे प्रतिकूल परिस्थितींत जेन्ना मनशा कडेन वगडावपाक लेगीत कांयच नासता, तेन्ना जगपाक तो जें किते करता वो ताका जगपाक जें किते कारण सोदता ताचेर तो कितलो तिगतलो हें थारता. ही सगळी जीण जगपाची गुंतागूंत डॉ. विक्टर फ्रॅन्कल जर्मन तत्वज्ञानी फ्रिडरिक नीत्वी हांच्या उतरांनी मांडटा - जांकां जिणेचें 'कित्याक?' खबर आसता तो 'कसोय' जगता. आनी हें तार्णे सगळे स्वानूभवांतल्यान बरयिल्ल्यान वाचकांक पटोवन दिवपाक यशस्वी थारला.

*मॅन्स सर्च फॉर मिनिंग* हें पुस्तक दोन भागांनी आसा. पयले भागांत तार्णी आपणें स्वता तीन वर्सां अणभविल्ल्या नाझी कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांतल्या घटनांचें वर्णन केलां. थंयचे कादयेंत पांय दवरिल्ले खिणा सावन मुक्त जाय मेरेन जें अमानुश छळाचें जगणें ताका जगचें पडलां ताच्यो नोंदी तार्णे वाचकां मुखार दवरल्यात. आनी दुसऱ्या भागांत तार्णी ताचेर आधारीत लोगोथेरपीचो सिध्दांत प्रस्तुत केला जेवरवी तार्णी जायत्या मनोरुग्णांचेर उपचार करुन तांकां बरे केल्यात.

डॉ.विक्टर फ्रॅन्कल हे युरोपांतल्या ऑस्ट्रिया देशांची राजधानी विएना हांगा एका जिविश घराब्यांत २६ मार्च १९०५ ह्या दिसा जल्मल्ले . ते एक नामनेचे न्युरोलॉजिश्ट तशेंच मनोचिकित्सक. दुसऱ्या महायुध्दा वेळार हिटलराच्या नाझी जर्मनीन ज्या निरपराध जिव्सांचो छळ करुन तांकां अमानुश तरेन जिवें मारपाचें सत्र चलयिल्लें तांतूत हिटलरान लाखांनी लोकांचो बळी घेतलो. सप्टेंबर १९४२ वर्सा नाझी आर्मीन डॉ. विक्टर फ्रॅन्कल हाकाय बंदी केलो .तेन्ना तो ३७ वर्सांचो आसलो. ताच्या वांगडा ताची गुरवार घरकान्न, आवय-बापूय हांकांय बंदी केल्ले. ट्रेनींत कोंबून तांकां सगळ्यांक ऑस्विज हांगासल्ल्या कुप्रसिध्द कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांत व्हेलें. थंयसर जें कितें घडलें तें सगळें तांणी ह्या पुस्तकांत विस्तारान बरयलां. तांतुतले कांय प्रसंग वाचल्यार तर आंगार सामको कांटो येता. सोसणुके पलतडचेंय मनीस कशें सोंसूंक शकता हाचें खरेंच अजाप दिसले बगर रावना.

थंय जें कितें घडटालें ताचें वर्णन करतना लेखक सांगता- जवळ जवळ देड हजार लोकांक ट्रेनींतल्यान देंवयतकच तांकां एके शेडींत बसयले. ती शेड खरें म्हळ्यार चडांत चड २०० लोकां खातीर आशिल्ली. थंडेन कुडकुडत आनी भुकेन वळवळत ते सगळे एकमेकांक चिड्डीत थंय कशेबशे चेपले. हे सगळे लोक मध्यमवर्गीय आनी उच्च-मध्यामवर्गीय आशिल्ले जांणी असली परिस्थिती जल्मांत केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ली. तांकां खावपाक फक्त एक सुको पाव दिल्लो आनी तांचेर नदर दवरपाक वखवखिल्ले सिनियर कैदी जे तांच्या सामानाचेर तुटुन पडले. सगळ्यांक एके ओळींत उबे करून एक नाझी अधिकाऱ्यान तांकां दावे वो उजवे दिकेन हात दाखोवन दोन तुकड्यांनी विभागले. ताची आवयबापूय, घरकान्न हांकां दावे वटेन रावपाक सांगले. डॉ. फ्रॅन्काक उजवे वटेन दवरले. किते चललां ते कोणाकूच खबर नाशिल्ले आनी थंयसरले कोणूच कांय सांगपाक तयार नाशिल्ले. जे कोण उजवे वटेन उबे केल्ले तांकां वेठबिगारीक लायतले आनी जे दावे वटेन दवरिल्ले ते अशक्त आनी कामांक लावपाक उपेगी नाशिल्ल्यान तांकां जिवे मारपाक कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांतल्या गॅस चॅम्बरांत धाडपाक दवरिल्ले हें उपरांत तांकां समजलें. दावे वटेन उबे केल्ल्या आपल्या आवयबापूय आनी गुरवार घरकान्नीक पळोवपाची तांची ती निमणी खेप आशिल्ली. ते उपरांत तीं तांकां केन्नाच दिसलीं नात.

नवीन कैद्याक कामांक जुंपचे पयलीं तांकां नाझीच्या समजुती प्रमाण निर्जंतूक करपाक तांचे आंगावेलो एकान एक केंस तासताले आनी मागीर सगळे कपडे देवोवन एका बाथरुमांत कोंबून व्हडलो शावर चालू करून गोरवांक धुल्लेवरी धुताले. पांयांतले बूट आनी कमरेचो बेल्ट सोडून कसलीच वस्त आपले कडेन दवरूंक मेळनाशिल्ली. जायते जाण गमबुटांत लिपोवन कांय गरजेच्यो वस्तु व्हरपाचो यत्न करताले. पुण तांचो तो यत्न फसलो जाल्यार तांकां ताचीय ख्यास्त भोगची पडटाली. . डॉ. फ्रॅन्कलाक फकत आपलें संशोधन चलिल्लें एका वैज्ञानिक पुस्तकांचें हस्तलिखीत व्हरपाचें आशिल्लें म्हूण तार्णे एकल्याक मात्सो फुसलावपाचो यत्न केलो पूण ताकाय येस आयले ना आनी ते ताका थंयच उडोवचें पडलें. ताका आपले वक्ल व्हरपाक लेगीत ताचे बदला एक पाव दिवपाचें उतर करचें पडलें.

थंयच्या खिणा खिणाक मानसिक स्थिती कशी झोपळ्याचेर बशिल्ल्यावरी झुलताली तें लेखकान ज्युस्त उतरांनी बांदलां. मानसशास्त्रा प्रमाण, बंदी केल्ल्या मनशाची 'डेल्युजन ऑफ रिप्रीव' म्हूण एक मानसिक स्थिती जाता. आपल्याक जाल्ली ख्यास्त निमणे खिणाक रद्द जातली अशी ताका

एक अर्थहीण आस्त आसता. जेन्ना ताका ट्रेनींतल्यान पयलेच खेपे सक्यल देवयिल्ले तेन्नाय ताच्या मनाची अवस्था हीच जाल्ली. आनी जेन्ना ताचे केंस तासून ताका उगडे नागडे शावरा सक्यल उबो केलो तेन्ना ताचे कडेन वगडावपाक कांयच नाशिल्लें. फाटले जिणेच्यो कसल्योच खुणो उरूंक नाशिल्ल्यो. तेय परिस्थितीत ताणें एकमेकांची फकाणां उडोवन आनी उदकांत मजा करपाचो यत्न केलो. फुडल्या खिणाक किर्ते वाहून दवरलां हें भययुक्त कुतुहल आसतालें. अपघात घडटले व्यक्तिक खंय तो घटना भयापरसूय जी तीव्र भावना आसता ती म्हळ्यार कुतुहल. अपघातांत आपल्याक खंय मार बसतलो काय? हांव जितो उरतलों काय मरतलों? अशे जायते प्रस्न अपघात घडटना व्यक्तिचें मन कुतुहलान भरतात. तशीच मानसिक स्थिती थंयच्या सगल्यांची जाताली. ते भायर थंड उमळशीक, कांय अजापीत मनस्थिती अशी खिणाखिणाक मन भावनांचेर झुलतालें. मनशाची जगपाची प्रबळ इत्सा कसलेय प्रतिकूल परिस्थितींत कितली मेरेन ताणूक शकता हाचो अणभव तांकां आयलो. वैजकी पुस्तकांनी केल्ल्यो मनशाच्यो शारिरीक आनी मानसिक आरोग्या बद्दलच्यो नोंदी कितल्यो फट आसात अशें ताका थंयच्या जायत्या प्रसंगांतल्यान दिसून आयलें. देखीक तो सांगता घरा आसतना न्हिदपाक अमकेंच जाय, तमकेंच जाय अशे चोंचले आसताले आनी तरी लेगीत मात्शें अशें तशें आसल्यार सारकी न्हिद पडनाशिल्ली. आनी आतां थंय साडेस फूट लांब आनी आठ फूट लांबायेच्या लाकडी फळ्याचेर णव जाणांक दोन पांगरुणां भितर भागोवचें पडलें. तकले मुळाक उश्या बदला म्हेळे जाल्ले बूट! तेय बी येवपाक बंदी आशिल्ल्यान चोरून व्हरचे पडटाले. असलेय परिस्थितींत तांकां न्हीद पडटाली. कांय खीण दुखी पासून सुटकारो मेळोवपाची तीच एकूच वाट आशिल्ली. दर एका खिणाक असहाव्य दिसतालें, मन नैराश्यान गिरासतालें. मनांत आत्मघाताचे विचार येताले. ताच्या कॅम्पाचे भोंवतणी सरयांची वंय आशिल्ली जातुंतल्यान विजेचो प्रवाह सोडिल्लो. जायते जाण धांवत ते वंये कडेन वचून ताका हात लायताले आनी शॉक येवन जीण सोंपयताले. आपूण तशें करून केन्नाच जीव दिवंचोना अशें पयल्याच दिसा लेखकान स्वताकूच उतर दिलें.

दुसऱ्या एका प्रसंगांतल्यान मनाची जाल्ली अस्वभावीक प्रतिक्रिया ताणें वर्णिल्या. थंय एक रात घालयतकच दुसरे दिसा सकाळींच ताचो एक इश्ट जो थंय जायते पयलीं सावन कादर्येत आशिल्लो, तो आपल्या कॅम्पांतल्या गार्डांची नदर चुकोवन ताका मेळपाक आयलो. ताणें ताका एकूच सल्लो दिलो, कशेयभशेन दर दिसा खाड करात. कांचेच्या कुडक्यान लेगीत कर्चे पडूं पूण चेरो साफ दवरात. तशें केल्यारूच तुमी जुवान आनी काम करपाक तंदुरुस्त दिसतले. तुमी जर जाम जाल्ले आनी दुर्येत कशे दिसले तर तुमकां रोकडेच गॅस चॅम्बरांत धाडटले. आनी डॉ फ्रॅंकला कडेन बोट दाखोवन ताणें म्हळें, तुमचे सगळ्यां भितर सद्या तरी हो एकलोच आसा जाका थंय धाडपाक शकतात. तेन्ना बाकीच्यांक भिवपाची गरज ना. हें आयकून दोतोर फकत हांसलो. खरें म्हळ्यार तें आयकून ताणें हांसपा वाट्या भिवपाची गरज आसली. पूण लेखक म्हणटात अस्वाभावीक परिस्थितींत अस्वाभावीक प्रतिक्रिया हें स्वाभावीक वर्तन, जें मानसशास्त्रज्ञ लेगीत मान्य करतात. कादर्येतले कांय दीस ताणीं सगळयांनी अश्याच अस्वाभावीक मानसीक स्थितींत घालयले.

कांय दिसांनी तांची मानसीक स्थिती दुसरे टप्प्यार पावली जंय तांकां जिणेबद्दल औदासीन दिसूंक लागलें. एक तरेचें भावनीक मरण ते अणभवपाक लागले. हें सगळें परिवर्तन जावपाक थंय दिसपट्ट्यो घडपी गजाली कारणीभूत आशिल्ल्यो. तांकां थंय फांतोडेर ४ वरांचेर उठून कामाक तयार रावचें पडटालें. सुरवेच्या दिसांनी तांकां थंयसर दोन कॅम्पां मदीं चरांनी आशिल्लें गु-मूत निवळ करपाच्या कामाक लायले. तें करतना आंगार घाण उसळ्ळ्यार लेगीत ती साफ करपाक तांकां मनाय आशिल्ली. तांकां खावपा पिवपाक दिसभरा खातीर दोन पाव आनी पातळ सूप दिताले. तें तांच्या पोटा तळा लेगीत पावनाशिल्लें. ते सदांच भुकेन वळवळत आसताले. असल्यांनी कोणूय खंवसलो जाल्यार बाकीचे लोक ताचे कडल्या पावाचेर, सुपाचेर वो आंगावेल्या



कोटाचेर, बुटांचेर तुटून पडटाले. मेल्ल्या मनशाचें मडेंय थंय आशिल्ले कामगार फरफटत ओडीत व्हरून ताची मरतकर लेगीत दैना करताले. हें सगळें पळोवन पचोवपाचीय डॉक्टर फ्रॅंक्लाक आतां इतली सवंय जाल्ली की आत्तां ताचे वांगडा जितो आशिल्लो मनीस दुसरे खिणाक मेलो तर ताका ओडीत व्हरतना लेगीत तो आपलें सूप थंडपणान पिवपाक शकतालो. कांय कारण नासतना लेगीत मार खावप हें तर सदचेंच जाल्लें. आपली चूक नासतना लेगीत आपल्याक मार खावचो पडटा तेन्ना मनशाक (भुरग्यांक लेगीत) शारिरीक दुखी परस मानसीक यातना चड भोगतात. अशें सगळे अणभवतकच मनशाची न्युनगंडाची भावना बळावता. जे कोण हांगासल्ल्यान सहीसलामत भायर सुटले तांकां उपरांत लेगीत जिणेंत न्युनगंडान पछाडिल्लें.

प्रचंड थंडेच्या दिसांनी जेन्ना तापमान जवळजवळ १ ते २ अंश आसतालें तेन्ना लेगीत तांकां फांतोडेर उठून कामार वचचें पडटालें. कांय दिसांनी तांकां रेल्वे रुळ घालपाच्या कामाक लायले जें खुबूच कुस्तार आशिल्लें. थंय तांकां जनावरां परस पाश्ट वागणूक दिताले. ते गार्ड सामके विकृत मानसिकतेचे आशिल्ले. कांय जाण आसुरी प्रवृत्तीचे आशिल्ले जे तांकां गरजे भायर छळटाले. आकांताळे थंडेक लागून तांकां धोपरांची हालचाल करपाक कुस्तार जातालें. पांय सुजिल्ल्यान पांयांत बूट चडनासले. पूण ते तशेच चडोवचे पडटाले. नाजाल्यार झेलान हिमबाधा जाताली. एकेक पावल मुखार घालपाक लेगीत मरणयातना भोगताल्यो. सांजचें काम सोपून कॅम्पार परततकच चल एक दीस सोंपलो असो सुस्कार ते सगळे सोडटाले. अशे तरेन एकेक दीस मेजीत ते जीण सारताले.

तांच्या कॅम्पांत सगले दादलेच आशिल्ले. मिलिटरी कॅम्पांतूय जंय दादलेच आसतात थंय लैंगीक विकृती चड बळावता. कांय कांय वर्सां बायलेचें सूख मेळिल्लें नाशिल्ल्यान तांची वासना चडावता आनी ते एकमेकांचेरूच लैंगीक अत्याचार करूंक लागतात. पूण तांच्या कॅम्पांत असले प्रकार मात केन्नाच घडलेनात. तांची पोटाचीच भूक सारकी भागनाशिल्ली. मनशा खातीर पोटाची भूक ही लैंगीक वासने परस प्रबळ प्रेरणा वो उर्मी जी जिणेचे प्रेरणेंत सगल्यांत पयले सुवातेर आसता.

अशे कामाच्या वज्यान चेपून गेल्ले भुकेन वळवळत दीस काडपी कैदी रातीं सपनां पळयताले तीं फकत पाव, केक, सिगारेट आनी गरम गरम उदकान न्हावपाचीं. भिरांकूळ सपनां पळोवन जायते जाण किळांच मारुन उठटाले.पूण थंयचे परिस्थिती परस भिरांकूळ सपन लेगीत कमी यातनामय आशिल्लें. थंय सगळे जाण कुपोशीत आशिल्ल्यान काम करतना मदीं उलोवपाक संद मेळ्ळ्यार ते खाण जेवणा बद्दलच उलोवपाक लागताले. तातुंतल्यान तांकां खिणयाळें सूख मेळटालें. सकाळीं ९.३०क



सुमार तांकां सूप पिवपाक आनी सुको पाव खावपाक अर्द वर विश्रांती दिताले. तो सायरन जावपाची सगळे उमळशिकेन वाट पळयताले. केन्ना केन्ना तर भंयभीड सोडून गार्डाकूच विचारताले. सकाळीं मेळपी खाणाचें रेशन कशे तरेन खावंचें हाचेर जायते वेळार तांची भासाभास जाताली. कांय जाण चिंतताले ते किते दितात तें सगळें रोकडेंच खावन उडोवप. म्हणटकच एक वेळची भूक तरी भागतली आनी दवरिल्लें कडेन कोणूय तें चोरुन बी व्हरत म्हूण धाकधुकय उरची ना. तर कांय जाण तें दिसभरा खातीर थोडें थोडें वांटून घालताले आनी इल्ली इल्ली करुन जिवाक थोडी थाकाय मेळयताले. अशे कुपोशीत परिस्थितींत रावन तांचे आंगावेलें सगलें मांस सुकून फकत हाडांचो सापळो तितलोच उरलो. मागीर एकएकले मरपाक लागले. कोणूय एकलो मेलो जाल्यार ताचे फाटलो नंबर कोणाचो आसतलो हाचो ते अदमास लावपाक लागले आनी चड करुन तो अदमास सारको आसतालो.

थोडे दिसांनी जिते उरिल्ल्या कैद्याक गाडयेंत घालुन दुसऱ्या कॅम्पांत व्हेले. दुसऱ्या कॅम्पांतूय स्थिती कांय वेगळी नाशिल्ली. फकत थंय ऑस्विजा सारखो गॅस चॅम्बर नाशिल्लो. आनी ताचे जे वांगडी आशिल्ले ते आनीकूय बेरड जाल्ले. आतां डॉ. फ्रॅंक्लान सगळें नशिबाचेर सोडून दिल्लें. स्थितप्रज्ञ रावन तो जें किते घडटा तें पळयतालो आनी रद्दी कागदाचेर जमता तश्यो नोंदी करुन दवरतालो. ताणें हें सगळें आपल्या शोधनिबंधांतल्यान संवसारा मेरेन पावोवपाचो ध्यास येतिल्लो. म्हळ्यार मनांत ताका आपूण कादयेंतल्यान सहीसलामत सुटतलों म्हणपाची खोल आस आसली. कदाचीत तीच ताची जगपाची उर्मी आशिल्ली. आतां

मेरेन तो एक दोतोर म्हूण थंयच्या गार्डाक बी समजल्ले. थंय जायते कैदी टायफॉयड बी जावन दुर्येत पडटाले. तांका वखद करपाक डॉ. फ्रँक्ल मदत करपाक लागलो. अशे तरेन ताका आपूण स्वता त्रास भोगतनाय दुसऱ्याक मदत करपाची खोस मेळपाक लागली. एक दीस तार्णे ताच्या एका वांगड्याचे मजतीन थंय सावन पळून वचपाचोय यत्न केलो. पूण निमण्या खिणाक आपल्या दुर्येत वांगड्याक अशे सोडून वचप ताका पुटवले ना आनी तो परत आयलो.

अशें करतां करतां तीन वर्सां पासार जालीं आनी जर्मनी दुसरें महायुध्द हारली. कॅम्पांत रावतल्या कांय जाणांक घरा सोडटात म्हूण सांगून जर्मन गार्डांनीं ट्रकांनी कोंबले. चड दुर्येत आशिल्ले तांकां थंयच सोडले तेन्ना डॉ. फ्रँक्लान त्या दुयेतीची सेवा करपाक थंयच रावपाचें थारायलें. कॅम्पांतल्यान सुटपाची चलून आयिल्ली इतली बरी संद सोडटा म्हूण ताच्या जायत्या वांगड्यांनी ताची काकूट केली. पूण दुसरे दीस अघटीतच घडलें. रेड क्रॉसाच्या स्वयंसेवकांनी तो कॅम्प ताब्यांत घेवन कॅम्पांतल्या मनशांक वखद आनी जेवणाची रसद पुरयली आनी तांकां घरा पावोवपाचे तयारेकूय ते लागले. पयल्या दिसा ज्या वांगड्यांक ट्रकांत घालून व्हेल्ले तांकां त्या गार्डांनी वाटेर एका तंबूंत बंद करून उजो पेटोवन दिलो. तातुंतलो एकलो लेगीत वांचलो ना. लेखक म्हणटा दर फावट तार्णे कसलोय निर्णय घेवचे खातीर अंतर्मनाचें आयकलें आनी सगळो भार देवाचेर दवरलो आनी ताका सदांच योग्य वाट मेळ्ळी.

एक गजाल लेखकान अणभवली ती म्हळ्यार कॅम्पांतली जीण खूब त्रासदेणी आसतनाय कांय जाण असलेय परिस्थितींत उदात्त हेतून दुसऱ्याक मजत करताले, जाल्यार कांय जाण फक्त आपलोच सुवार्थ पळयताले. आनी तो मुद्दाम नमूद करूंक सोदता की कसलेय मुश्किल परिस्थितींत 'कशें वागपाचें' वो 'कशी प्रतिक्रिया दिवपाची' हें थारावपाचो पर्याय मनीस वेंचूंक शकता. मनीस कसलेय परिस्थितीचेर मात करून, शारिरीक आनी मानसीक ताणा खाला आपल्याक मेळिल्लें अध्यात्मीक स्वातंत्र्य, बरे-वायट, नीती-अनीती हांचो समज, नैतीक मुल्ल्यांची जतनाय करून आपल्याक जाय तशें वागपाचो निर्णय घेवपाक शकता. तो म्हण्टा जर आमकां आनंदांत वो सर्जनशीलतेंत जगपाक अर्थ दिसता तर सोसणुकेच्या जगण्याक लेगीत अर्थ आसता. सोसणुके आनी मरणां शिवाय जीण पुर्ण जावंक शकना.

मनीस जो मेरेन जिर्णेत पर्जळीत फुडार पळयता तो मेरेन ताका जगपाची उमेद आसता. तार्णे अणभविल्ले प्रमाण जे कैदी मानसीक वो अध्यात्मीक पातळेर धीर सोडटाले तेच रोकडे खचताले. तांची जीण तांकां अर्थशुन्य दिसताली आनी ते शारिरीक पातळेचेरूय अशक्त जावन दुर्येत पडून जीव सोडटाले. जे दुर्येत पडटाले तांकां जगपाक कितलोय धीर दिवपाक पळयल्यार लेगीत तांचो एकूच प्रश्न आसतालो. जिणे कडेन अपेक्षा दवरपा सारके म्हजे जिर्णेत कांयच ना. खरें म्हळ्यार मनशाक गरज आसता होच दृश्टिकोण बदलपाची. आमी जिणेकडेन किते अपेक्षा दवरतात ते परस म्हत्वाचें म्हळ्यार जीण आमचे कडेन किते अपेक्षा दवरता. आनी जिणेची ती अपेक्षापुर्ती करपाक आमी योग्य ते कार्य आनी आचरण करपाची गरज आसता.

त्या अणभवांतल्यान स्वता पासार जातना डॉ. फ्रॅन्कलान व्यक्तिचे मानसिकतेचे जायते निश्कर्श काडले जी संवसारांत लोगोथेरपी वो थर्ड विएनीज स्कुल ऑफ सायकोथरपी म्हूण नामनेक पावले.

लोगोथेरपी सिध्दांता प्रमाण जगण्याचो अर्थ सोदप वो अर्थपुर्ण जीण जगपाक कारण सोदप हें व्यक्तिचे जिणेची प्राथमिक प्रेरणा आसता. दर एकल्याचें कारण हें अद्वितीय आनी विशिश्ट आसता जें तो स्वताच जाणां आसता. ताची जर पुर्तता जाली ना जाल्यार व्यक्तिक निराशा येवंक शकता वो आपले अस्तित्वांत पोकळी निर्माण जाल्ल्याची भावना बळावंक शकता. लोगोथेरपी व्यक्तिक स्वताच्या दर एका कर्तुपाची जापसालदारकी घेवंक सांगता. आनी मनोरुग्णाची नदरेची कक्षा रुंदावन ताका ताचेच जिणेचे संभाव्य अर्थ वो कारणां दाखोवन दिवपाचें काम लोगोथेरपिस्ट करता. जिर्णेत निरशेल्ली व्यक्ती जेन्ना डॉ. फ्रॅन्कल हाचे लागी उपचाराक येताली तेन्ना तो एकूच प्रश्न विचारतालो - इतले सगळे त्रास आसल्यार तूं जीव कित्याक दिना? ह्या प्रश्नाची जी जाप ताका मेळटाली तोच ते व्यक्तिच्या जिणेचो खरो अर्थ आसतालो. ते एकेच गजाली खातीर ती व्यक्ती निराशेंत लेगीत तग धरुन जिती आसताली. जायत्या मनोरुग्णांक जिणेंत उजवाड दाखोवन डॉ. फ्रॅन्कल हो स्वता ९२ वर्सांची अर्थपुर्ण जीण जगुन १९९७ वर्सा ह्या संवसाराक अंतरलो. ताची जीण सर्वसामान्यांक खरेंच खूब सकारात्मक प्रेरणा आनी बळगें दिता आनी जिणेचो अर्थ सोदपाक आदार करता.



पिपिरमीट



पुजा लक्ष्मिकांत भांडारे

महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मितीकडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला तातें हें मोस्त.

# हांव उलयतां घड्याळ...





*हजारांनी, लाखांनी, अब्जांनी. जांकां मारप आतां शक्य ना. वचत थंय फकत फातराची काळजां जाल्यांत. म्हजे भितर सुद्धां आतां काळखाचे अशे पेट्टे तयार जातात, जांचे भेरेन सोंपेपणी उजवाड पावना. एके वटेन राग येता म्हाकां तुमच्या वांगडा, तुमचें खातीर वावुरचे पडटा म्हूण.*

टीक....टीक....टीक....टीक...आरे मनशा, उठ, उठ बेगीन, सकाळ जाली. आतां तुकां उठून कामांक वचूंक जाय. उठ बेगीन, शी! हो उठना दिसता! हरशी म्हूण तो न्हिदिल्ल्या सारकोच. मनीस केन्नां न्हिदलो, तो परत उठुंकूच ना. हांव किर्ते, फकत म्हजें काम करतां. कांय फायदो ना. ना जाल्यार ह्या मनशां कहल्यान आतां कांय आशा ना म्हाकां. आरे, हांव आनी एक! तुमकां विचारपाकूच विसरलों. आरे, तुमी म्हांकां वळखलें रे?, आं? किर्ते म्हणटा? वळखले? कोण हांव? घड्याळ? हय रे बाबा हय. वळखले मरे तुमी तर म्हाकां! म्हाकां विसरून हरशी म्हूण तुमी खंय रे वतले? आरे, हांव आसां म्हणुनूच तर तुमी आसात. हांव जर ना, जाल्यार तुमची जीण सगली विस्कळीत जातली. जेन्ना पासून तुमी म्हाकां घड्यलां, म्हजो सोद लायला, तेन्ना सावन हांव थकऽ नासतना सामकें २४ वरां खातीर तुमचें काम करतां. तुमकां तुमच्या जिवितांत केन्ना, कसलें काम, कशें करपाक जाय ताची चत्राय हांवूंच तर तुमकां दिता. तुमचे खातीर काम करून पुरो जायना रे म्हाकां, वयल्यान खोस भोगता. तुमी सुद्धा आतां म्हजे भाशेन जावंक लागल्यात न्ही रे? ते किर्ते म्हणटात, हांवें पुराय तरेन म्हज्या रंगांनी अशे तुमकां रंगयल्यात की तुमचे पासत आतां फकत काम, काम, आनी काम. दोळ्यां मुखार तुमकां आतां कांय एक दिसना. आनी हांव जर ना, जाल्यार तुमी कांय करूंकूच शकनात. म्हाकां सांगात, एक दीस तरी असो आसा जो तुमी म्हज्या वापरा शिवाय यालोवंक शकतात? ना न्ही? कारण, आरे तुमचें जिवीत आतां म्हजे सुवादीन जालां. आतां ते तुमचें न्हय. आतां तें म्हजें खेळणें, हांव जाय तसो म्हज्या खेळण्यां बरोबर खेळटां. आनी मागीर वाज आयलो, की पोरणें खेळणें उडोवन नवें खेळपाक घेतां. आरे आरे आरे, रागान नाक कित्याक फुलयलें रे तुमी? हांव किर्ते गैर उलयलां व्हय? तुमकां सांगूं, आतां पळोवंक वचत जाल्यार म्हजें काम तुमकां वेळ दाखोवपाचें. तुमकां वेळ कळपा खातीर तुमी मनशांनीच म्हाकां घडयलें. पुणून पळोवंक वचत जाल्यार हो वेळ तर सदांच आपली वाट चलत आयला. हांव आसलें आनी जरी नासलें तरूय हो वेळ केन्नाच थकचो ना. ताचो प्रवास चालूच उरतलो. दर एका खिणांक, एका वेगळ्या अशा तरेकवार वळणांचेर. वेळ ही एकूच अशी गजाल, जी सगल्या काळांनी, युगांनी आपलो भोंवतडो करीत रावता. कारण जेन्ना मनशान म्हजो सोद लावंक नासलो तेन्ना सुद्धा वेळ हो

आसलोच. तेन्ना तुमकां खबर आसा, लोकांक वेळ कसो कळटालो? सूर्या खंयचे दिकेक आसा हे पळोवन. भायल्या वतात पडिल्ली आपली सावळी पळोवन,ते सावळेचो आकार नियाळटाले आनी लोक अंदाज लायताले की कितलो वेळ जाला. आनी उपरांत मागीर कांय हुशार मनशांनी म्हजो सोद लायलो. तेन्ना सावन सगळेंच सगळ्यांक सोंपें जालें. तुमकां सांगूं, खूब कितें पळयलां हांवें. पयली काळांतलें रामायण, म्हाभारत, पुर्तुगीजांचो जाच, सगळें कितें म्हज्या दोळयांतल्यान हांवें पळयलां. सत्ययुगांत अन्यायाचो अंत करपी पुरुशोत्तम राम,म्हाभारतांत शस्त्र हातांत येनासतना पांडवांक युध्द जिकोवन दिवपी कृष्ण, उपरांत वेगवेगळे राजा, जांणी आमच्या देशाचेर राज्य केलें, पुर्तुगेजांचे राजवटींत लोकांनी मारिल्ल्यो न्याया खातीर हुयेली, एका मनशान व्हांवयल्लें दुसऱ्या मनशाचें रगत, सगळें पळयलां. इतलेंच न्हय, तर पृथ्वी मातेक तुमी दिल्ल्यो जखमो हांवें पळयल्यात. पूण म्हाकां कितेंय जरी मनांक दिसलें, तरी हांव कितें म्हूण करतलें रे? म्हाकां कोणाकूच रावपाक मेळना. सगळ्यांक फाटीं सोडून धांवचेंच पडटा. फुडें फुडें धांवतां हांव. कोणांक रावना. कारण हांव जर रावलें, जाल्यार हे जगूच सोपतलें, खिणांत ही पुराय धर्तरी रिती जातली. कांयच म्हणजे कांयच हांगा शिल्लक उरचें नां. वचत तेन्ना वेळूच तुमच्या खातीर दोशी. न्हय रे? कितेंय वायट घडलें, वा तो स्वता मनीस वायट आसलो, जाल्यार त्या मनशाची चूक म्हणऽ नासतना तुमी म्हणटात त्या मनशाचो वेळ सारको ना. तुमीच अशे वागतात आनी वेल्यान वेळाची चूक करतात. म्हजेर तुमचो राग इतलो कित्याक ते म्हाकां सारकें खबर आसा. कारण तुमी मागल्यार सुद्दा एकदां गेल्या उपरांत हांव केन्नाच परतून येना. हे खातीर तुमकां हांव नसाय. कित्याक येवं तुमचे खातीर हांव परत? अशे तुमी कोणाचें बरें केलां जाका लागून हांव तुमकां परत एक संद दिवं? आयजवेर फकत म्हजो वापर करुन पापाच तर केल्यांत तुमी. म्हाकां सामकें आयज वायट दिसता. कित्याक तें सांगूं, जशी जशी हांव वाट म्हजी चलत गेलें, तसो तसो राकेसांचो अंत जायत गेलो. पूण आयज हांवें चिंतूंक नासले की तेच राकेस परत आतां दुप्पटींत तयार जातले. म्हाकां याद जाता, एक देवादिकांतली गजाल. त्या काळांत एक राकेस आशिल्लो रक्तबीज, जो फकत रगता पासून तयार जाल्लो. ताच्या वाडट्या अत्याचारांक लागून ताका मारपाकूच जाय आसलो. पूण ताका मारप सोंपें नाशिल्लें. कारण ताचेर घाय करतकच जर ताच्या रगताचो थेंब जमनीर पडत जाल्यार त्या थेंब्या पासून आनींक एक राकेस तयार जातालो. पूण अखेरीक माता काली कडेन युद्ध करतना, जेन्ना खूब रक्तबीज तयार जाले तेन्ना देवीन ताच्या रक्ताचो थेंब धर्तरेर पडूंक दिनासतना सगळ्यांक मारून उडयले. आयज तेच रक्तबीज तयार जाल्यात. हजारांनी, लाखांनी, अब्जांनी. जांकां मारप आतां शक्य ना. वचत थंय फकत फातराची काळजां जाल्यांत. म्हजे भितर सुद्दां आतां काळखाचे अशे पट्टे तयार जातात, जांचे मेरेन सोंपेपणी उजवाड पावना. एके वटेन राग येता म्हाकां तुमच्या वांगडा, तुमचें खातीर वावुरचें पडटा म्हूण. मनांत एक एकदां येता की थांबोवचें स्वताक आनी सोंपोवन उडोवंची ही पुराय धर्तरी. पूण ना, हांव तेवूय करूंक शकना. हे धर्तरेर मनीस येतलो केन्ना आनी वतलो केन्ना हें देव थारायता. देव सगळ्यांक सारकें जिवीत वाटून दिता. पूण धर्तरेर वचून मनीस आपल्या कर्मांनीच आपलें जिवीत सोंपयता. जिवीत हें एक पुस्तक आसता. त्या पुस्तकाची रितीं पानां म्हजे गतीच्या वाऱ्यान उडपाक, परतुपाक सुरुवात जातात. आनी हातूंत मनशाचें काम एकूच आसता, की ताणें वाऱ्यान एक पान उडचें पयलीं त्या पानार सुखाचे खीण बरोवप. आनी तुमी कितें करतात? त्या पानाचेर कितें बरोवचें हो विचार करतना म्हजो इबाड करतात. देखून तुमी तुमच्या पानार बरोवचें पयलींच तें पान उडटा. आनी तें मागीर रितेंच उरता. तुमचे कडेन चड वेळ विचार करपाक निखालूस नासता. आनी एकदां जर हांव वाऱ्या भाशेन येवन तें पान परतिलें जाल्यार तें पान तुमकां केन्नाच परत मेळना. देखून म्हजो तुमी सदांच बरो उपेग करूंक जाय. म्हजें म्हत्व तुमकां एकवेळ जरी खबर नासलें तरी तें न दिसपी धुंवरा भाशेन पयली सुद्दां उंच पावंड्यांचेर आसलें आनी आतांय आसा. तशेंच फुडेंय आसतलें. म्हाकां पुराय कामांत घालोवंचे परस दिसांतल्यान एकदां म्हजी कांय मिनटांच जायना तीं, पूण तीं आपल्या आवय बापायक दिवन पळयात, दिसूय भर दुसऱ्यांचे पाठ मागच्या परस एकदां तरी स्वताची आनी दुसऱ्याची कशी उदरगत जातली हें चिंतून पळयात. भिकाऱ्याच्या ताटाचेर गर्वान खोंट मारचे परस एकदां तरी ताच्या त्याच ताटांत भाताचे दाणे दवरून पळयात. मोबायलाक इश्ट करचे परस मनशाक इश्ट करून पळयात. तेन्नाच हांव तुमचे सुवादीन परत जातलों. ना जाल्यार मागीर म्हजे होंटयेंत खेळणें जावन खेळचे परस दुसरो पर्याय तुमचे कडेन आनीक दुसरो ना हे सदांच मतींत दवरात. येतां हांव, आतां मनशां बरोबर वचपाक जाय. ताचेर नदर दवरपाक. ताचे बरोबर खेळपाक. हांवें सांगलां ताचेर विचार नक्की करात. विचारात स्वताक की खरेंच हांव एक मनीस काय? हो एक प्रश्न स्वताक विचारतकच तुमकां तुमच्या प्रत्येक प्रश्नाची जाप मेळटली.



अरनोडा बारदेझ गोंय
मो. : ७७६८८३५३१०




# वखद एक उपेग अनेक

**गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले राज वैद्य हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगविंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.**

(मारी आण्टी ताकतिकेन फार्माशींत येता आनी फार्मासीस्ट विनयाकडेन वता.)

मारी : आरे बाबा, हें पोय रे मार्त्शे.. हीं वखदां कित्याक दिल्यां रे आमचे सुनेक? कोण म्हुणटा डायबेटीज जाल्या म्हूण तिका. किर्ते रे बाबा, पोर मुरे तें. २० आनी ४ वर्सां रे तेका. डायबेटीज कोशी जातेली? सांग रे बाबा? ओगी कित्याक रे तूं?

विनय : पळयतां सारकें. रेशेतार किर्ते किर्ते बरयलां तें.

मारी : सांग बाबा, तूं सारकेंच सांगतलो. जाणां हांव.

विनय : कोणें सांगलें तुकां डायबेटीज जाल्या म्हूण?

मारी : शेजाज्न आमगेली. ती येता त्याच नांवाची टेबलेट. किर्ते ती.... मॅफोमी.... तिका दोतोरान डायबेटीजाक दिल्या. कितलींशींच वर्सां येता ती.

विनय : मॅफोमी बी न्हय गे मॅटफॉर्मिन म्हणटात तिका..

मारी : वोय वोय, तेंच रे बाबा तें. डायबेटीजाक येता न्ही रे तें बाबा?

विनय : आण्टी मारी, अशें दुसरो कोण सांगता म्हूण रोखडेच तर्क काडूं नाका. तुवें सुनेक विचारलां तरी? ताका हें दोतोरान कित्याक दिलां तें?

मारी : ना रे, शेजाज्न आयली न्ही रे आमगेर खोबरेक. तेन्ना तिणें त्यो गुळयो पोयल्यो आमच्यो. सुनेच्या मेजार आहल्यो त्यो. आनी म्हुणोंक लागली, डायबेटीज कोणा जाल्या गे तुमगेर? देखून हांव धांवत येयलें तुका इचारपाक.

विनय : बरें, आतां म्हाका सांग, तुजी सून दोतोराकडेन कित्याक गेल्ली? जाणां तर तूं?

मारी : वोय रे. दोन वोर्सां जालीं न्होय रे आतां काजार जावन. भुरगें जावपा खातीर खूब त्रय कोल्ता रे ती. जायना म्हुणोन पूत म्हागेलो घेवन गेल्लो तिका दोतोरागेर. फेर्नांद दोतोर रे. माजी डिलिवरी लेगीत तेणेंच केल्लेली. बोरो दोतोर हां. भांगोर!

विनय : हय गे. तार्चेंच रशेद न्ही हें? हें पळय, दोतोरान सगळ्यो चाचण्यो केल्यात. ताका कित्याक लागून भुरगें जायना तार्चें निदान केलां. हाचेर बरयलां वयर. पी.सी.ओ.एस. पॉलिसीस्टी ओव्हेरियन सिंड्रोम आनी हाच्या ट्रिटमेंटाचो भाग म्हणून ताका दोतोरान मॅटफॉर्मीन गुळयो दिल्या.

मारी : डायबेटीज ना तोर तेका?

विनय : ताची शुगर लॅव्हल बरी आसा.

मारी : मागीर ताका ती मॅफोमीन काय किर्ते ती कित्याक दिल्या?

विनय : त्या गुळयांचो उपेग अनेक कारणां खातीर जाता. डायबेटीज हो एक जालो. पि.सी.ओ.एस्. हो दुसरो उपेग जालो. वजन कमी हो तिसरो उपेग. अशीं कितलींशींच वखदां आसात जांकां एका परस चड उपेग आसतात.

मारी : ओर्शे?

विनय : तुकांच पळय, तूं सिर्वीस करता न्हय आण्टी?

मारी : वोय रे.

विनय : घरा रांदता न्ही? घोवाची कुयदाद येता न्ही? तुमच्या भुरग्यांक जल्म दिलो. ल्हानाचीं व्हड केलीं. शेजाराक कितल्याशाच जाणांक तुमी मदत करता. तांचें बरें मागता. घराकडेन सगळ्यां खातीर रांदता. घर सांबाळटा.

मारी : हेंऽ तूं आनीक किर्ते रे.

विनय : किर्ते रे? तूं एक आनी इतलें सगळें करता तूं. तशेंच आमगेलें मॅटफॉर्मीन. तेंवूय बाबडें वेगवेगळीं कामां करता. ताचेय वेगवेगळे उपेग आसात.

मारी : बोरी ॲक्झाम्पलां दिताय मरे तूं. ज्युस्ता जूस्त सारकीं.

विनय : तुमकां सोमजोवपा खातीर मनाक सुचलें तसो यत्न केलो. आतां एक सांग, क्रॉसीन म्हणटा ती गुळी कित्याक घेतात?

मारी : क्रॉसीनू? जोराची न्होय रे ती? पूण म्हाजो घोव तोकली दुखल्यारूय घेता. आनी केन्ना फोडाफोड जाल्यारूय घेता.

विनय : बरें जालें. तुवेंनूच सांगलें तें. क्रॉसिनाक जशे अनेक उपेग आसा तशे मॅटफॉर्मिनाकूय अनेक उपाय आसात आनी तुजे सुनेक ते पि.सी.ओ.एस्. जालां म्हणून दिलां. तुजे सुनेक खबर आसा तूं तिजें रशेद घेवन आयल्या हांगा म्हणून?

मारी : होय तोर. तेंवूय भियेलें न्हू रे? डायबेटीज म्हणटोकूच. तेका हायें म्हुणलें, राव मात्शी आनी येयलीं तुजेकोडें.

विनय : जावं विचारून बरें केलें. खूब फावटीं कोफुसांव जाता दुयेंतीच्या आनी परच्यांच्या मनांत.

मारी : पुता, हो ट्रिटमेंट घेतोकूच सुनेक भुरगें जातोलें मुरे?

विनय : तुजो दोतोराचेर इतलो विश्वास आसा न्ही आनी देवाचेरूय तर जातली तूं बेगीनूच ग्रॅनी.

मारी : गोड ब्लॅस यू पुता. येतां हां. देव बरें करूं!

इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय
ई-मेल : ipacpd@gmail.com, 9422062286

(पान क्र. २६ वयल्यान....)

२०१३त सुमेधा कामतीचें *आलतड पलतड* आयलें. पुस्तक सामकें खुसखुशीत जालां. सुमेधाची शैली वाचप्यांक भितरले भितर हांसयता. पुतणयेच्या लग्ना खातीर गेल्लें. थंयचे भटा खातीर पांजरो करप, देवकारें चुडीदाराचेर काडप, मुंबय वतना घोवान मंगळसूत्र गळ्यांत घालप असले कांय प्रसंग वाचतना वाचक आनंद लुटटा.

ह्या पुस्तकां खेरीज आनीक एक आगळें वेगळें अशें एक पुस्तक कोंकणीत आयलां. तारवट्याच्या दर्यासफरीचेर आदारिल्लें तें पुस्तक. मर्चंट नॅव्हीर कामांक गेल्ल्या प्रसाद पागी ह्या युवा तरनाट्यान तें बरयलां. एके ग्रीस कंपनीचे बोटीर मॅसबॉय म्हणून वर्सभर काम करतना आयिल्ले अणभव तांच्या '*फ्लोटींग लायफ*' ह्या पुस्तकांत आयल्या.

गोंयचे असंख्य लोक बोटीर काम करताले आनी करतात. पूण कोणेंच आपले अणभव बरोवन दवरूंक ना. पयलेच फावटी तारवट्याचे अणभव पुस्तक रुपांत आयल्यात. ते खातीर प्रवास वर्णनाच्या ह्या पुस्तकांक खास म्हत्व आसा. कराची, जकार्ता, मलाक्का, दर्बन अश्या एका परस एक व्हड पोर्टाचेर लेखक पावता. थंयची सांस्कृतीक आनी सामाजीक जीण अणभवता आनी उदकांतल्या संवसाराचे अणभव कलात्मक रितीन वाचप्यांच्या मुखार दवरता. तारवट्याचे जिणेंतलो पयलेच खेपो इक्वेटर क्रॉस करतनाचो प्रसंग, दर्बनांतल्या नायट क्लबांतलो प्रसंग, पाकिस्तानांतल्या पोर्टांतलो मायेस्त वॉचमन हांचीं वर्णना याद उरतात. गरीबीक लागून लीप चोरयां आपलो देस सोडून दुसऱ्या देसांत म्हाल येरादारीचे बोटींत बसून वचपाचोय लोक यत्न करतात. तांची मनस्थिती प्रसाद पागीन बरी पितारल्या. आनीक एक सुंदर अशें अणकारीत प्रवासवर्णन कोंकणींत आसा. रवीन्द्रबाब जपानाक वचून येतकीच काकासाहेब कालेलकारा खातीर म्हणून 'जपान जसा दिसला' हें पुस्तक मराठींत बरयल्लें. ताचो माया खरंगटे हांणीं 'जपान पळोवन आयलों' ह्या नांवान अणकार केला. हें देखणें पुस्तक २००८त आयलें. खासा रवीन्द्रबाबाचे शैलींत केल्लो अणकार वाचप्यांक खूब खोस दिता. रवीन्द्रबाब दोन म्हयने जपानाक राविल्ले. जपान पळोवन तांकां जी खोस जाली, जें अजाप जालें ते तांणीं वाचप्यां मुखार दवरलां.

प्रवास लेखनाच्या पुस्तकांची संख्या जरी बोटार मेजपा सारकी आसली तरीय पुस्तक रुपांत येवनाशिल्ले कितलेशेच लेख आसात. खासा दिलीप बोरकार आनी दत्ता दामोदर नायक हांणी बरयिल्लीं कितलींशीच भोंवडे वर्णनां आसात. म्हजेय दोन पुस्तकां येय सारके लेख आसात.

माया खरंगटे हांणींय खूब प्रवासवर्णनां बरयल्यांत. तांचें *शिल्प काव्य* हें पुस्तक २०१७त उजवाडायलां. हें पुस्तक कर्नाटकांतल्या पाशाणी देवळांचेर आधारीत आसा. ते भायर तांची दक्षिण भारताच्या, उत्तर भारताच्या प्रवास वर्णनांची आनीक दोन पुस्तकां येवपाचीं आसात. मीना काकोडकार हांचें अमेरिकेचें सुरबूस वर्णन रोखडेंच पुस्तक रुपांत येवपाचें आसा.

हाचे भायर जायत्या ललित लेख संग्रहांत प्रवासवर्णनां प्रकाशीत जाल्लीं आसात. चंद्रकांत केणी हांचेय जायते लेख आसात. तातूंतलो *नैनीताल-जंय एक याद गोठेली*, म्हळ्यार प्रवासवर्णन कशें आसचें हाची एक सोबीत देख. सुधा लवंदे हांचो 'अशी जाली अमेरिकेची सफर' हो लेख तांच्या ओवळां ह्या संग्रहांत आयला. जयमाला दणायत हांचे अंदमान निकोबार आनी कन्याकुमारी हे लेख 'आंबाड्या भोंवती तीन शेवर्ती' ह्या संग्रहांत आयल्यात. शिला कोळंबकार हांची लेह लडाख, चक्राता, व्हॅली ऑफ फ्लावर्स आनी हेर कडलीं वर्णनां आसात.

२०१९ त सुशांतान नायक हांचें 'धतरियेवयलो सर्ग' हें संवसारभर केल्ले भोंवडेचें देखणें पुस्तक उजवाडाक आयलां. सट्ट करून कोण पावना असल्या जाग्यांचेर... ब्राझिल, आर्जेंटिना, अलास्का, हांची भोंवडे वर्णनां हातूंत आसात. तेखातीर कोंकणी प्रवासवर्णनांत हें पुस्तक मोलाची भर घालता.

ह्या सुमाराक युवा लेखिका संपदा कुंकळकार हांचें *चार पावलां आशिर्येत* हें पुस्तक आयलां. श्रीलंका, दुबय, थायलंड आनी विएतनाम अशा चार देशांचीं भोंवडे वर्णनां तातूंत आसात.

*मोतयांची माळ* संग्रहांत म्हजेय पांच लेख आयल्यात. ते भायर फाटल्या चार-पांच वर्सां सावन बिम्ब दिवाळी अंक प्रवासवर्णन विशशांक कसो येता. तातूंत आनी हेर बिम्ब अंकांनी सुशांता नायक हांची भारता भायल्या भोंवडेची सुंदर वर्णनां येतात. ते भायर ब्रेन्डा मिनेझीस, विनोद गावडे, सुचेता पै, अपर्णा गारुडी, सुजाता सिंगबाळ हिंवूय प्रवासवर्णनां बरयतात. ते खातीर फुडल्या तीन-चार वर्सांत १०-१५ नव्या पुस्तकांची भरच पडटली आनी कोंकणी साहित्यांत प्रवास वर्णनांचें दालन जें आरकळ विसकळ आशिल्लें ते समृद्ध जातलें.



मडगांव- गोंय, मो.: ९९२३३०६७५१

पासय



डॉ. नूतन देव

# सुंदरें



**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान ' आभाळ ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

*रातीं दोळ्यां मुखार सुंदरेंच येतालें. देवा कांय जायना जाल्यार पुरो. भुरगें हरशीं सामकें बरें. एकूच तकलेंतलें लग्नाचें पिशें सोडलें जाल्यार बाकी सगळें हुशार, कामसू. सुंदऱ्याचेच विचार तकलेंत घुंवतां घुंवतां दोळो केन्ना लागलो कळ्ळोच ना.*

तेन्ना म्हजें चली दोन वर्सांचें आशिल्लें. आवय आनी मांय दोगांयनी ताका सांबाळपाची तयारी दाखयली. पूण फोंड्यां येवन न्ही आपापल्या घरांनी. म्हाकां आनी म्हज्या घोवाक हें सामकें पटनाशिल्लें. कारण आमकां घरांत कामाक तशेंच भुरग्याक सांबाळपाक एक सादारण १७-१८ पिरायेचें तरी भुरगें दवरचें पडलें. सकाळफुडें सगळी जेवणा खाणांची तयारी करून केन्ना कितें खावय, केन्ना पासयेक व्हर, ह्यो सगळ्यो शिटकावण्यो दिवन हांव भायर सरतालें. तशी म्हज्या घोवाची क्लिनीक सकयल्या मजल्यार आशिल्ल्या कारणान म्हाकां हुस्को नाशिल्लो.

थोड्या वर्सांनी दुसरें जल्मलें. पूण म्हज्या कामांत कांयच फरक जालो ना. भुरग्यांक लागून म्हाकां केन्नाच सुटी काडची पडली ना. कित्याक तर कामांक दवरिल्लीं भुरगीं बरीं आसतालीं. पूण कितें कोण जाणां दर दोन वर्सांनी तांकां कितेंय तरी कारण जातालें आनी तीं काम सोडून वतालीं. पगारा खातीर न्ही हां. सांगपाचें म्हळ्यार एकट्याचें लग्न थरलें म्हणून, दुसऱ्याक टिबी जाली म्हणून आनी तिसऱ्याचो धाकटो भाव ॲक्सिडेंटान मेलो म्हणून, तर चौथ्याची आवय गेली म्हणून.

म्हाकां दोन वर्सां जाता जाता म्हळ्यार चेडूं वचपाचे वेद लागताले. अशेंच एक फिक्स मेळ्ळें. गांवांतलें भुरगें. नांव ताचें आशिल्लें सुंदरें. (नांव बदल्लां.) तें नांवाचें सामकें उरफाटें आशिल्लें दिसूंक. पूण बुद्धीन हुशार. सगळीं कामां वेवस्थीत करतालें. केन्ना केन्नाय आपली तकली वापरून शिरो, भजीं बी करून भुरग्यांक खावयतालें. पुणून ताचें एकूच टुणटुणें आसतालें. तें आत्र्या पयऱ्यान म्हणटालें, 'आगे म्हाकां एक न्हवरो पळय मगे.' एक दीस तें सामकें म्हज्या फाटीकूच लागलें. म्हणूंक लागलें. 'तूं न्हंवरो सोदिना जाल्यार हांव काम सोडटां.' म्हाकां

कव्व जालें. केन्नाय तरी एक दीस तें लग्न जातलेंच आशिल्लें. तें खरें आसले तरी आनीक थोडो तेंप तरी उरल्यार पुरो आशिल्लें. बाये-पुता करून हांवें ताची समजूत काडली. म्हळें, 'आगो बाय, न्हंवरे किर्ते बाजारांत विकते मेळटात गो? तो भुरगो निर्व्यसनी आसूंक जाय. चार पयशे जोडपी जाय. तुमचे जातीचो जाय. हय मगो? हांव कोणा कोणाकडेन चौकशी करतांच. पूण म्हाकां दिसता तुज्या घरच्यांनी एक बरो न्हंवरो सोदून काडल्यार चड बरें. मागीर लग्न लावन दिवपाची सगळी जबाबदारी म्हजी.'

म्हजीं हीं उतरां कानार पडटकूच सुंदरें मुमुरखेंच हांसलें आनी आपल्या कामाक लागलें. ताची आवय अदींमदीं आमगेर येताली. केन्ना बरी ना म्हणून वखद व्हरपाक तर केन्ना गरज आसा म्हणून पयशे मागपाक. एक दीस ती आयिल्ली आसतना हांवें तिचे कडेन सुंदऱ्याच्या लग्नाची गजाल काडली. ती म्हणूंक लागली, 'वयनी, सुंदऱ्याकूय व्हड म्हज्यो आनीक दोन धुवो आसात. तांचें जाले बगर हाका कशें करूं?'

सुंदरें हाडा पेशान घसघशीत आशिल्ल्या कारणान म्हाकांय तें व्हडलेंच कशें दिसतालें. पूण सुंदऱ्याक आपल्या दोगां भयणींचें पडून वचूंक नाशिल्लें. अशेच थोडे म्हयने गेले आनी दोन वर्सांक दोन म्हयने आसा म्हळ्यार सुंदऱ्यान सांगून सोडलें, 'हांव काम सोडटां.' हांवें ताका तरेतरेन समजावन पळयलें. पुणून ताच्या तोंडांत एकूच वाक्य, 'हांव काम सोडटां' ताचे आवयनय ताका समजायलें. पूण सामकें फुकट. ताच्यो व्हडल्यो दोनूय भयणी पणजे कोणागेर कामाक आशिल्ल्यो. सगळें मुसळ कोयरांत. सुंदरें काम सोडून गेलें.

त्या तेंपार एक बरें आशिल्लें. पेशंटाचे वळखीन वो सोयऱ्यांचे मजतीन रोखडींच कामांक मनशां मेळटालीं. तशेंच म्हाकाय बी दुसरें चेडूं रोखडेंच मेळ्ळें. हळुहळू म्हाकां आनी म्हज्या भुरग्यांक ताची सवंयय बी जाली.

त्या तेंपार मोबायल तर नाशिल्लेच. पूण खूबश्या घरांत सादे फोन सुद्धां नासताले. पांच-स म्हयने जाले आसतले सुंदऱ्याक वचून. फोनार ताची चवकशी घेवपाक वावच नाशिल्लो. सुंदऱ्याक बापूय नाशिल्लो आनी आवयन तर तें वतकच आमगेर पांयूच दवरूंक नाशिल्लो. केन्नाय ताची याद येताली. त्या दिसा सुटी आशिल्ली. इतल्यान सुंदऱ्याची आवय दत्त करून आमगेर हजर जाली. तोंडावळो भिल्लेवरी दिसतालो. हांवें तिका बसपाक सांगली आनी उदक पिवपाक दिलें. ती म्हाकां म्हणूंक लागली, 'सुंदरें बी आयलां गे तुमगेर? दोन दीस जाले घरा येवंक ना. हांवें सगळ्या सोयऱ्यांगेर सोदलें. खंयच ना. म्हज्या काळजान धरस जालें. जीव बी दिलो ना न्ही हे पापणीन. असो विचार तकलेंत येवन गेलो. पूण तें तशें करचेंना अशें म्हाका सामकें दिसतालें. आवयक धीर दीत म्हळें, तूं भियेवं नाका गे, येतलें तें. भयणी म्हऱ्यांत पणजे बी गेलां जायत. तरी पूण आमी ताचो एक फोटो पोलीस स्टेशनार दिवया. आनी ना जाल्ल्याची कंप्लेन दिवया.'

पुलीसेक सांगपाक ती बरी तयार नाशिल्ली. सुंदऱ्याचो फोटोय बी नाशिल्लो. हांवें बेगोबेग आमचे आल्बम काडले. म्हजे धाकटे चलये वांगडा काडिल्लो ताचो एक फोटो सापडलो. तो घेतलो आनी तिका घेवन निट्ट पोलीस स्टेशनार गेलें. थंय वचून कंप्लेन बरयली. मिसींग.सुंदऱ्याचे आवयक बसीर चडयली आनी हांव घरा परतलें.

रातीं दोळ्यां मुखार सुंदरेंच येतालें. देवा कांय जायना जाल्यार पुरो. भुरगें हरशीं सामकें बरें. एकूच तकलेंतलें लग्नाचें पिशें सोडलें जाल्यार बाकी सगळें हुशार, कामसू. सुंदऱ्याचेच विचार तकलेंत घुंवतां घुंवतां दोळो केन्ना लागलो कळ्ळोच ना. सकाळ जाली, पेपरवाल्यान पेपर उडयलो. हांवें सदचे भशेन तो काडून मेजार दवरलो आनी इतल्यान पयल्याच पानार लक्ष गेलें. सुंदऱ्याचो फोटो आशिल्लो ताचेर. म्हाकां शेळो घाम सुटलो. तसोच माथाळो वाचलो. 'लग्नाचें आमीश दाखोवन ओढणेन गळ्याक फास घालून आनीक एके चलयेचो खून!'



फोंडें-गोंय. मो. : ९८५०१३३१६०



– संतोष हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा ४०३ ४०१.
मो. : ९७६२६४१६१५



| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | | | ३ | | ४ | |
| | | | | | ५ | | | | |
| ६ | ७ | | | ८ | | | ९ | | |
| १० | | | ११ | | | १२ | | | |
| | १३ | १४ | | | | १५ | | | |
| १६ | | १७ | | | | | | | १८ |
| | | | | | १९ | २० | | २१ | |
| २२ | | | | २३ | | २४ | | | |
| | | | | २५ | २६ | | | २७ | |
| २८ | | | २९ | | | | ३० | | |

**आडवे :** १. तवनास, शिस्त नाशिल्ले, वाळेस, ३. तुर्ताचो, सद्याचो (काळ), ५. इंद्र आनी हेर देवांचो राबितो आशिल्लो जागो, ६. नेपाळ, देशांतलो, ८. दद क-वायट कर्तूब, ९. पांच पाडवां मदलो एक, १०. ताल, गती, चाल, ११. गुन्यांव, १३. केंसांत जाल्लें उवेचें तांतीं, १५. रोख, रोकड, १७. शंकराच्या हातांतलें वाद्य, १९. सुंदर तें निर्मुपाचो गूण, २१. खेळाची खेप, खेळाची फावट, दुखीचे त्रास भोगप, सोंसूंक जायनात अशे उपाद्रे भोगप, २४. मुसलमानी साधू, २५. आशादोशी, खूब आस्तेखोर, २७. वायट करणी, २८. शेवयो यालून केल्लें गोडशें, २९. इश्टागत, सांगात, वांगड, ३०. न्हेंसपाचें कापड.

**उबे :** १. फार्स्केत बसयल्लें चित्र, २. पोकळसाण, रिकामी सुवात, ३.एकेच तरेच्या वस्तुंचो वा मनशांचो पंगड, ४. गोंयचो फामाद आंबो, ५. आठ आनी णव, ७. चार पद्दिंचें माप, ८. पाप करपाची भिरांत आशिल्ले, वायट कामां करिनाशिल्ले, १२. पयसो-आडको, दौलत, १४. शिटकावणी, इशारो, १६. अपरिचीत, वळख देख नाशिल्ले, १८. अनवाळपण, न्हांवन धुवन निवळ न्हेंसण न्हेंसपाचें काम, २०. हुशार, शिटूक, २३. न्हिदपाची बाज, खाट, २६. देर्णेघेण्या विशींचो विस्वास, २७. सुकयल्लीं द्राक्षां, बांदचेली दोरी.

जानेवारी २०२० ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ये | व | का | र | | का | स | | म्हों | व |
| व | | ले | | पा | त | मा | री | | ज |
| ज | य | त | वं | त | | चा | | सू | न |
| प | | | शा | क | | र | मा | | दा |
| | आ | दा | व | | ए | | को | य | र |
| खों | प | | ळ | | क | र | ड | | |
| | सु | को | | चा | चा | | | का | की |
| आ | ला | प | | मा | र | ध | प | ट | |
| वा | द | | गा | र | | व | | का | ळो |
| ज | | मे | ळ | | ध | न | ग | र | |

